पयली खेपः श्रावण १९९८ः ऑगस्ट १९७९
दुसरी खेपः ज्येष्ठ १९१०ः जून १९८८

मोल रू १६.००

छापपीः सदानंद व्ही. दळवी, सुपर इम्प्रेशन्स, बी.पी. एस् मार्ग, पाजीफोंड, मडगांव-गोंय ४०३६०१
अुजवाडावपीः सुरेश काकोडकार, श्रेयस, विद्यानगर कॉलनी, विद्यानगर, मडगांव-गोंय- ४०३६०१

तीर्थरूप मामा
(म्हजो मांव- कै. तिमाजी शणै काकोडकार)
हांच्या म्होंवाळ उगडासाक

## मांडावळ





# १. दोंगर चंवल्ला....

बँकेची नवी ब्रॅन्च उगडली आनी मॅनेजर म्हणून हांची पिसोळयां बदली जाली तेन्ना म्हाका खप्प जालें. सगलो जल्म शारांत काडलो थंय आतां खेडयांत रावप कशें जमत हें येवजितनाच म्हाका खंत जावंक लागली. शारांतलो तो लखलख, तो वेग, तो बोवाळ हांची म्हाका इतली संवय जाल्ली कि हें सगलें सोडून पिसोळयासारकेल्या खांचोंटांतल्या गांवांत रावंक वचप हें मनांत येवन म्हजें मन सामकें निरशेतालें. ‘ हे ’ मात खोशी आशिल्ले. तांचें ल्हानपण खेडयांतच गेल्लें, म्हणटकीर तांबडे मातयेची ओड तांच्या आंगांत आशिल्लीच. ती खंय वतली ? ‘ शारापरस खेडेंच बरें ’ अशें म्हणून ताणीं आपले ल्हानपणाचे दीस दोळयांमुखार हाडले म्हणटकीर म्हाका म्हजें ल्हानपण याद जातालें आनी दिसतालें, शारांतले जिणेंतली मजा ल्हान आसतना आपल्याक चुकली अशें हांकां केन्ना दिसलेंच ना काय ? ना ज़ातलें ! कारण पिसोळयां रावंक वचप म्हुण हांकां जाल्ली खोस पळयल्यार थोडीं वसां शारांत काडचीं पडलीं हाजोच घडये तांकां खेद जातालो जावंये अशें म्हज्या मनांत येवन् गेलें.

सामानाची बांदाबांद करतना म्हाका उमेदच नाशिल्ली. बदली जाली म्हणून आमकां पार्टी आशिल्ली. शेजारा पाजारा जेवणाक आपयिल्लें. तेन्ना तर तांचो सगल्यांचो निरोप घेतना मन आनिकय जड जालें. तशें पळोवंक गेल्यार पिसोळें मडगांवच्यान चड पयस नाशिल्लें. जाय तेन्ना थंय वचून येवंक जातालें. पुण तरिकूय शारांतच रावप वेगळें आनी शारांत केन्नाय येवप वचप वेगळें.

०　　　०

पिसोळयां आमी पावलीं तेन्ना सांज जाल्ली. सगल्या गांवाचेर काळखाची साय मांडूंक लागिल्ली. गोठयांत परतुपी गोरवांच्यो घांटी कानांत किणकिणटाल्यो. शेणाची घाण सप्प करून नाकांत वताली. धुल्लाच्या लोटापेल्यान नदर मारतकीर हांगा थंय निकत्याच पेटूंक लागिल्ल्या चिमण्यांचो उजवाड दिश्टी पडटालो. लायटी ’ दिव्यांचो उगडास जावन हांवें दोळे धांपून घेतले. असलें हें पिसोळें

म्हाका मात लेगीत आवडलें ना.

दुसऱ्या दिसा हेवटेन तेवटेन पडिल्लें सामान सारकें मांडटना सकाळ कशी गेली समजलीच ना. दनपरां पुस्तकां आलमारींत दवरतना जनेलांतल्यान कोण तरी तकली भितर घालून पळयता म्हणचेलें लक्षांत आयलें. सात आठ वर्सांचो एक पोर जनेलाभायल्यान उबो आशिल्लो. हांवें ताजेकडेन पळयतकीर तो हांसलो आनी ताणें विचाल्लें,

"काके, हांव भितर येवं ?"

"यो"

तो भितर आयलो. काळें पुण नितळ आंग. लिकलिकीत दोळे आनी हांसकुरें तोंड. म्हाका ताजी अपुर्बाय दिसली.

"नांव कितें रे तुजें ?"

"भानुदास." कमरेवेल्यान सकल देंवतली चेड्डी वयर काडीत ताणें सांगलें.

"खंय राक्ता तूं ?"

"पैल्यान ती खोंप दिसना, थंयसर रावताय आमी." जनेलाभायर बोट दाखोवन ताणें सांगलें.

"तुमगेर जायतें सामान आसा न्हू ?" कुडींतल्या सामानाचेर नदर मारीत ताणें विचाल्लें आनी,तो आपलेच खोंपींत तें सामान आशिल्लेवरी खोशयेन हांसलो. आलमारीच्या हारशाक नाक लावन ताणें ल्हवूच जीब भायर काडली. म्हाका हांसो आयलो. दोन बिस्कुत्यो ताज्या हातार दवरून हांव परत कामाक लागलें.

तेन्नाच्यान भानुदास म्हज्या फाटल्या फुडल्यान रावंक लागलो. आनी ताजो 'काकेऽऽ' म्हणून उलो कानार आयल्याबगर म्हाकाय सुख लागना जालें. हरशीं हे भायर सरून वतकीर सगलो दीस हांव वाजेवन काडटालें. चडच वाज आयल्यार आंगणांत येवन बसतालें आनी मुखावेल्या माडांक पळयतालें. वेल्या आडसरांक पळोवन म्हाका मुंबयच्या 'नारियल पानी' ची याद जाताली. आनी मागीर एका फाटल्यान एक पयलींच्यो यादी जावन म्हाका पिसोळयाचो चडच वाज येवंक लागतालो. शेजारापाजारा बायलो नाशिल्ल्यो अशें न्हय: पुण जण एकली आपल्या संवसारांत. बायलांचें मंडळ, सभा असल्या विशयांत तांकां गोडी नाशिल्ली. भानुदास येवंक लागतकीर म्हजो वेळ मातसो बरो वचूंक लागलो.

"काके, भाऊ खंय वैता ?...." "काके भाऊ फटफटी बरी चलयता न्हूं ?...." "काके, भाऊ व्हड सायब न्हू ?...." भानुदासाक म्हज्यापरस चड हांची व्हडवीक दिसताली. घरा वतकीर तो फकत आमच्यो गजाली सांगत आसतालो. घरा ताजी आवय, बापूय आनी धाकलीं तिगां भांवडां आशिल्लीं. भानुदास व्हडलो. दीसभर भांवडां वांगडा मातयेंत लोळत आसतालो. एक दीस हांवें ताका विचाल्लें,

"भानुदास, तूं शाळेंत वचना ?"

मान सकयल घालून तो चोर कसो उबो रावलो.

"बाप्पा त्येका जायतो मारता शाळेंत वचना म्हूण" ताजे धाकले भयणीन सांगलें.

भानुदासान दोळे व्हडले करून पळयलें आनी "सोंड फोट्टलों" अशें म्हणत तो ताज्या आंगार धांवलो.

ताका आडायत हांवें म्हळें, "भानुदास तूं शाळेंत वचना ? शी ! आरे शाणे भुरगे सदां शाळेंत वतात. शाळेंत वतकीर तूं व्हडलो जातलो."

"भाऊ ल्हान आसतना शाळेंत वैतालो ?" ल्हवूच ताणें विचाल्लें.

"हय तर !"

भानुदासाचे दोळे लिकलिकले.

"फाल्यांच्यान तूं वतलो मरे शाळेंत ?"

ताणें बेगिबेगीन तकली हालयली आनी खरेंलोच तो शाळत वचूंक लागलो. शाळा सुट्टकीर दप्तर घेवन तो बद्द आमगेर येतालो. आसरमांडी घालून वासरेवेल्या खांबाक तेकून बसतालो आनी काडयेचो कुरूकुरू आवाज करीत पाढे काडटालो. "बे एके बे...बे दुणे चार...बे त्रिंक तीन–"

"भानुदास, बे त्रिंक तीन न्हय, स..."

ताजे सगले पाढे त्रिंक म्हणटा थंयच चुकताले.

चार त्रिंक तेरा–स त्रिंक पंदरा–आठ त्रिंक अठरा–कितलय सांग, दुसऱ्या दिसा परत तेंच. एक दीस हांवें ताका वणतीवटेन फुडो करून ओणवोलेगीत रावंक लायलो. पुण पोराक लज ना. ओणवो रावन तो म्हाका शेतापेल्या दोंगरार काण्णां पिकूंक लागल्यांत म्हुण सुरबुसायेन सांगूंक लागलो.

"फाल्यां तुका दोणो भरून हाट्टां गे काके..." अशें ताणें धोंपरां मदल्यान

तकली घालून म्हाका सांगलें तेन्ना हांव ताचेर तापलें.

"कांय नाका म्हाका तुजीं काण्णां चुन्नां. पयलीं पाडे सारके शीक!" भानुदासाचे दोळे भरून आयले. भितल्ले भितर घुसमटत ताणें मागीर पाढे म्हणूंक सुरवात केली.

"बे एके बे, बे दुणे चार..."

"बे त्रिक स" तो चुकत म्हणून हांवेंच वेगिवेगीन म्हळें आनी ताका सकयल वसूंक सांगलें. पीड्ड करून उडी मारून तो म्हज्या मुखार येवन बसलो. हावाशिवा करून आमी दोगांनीय सगळे पाढे म्हळे. मागीर तो येदोळ अर्दी उरिल्ली काण्णांची गजाल सांगूंक लागलो,

"काके, दोंगुल्ल्यार मगे जायत्यो जाळयो आसात काण्णांच्यो कांटयांनी भल्ल्ल्यो आनी तितूंत हुमल्यांचे जायते घोंटेरय आसात. असो ऽ ऽ ऽ हात घालोंक जायो भितूर आनी कुटुच्च करून काण्णां तोडोंक जायीं." मेजाच्या खुराफाटल्यान अळंग हात घालून भानदासान काण्णाचे जाळयेंत हात घालून काण्णां तोडिल्ले भशेन केलें.

"आमी या गे?"

कांटे तोपतात, हुमले चाबतात, अशें आसतना जाळयेंत हात घालून काण्णां तोडून खातलो कोण? धा पैशे दिवन काण्णांचो दोणो घेवन अचळय खावपी शारांतलीं मनशां आमी!

"नाका रे सायबा. म्हाका तुजे हुमले खायत."

भानुदासाक हांसो फुटलो. चेड्डी दोनय हातांनीं घट्ट धरीत तो हांसूंक लागलो. पुण तो सामकोच फाटीक लागतकीर मागीर हांव ताज्या वांगडा वचूंक तयार जालें. दुसऱ्या दिसा सकाळींच आमी भायर सर्ल्लीं. काकी वांगडा आसा म्हणून भानुदास खोशी जाल्लो. शेतांतल्या व्हाळादेगेवेल्यान वतना एकसारको बडबडत आशिल्लो. मर्दीच खंयच्यान तरी धव्योफुल्ल बळारी पांखां हालयत व्हाळादेगेर देंवल्ल्यो.

"काके, बळारी चोय" अशें म्हणत भानुदासान एक फातोर तेवटेन शेंवटिलोच. फर्रर्र करून पांखां फुल्लीं. लांब पांय सकयल लांबयत बळारी वयर उडल्यो.

सुकिल्लीं पानां, बडयो माड्डीत आमी दोंगुल्लो चडूंक लागलीं. तरेतरेच्या चंवरांचो परमळ घेवन वारो आंगापांगार नाचूंक लागलो. उडयो मारीत भानुदास फुडें फुडें धांवतालो. हांव मात जीव सांबाळून, कांटे तोपत, झोपांत शिरकून उरत, ह्या भयान अळंग चलतालें. मदींच थांबून भानुदासान पिटकोळेच्या फुलांचो घोंस तोडून म्हज्या मुखार धल्लो.

" काके, फुलांच्यो पांकळयो मेज. "

" चार. "

" पांच पांकळयांचें फूल मेळटा तो भाग्यवंत खंय. "

" हय ? "

" वयल्या वाडयावेल्या पेद्रूक एक पावट पांच पांकळयां फूल मेळ्ळें मगे काके, आनी रोकडोच त्येज्या पायन त्येका नेवो बुशकोट शिंवलो. बाबणील्या मीराक फूल मेळ्ळें तेन्नां तें वावर करता त्या भाटकाराल्या सोयऱ्यांनीं वैतना त्येका दोन रुपया दिले खंय. आनी गुणाक फूल मेळ्ळें तेन्नां त्येका आख्वी शिशीपेण्सील मेळ्ळी वाटेर ! " भानुदास दोळे मोट्टे करून म्हाका सांगतालो. पुण त्या दिसा कांय आमकां पांच पांकळयांचें पिटकोळीचें फूल मेळ्ळें ना.

पाववेचार काण्णा जाळयेंत काळशे तामशे काण्णांचे घोंस दिसतकीर भानुदास उडयो मारीत धांवलो, कांटयांत हात घालून ताणें पटपटीत कितल्शींच काण्णां तोडलीं आनी तो म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो.

" काके, घे " सगलीं काण्णां म्हज्यामुखार धरून ताणें म्हळें.

ताच्या माथ्यावेले हुमले फाफडीत हांवें म्हळें, " तूं खा रे. हांव तोडटां. "

" नाका काके, तूं तोडूं नाका. तुका कांटे तोपतले, हुमले खातले. हांव तोडून तुका दितां. "

म्हजी म्हाकाच लज जाली." ना रे भानुदास; म्हाका कांटयां हुमल्यांचो भंय दिसना. पळोवया तुजो दोणो चड भरता काय म्हजो. "

" हय वय. " भानुदास फुल्लो आनी काण्णां तोडूंक धांवलो. हांवेंय साडयेच्यो निऱयो खोयल्यो आनी हुमल्यांचे घोंटेर ना थंय कांटे चुकयत हात घालो आनी अळंग एक काण्ण तोडून तोंडांत घालें. आंबट गोड रुचीन जीब धादोसली. धा पैशे दिवन विकत्या घेतिल्ल्या दोण्यांतल्या काण्णांपरस आपल्या हातान तोडून

खाल्ल्या काण्णांची रूच वेगळीच आशिल्ली.

भानुदासान कुडया पानाचो दोणो करून दिल्लो. तो दोन दोणे भरून म्हज्या म्हन्यांत आयलो तेन्ना हांव हुमले फाफडीत उबें आशिल्लें. हातांतलो अर्दो भरिल्लो दोणो हांवें भानुदासाकुडें घल्लो तेन्ना तो आपल्यांले दोन दोणे म्हजे-मुखार नाचयत हांसूंक लागलो. पुण आंगावयले बरगे सांसपीत काण्ण खातना म्हज्या मनांत आयलें–अर्दो दोणोतरी हांव भरूंक शकलें, हेंय खूब जालें !

मागीर आमी थंयच्या एका फातरार बसलीं. दिकान भरिल्ल्या हातान एक काण्ण म्हज्या मुखार धरून भानुदासान विचाल्लें,

" काके, कोंबो काय कोंबी ? "

हांवें हेवटेन तेवटेन पळयलें " खंय रे ? "

काकेक कांयच कळना अशे नदरेन ताणें म्हाका पळयलें आनी म्हळें," काण्ण तांबडें आसल्यार कोंबी आनी धवें असल्यार कोंबो म्हणटात. आतां सांग पळोवया."

हांवें काण्णाचो कुडको काडून पळयलो आनी म्हळें, " कोंबी "

" आंवं ऽऽ यं ! पळोवचे पयलीं सांगोंक जायें "

मागीर हांवें आनी भानुदासान कोंबो कोंबी करीत अर्दीं काण्णां सोपयलीं.

" सांजे भाऊ येतकीर इचार आं काके. " काण्णाचो दोणो धापून वेत भानु-दासान म्हळें.

" कितें रे ? "

" कोंबो काय कोंबी तें ! "

दिकान चिकचिकीत जाल्ले ओंठ घट्ट दामून हांवें हांसो चिड्डिलो.

० ०

एक दीस भानुदास तोणयो घेवन आमगेर आयलो.

" असा गडया तूं खेळोजी...

तोणयांचा डाव मांडोनी...

जयरंग तालगडी....जयरंग तालगडी " अशें करीत आंगणांत नाचूंक लागलो.

" आरे, हें कितें ? "

" काके, शिगमो लागीं येयलो न्हूं ? "

" हय मरे ! " म्हाका याद जाली.

'जीजूचें वावलें-तारींकडें पावलें! शेबोय!!' अशें म्हणत रुपडीं घालून भुरगीं दारांत येवंक लागलीं म्हणटकीर शिगमो आयलो हें म्हाका कळटालें. शिगमो येतालो आनी वतालो. शिगम्याची तयारी अशी केन्ना आमी केलीच ना. पुण शिगम्याची सुलूस लागतकीर सगलें पिसोळें शिगम्याक येवकार दिवपाच्या कामाक लागलें.

भानुदास पंदरा फावटीं येवन सांगूंक लागलो, "काके, आंगण सारोवन घेवोंच्या जाये, माटोव घालोंच्या जायो. मेळ येतले न्हूं?"

"हय रे बाबा. माटोव बी सगलें घालूंया."

"कुळंब्यां मेळ कशे नाचतात जाणां?"

"कशे?"

"....नारंगीच्या मुळा, सुरंगीच्या रोपा
बरीं बरीं फुलां माळून
भरिला रे खोपा...."

भानुदास हात हालयत तालार धोलूंक लागलो. शिगमो येवपाक तशे पंदरा दीस तरी आशिल्ले. पुण त्या दिसा आमच्या आंगणांत तरी शिगमो फुलूंक लागिल्लो.

भानुदासाल्या आंगांतली उमेद म्हज्या आंगांत केन्ना रिगली म्हाका कळ्ळेंच ना. आंगण सारोवन घेतना, माटवाच्यो म्हेडी उब्यो करून तांचेर मल्लां घालून घेतना हांवय उमळशिकेन शिगम्याची वाट पळोवंक लागलें. शेताकडले खोपींत एकलोच रावपी जाण्टो गोपाळदादलेगीत माथ्याक तुवालो बांदून उमेदीन वावुरतना दिश्टी पडूंक लागलो. एक दीस आखाडयांत उबो रावन ताणें मुद्दाम म्हाका उलो माल्लो आनी म्हळें,

"वयनीबाय, शिगमो येयलो."

"हय गोपाळदाद," हांवेंय हांसून म्हळें. आनी माटवाकडेन बोट दाखोवन म्हळें, "तीच तयारी चल्ल्या न्हय?"

गोपाळदाद आखाडयांतल्यान भितर सल्लो, सोप्याकडेन उबो रावलो, माथ्याचो तुवालो सोडोवन ताणें घाम पुसलो आनी रंगार येवन विचाल्लें,

"आमचो शिगमो कसो आसता जाणा वयनीबाय?"

" कसो आसता गोपाळदाद ? "

" ...धोलार पटडा बडी आनी
   शिगमो दारांत येता रे ऽ ऽ
पैल्यान वैतात नडी आनी
   उमेद घरांत फुल्ता रे ऽ ऽ
कूदत येतात गडे आनी
   भगत विडो मागता रे ऽ ऽ
गायत येतात चेडे आनी
   मेळ दारांत नाचता रे ऽ ऽ..."

गोपाळदाद माथ्याक तुवालो बांदून गेलो तरिकय म्हजी लागिल्ली तंद्री मोडली ना. म्हज्या मनांत धोलाचो आवाज घुमत आशिल्लो. शिगमो येवन गेलो तरिकय कितले तरी दीस म्हज्या ओंठार मेळांतलीं कवनां नाचत आशिल्लीं.

...कळकीच्या बनामध्ये
   कोमल जळमला
थंयसान कोमल गेला
   सुताराच्या घरीं
सुताराच्या मुलाने
   सुतरंगी केला
थंयसान तो गेला
   चिताऱ्याच्या घरीं
चिताऱ्याच्या मुलाने
   चितरंगी केला...

त्या वर्सा हांवें खरो शिगमो अणभवलो.

० ०

पिसोळयाचो दर्याय कितें वेगळोच आशिल्लो. पांचवो निळो दर्या ! पुनवेरातीं चान्न्यांत न्हावन देगेर रुपें ओतपी दर्या ! तशो हांवें जायत्यो वेळो पळयल्यात; पुण गर्देन उपट्ट भरिल्ल्यो. पिसोळयाची वेळ मात शांत, सोबीत, लजेस्त कशी ! त्या सोवशार रेवेंत पावल दवरतकीर दिस, हो सगलो दर्या, ही दर्यावेळ तुजीच,

फकत तुजी !

ल्हानपणांत सगलींच जाणां पांयांर रेंव थापून घरां बांदतात. हांवेंय बांदल्यांत; पुण भानुदास धरतालो तशो पेटाऱ्यो कुल्ल्यो मात केन्नाच धरूंक नात. ल्हार फाटीं गेलें म्हणटकीर भानुदास ओले रेवेंतलें फोणकूल हेरतालो. धांवत वचून ताचेर पांय दवरतालो. आनी पोंदाची रेंव ओडीत फाटीं हाडून वयर देगेर शेंवटी-तालो. रेंवें पोंदची कुल्ली दांगे वयर करून तुरतुरीत धांवत सयकले उदकावटेन येंवंक लागतकीर बचकभर सुकी रेंव तिजेर शेंवटून तो तिका पांयांनी दामून धर-तालो आनी तिचे दोनय दांगे मोडून तिका बोल्सांत भरतालो.

ताणें म्हाका पेटारे धरूंक शिकोवपाचो जायतो यत्न केलो; पुण कुल्ली पांयांक घास मारीत हें येवजुनच म्हाका भंय दिसतालो. पिसोळयांतच म्हजें ल्हानपण गेल्लें जाल्यार घडये हांवय भानुदासा भशेनच पेटारे धरीन आशिल्लें! कोण जाणा ?

० ०

माडार चडून सूर काडटना रेंदरांनीं सुरार म्हणिल्लीं गीतांय हांवें पिसोळयां येवन आयकलीं. घरांतले नाल्ल सोंपतकीर पसऱ्यार वचून ते घेवन येवप, इतल्या-चेरच म्हजो आनी माडाचो संबंद सोंपतालो, नाल्ल हे माडाक लागतात इतलें जाणा जावपा पुरतोच संबंद तो. पुण पिसोळया आयलें आनी हालपी धोलपी माडांतलें कवीत म्हाका दिसलें. चुड्टांतल्यान सळसळपी वारो, त्या वाऱ्यातालार धोलपी चुड्टाक लांबतले घोंटेर, सुरसुरीत माडार चडपी रेंदेर आनी तांचीं तीं कांतरां ह्या सगल्यांचें एक म्होवाळ सोबीत गीत जावन म्हज्या काळजांत वचून बसलें. आतां नाल्ल पळोवन याद जाता तें हें कवीत....वाऱ्यार धोलपी घोंटेर.... आनी चुड्टांचे जाळयेंतल्यान पयस पयस वचपी कांतरांचे सूर....

....फांत्या पारारी, चेडवा तुजी
वाटु देखिली
वाटु देखितां, वाटु देखितां
रातु गो येयली....

हे सूर आयकतच दीस गेले. दोन वसां कशीं गेलीं समजलींच नात. भानुदासालें पिसोळें म्हज्या आंगांत केन्ना भिनलें कळ्ळेंच ना. आनी परत एक दीस हांची

पणजे बदली जाली. खरें म्हळ्यार म्हाका खोस जावंचेली; पुण जाली ना. मन खिन्न जालें.

पिसोळें सोडून वचप ? म्हज्या हातांतलें काम अर्देंच उल्लें. शारान लायली ना इतली ओड म्हाका- त्या ल्हानशा खेडयान लायिल्ली. म्हाका कळनासतना.

जड मनान हांवें सामानाची बांदाबांद केली. सामानाचो ट्रक भरतना भानुदास जायतो बोवाळ्ळो. म्हजे भोंवतणीं भोंवतणीं भोंवलो.

" काके, अंदू सगलो दोंगुल्लो चंवरान भल्ला. तुमी फुडल्या वर्सा गेल्यार जायना ?.... काके, तूं वैतकीर म्हजो अभ्यास कोण घेतलो ? काके, तुका हांवें कालवां काडूंक शिकयलें ना. तें शीक आनी मागीर वच. "

काके....काके....काके....! ताका समजायतना म्हाकां नाका शेवट जावंक लागलो. हांव आपलें आयकना तें पळोवन तो हांचेकडेन गेलो. " भाऊ, दोंगुल्लो सामको चंवल्ला.... तुमी अंदू रावात.... " ताचो गळो भरून आयलो. हांकांय मनांतल्यान बरेंच वायट दिसतालें. भानुदासाचे फाटीर थापटीत ताणीं म्हळें, " काण्णां पिकतकीर सांगून धाड आं, हांव येतां तुजे काकेक घेवन हांगा ! "

भानुदासाच्या दोळयांतलीं दुकां पोल्यार गळ्ळीं.

आमी पणजे वचूंक भायर सल्लीं तेन्ना गोरवांच्या गळयांतल्या घांटीं तालाचेर पावलां वाजयत सांज पिसोळयाचेर देवंक लागिल्ली. शेणाचो वास घरामुखावयल्या सारयिल्ल्या आंगणाचो, आंगणांत तुळशीमुखार पेटोवन दवरिल्ल्या निरांजनाचो उंगडास करून दितालो.

मोटार सुरू जाली. म्हजे दोळे भरून आयले. दुकां पुसून हांवें भानुदासाक पळोवपाचो यत्न केलो. रडकुरें तोंड करून तो उबो आशिल्लो. ताच्या फाटल्यान पयस दोंगुल्लो दिसतालो. पांचवो–निळो ! चंवरान भरिल्लो दोंगुल्लो !! भानुदासान हात हालयलो. हांवेंय हालयलो. मोटार फुडें सल्ली. तांबडो धुल्ल वयर सल्लो. धुल्लाफाटलो भानुदास दिसना जालो. तरिकय हांव भरिल्ल्या दोळयांनी फाटल्यान पळयत, हात हालयत रावलें !

❀ ❀

# २. चीट येवंक ना

चिटयांचो वोटवो सायकलीक लावन सखाराम पोस्टमन भायर सल्लो तेन्ना माथ्यार वोत थळपेतालें. वोल्सांतलो लेंस काडून ताणें तोंड चरचरीत पुसलें आनी पेदालां मारीत सायकल धांवडायली.

आयज सकाळफुडेंच चिटयो एकठांय करतना आपल्याक वी चीट आसा काय ना हें ताणें वेगिवेगीन पळोवन घेतिल्लें, पुण ताका चीट नाशिल्ली. फाटले पंद्रा दीस तो चिटयक रावतालो. मुंबय तागेली भयण दिल्ली. ती बरी नाशिल्ली. एक-लीच भयण. पयस पडिल्ली. सट् करून वचून खबर घेवन येतलो म्हळयार मेळटा ? सुटी मेळना ती जालीच; त्याभायर दुडू नाकात ? घरा आवय सामकी वयर सकयल येता. कशेंय करून पैशे एकठांय करून तिका मुंबय धाडटलो म्हळयार ती जाण्टी. तिज्यान खंयच वचूंक जायना. सखारामान मुंबय तीन चिटयो धाडल्यो. एक तार लेगीत केली; पुण भयणीची खबर ना. किर्ते जालां कांयच समजना. चिंतून चिंतून तकली वेजार जाल्या. सखारामान हुस्कार सोडलो. शांती कॉलनी लागीं पावत आयिल्ली. ताणें कांपीण वाजयली. आनी सायकलीवेल्यान देंवन चिटयांचो पेळो भायर काडलो.

बिल्डींग नंबर एकांत तळमजल्यार शाबूदाद रावता. तीन चल्यांचो बापूय. तीनय चले भायर आसतात. एकलो मुंबय, दुसरो बेंगलोराक, तिसरो दिल्लीक. सदांच सखाराम येवचेल्या वेळार कांपीण किणकिणली म्हणटकीर तो फट्ट करून उठटा आनी वारांदांत येवन बसून रावता. पयमुल्ल्यान सखाराम दिसतकूच व्हडल्यान विचारता, " आसा हय रे ? " ताका चड करून चीट आसताच. पूत नेमान चिटयो बरयतात. 'आसा हय रे' अशें शाबूदादान विचाल्लें म्हणटकीर सखारामान रोकडयोच चिटयो वयर काडून दाखोवप, शाबूदादान बायलेक उलो मारून ' आगे, भायर यो; चीट आयल्या ' अशें म्हणप हें सदांचेंच जालां. शाबूदादाखातीरच सखाराम शांती कॉलनीकडेन पावतकीर कांपीण वाजयत रावता.

आजय ताका चीट आसली. ताच्या हातांत चीट दिवन सखाराम वयल्या

माळयार चडलो.

उजवेवटेन नाडकर्णी रावता. हांकां म्हयन्यांतल्यान केन्नाय एक फावटी चीट येता. हांगा चिट्यांखातीर हुस्केत केन्नाच कोणूच दारांत उबोय रावना. आयली जाल्यार आयली; नाजाल्यार ना.

आज तांकां चीट आसली. पत्रांखातीर दवरिल्ले खांचींतल्यान ताणें चीट उडयली. दारावयली बेल वाजयली आनी तरतरीत तो फुडें गेलो.

दावे वटेन चोडणेकार रावता. व्हडलो चलो एस्. एस्. सी. क बसला. रिझल्ट आठ दिसांचेर आयला. मुंबयच्या एका इश्टान आठ दिसांपयलीं रिल्झट कळयतां म्हणून चोडणेकाराक सांगलां. घरांतलीं सगळीं ताचे चिटयेची वाट पळयत आसात सखाराम येवचेल्या वेळार कोण ना कोण तरी गॅलरींत आसताच. ‘ अविलो रिझल्ट कळचेलो आसा रे; म्हणून पत्राक रावतात आमी. ’ अशें चोडणेकाराले धाकटे चलयेन सांगिल्लें. त्या दिसाच्यान तांकां चीट आसली जाल्यार ती दिवन सखाराम मातसो वेळ थंयच घुटमळटा. रिझल्ट कळ्ळो जाल्यार आपणाक सांगल्याबगर रावचीं नात हें तो जाणा. आनी चोडणेकाराले फामिलीवांगडा तोय ते चिटयेची उमळशिकेन वाट पळयता. पुण चिटयेचो पत्तोच ना.

“ आयजय ना मरे ? ” अशें अविन निरशेवन विचाल्लें तेन्ना सखारामान खेदान मान हाल्यली. आनी “ फाल्यां हाडटांच पळय ” अशें म्हणून वयली माळी चडूंक लागलो.

वयल्या माळयार पेरेर रावता. एकदम बरो मनीस! ताका चडशो भायल्यो चिटयो येतात. कवराचेर तरेतरेच्यो तिकेटी आसतात. सखारामालो पूत तिकेटी जमयता. हरशीं कोणालेंय दार बंद आसल्यार सखाराम पत्र भितर उडोवन बेल वाजयता आनी मुखार सरता. पुण पेरेराच्यो चिटयो मात तो तशो उडयना. बेल वाजोवन दार उगडी म्हणसर तो उबो रावता; पेरेराच्या हातांत चीट दिता आनी म्हणटा, ‘ सिंयोर, तुका नाकात जाल्यार सेल म्हाका दवर आं....’ पेरेराक तिकेटींची व्हड-वीक ना. ताच्यो चिटी हेवटेन तेवटेन पडटात. सखारामालो पूत तिकेटी एकठांय करता हें तो जाणा. सदांच थंयचे थंय एन्व्हलोप पिनून तो तिकेटी सखारामाक दिता आनी ‘ दी तुज्या पुताक ’ अशें म्हणीत पायपाचो धुंवर सोडीत भितर वता. सखाराम ताका चार चार फावटीं ओब्रिगाद म्हणूंक कसोच विसरना. सिंयोर

पेरेर बरो मनोस !

आजजयबी दोन तिकेटी बोल्सांत घालून सखाराम फुडें सल्लो. पेरेरीमुखार गांवकार रावता. ताका दोन चल्यो आसात. चार पांच वर्सांच्यो. सदां त्यो भायर खेळत आसतात. सखारामाक पळयतकीर हातांतलो खेळ उडोवन धांवत ताच्या म्हऱ्यांन येतात. 'पोस्टमनकाका, आमकां पतलां दी'– अशें म्हणत भोंवतणी उड्यो मारतात. गांवकाराक पत्र आसल्यार सखाराम खोशयेन तें तांचेकडेन दिता आनी तांचीं फुलिल्लीं तोंडां पळोवन धादोशी जाता.

आज गांवकाराकय चीट आशिल्ली. ती दिवन जातकीर सगळीं सोपणां देंवन सखाराम बिल्डींग नंबर एकांतल्यान भायर सल्लो. आता नंबर दोनांत वचप. हे बिल्डिंगेंत दुसऱ्या माळयार पै रावता. ताचे चलयेचें–मंगलाचें लग्न थाल्लां. फाटल्या म्हयन्यांतच पैचे बायलेन दोन दूदपेणे सखारामाच्या हातार दवरून ताका ही नवीदाद सांगिल्ली. न्हवरो मुंबय आसता. मंगल सदां ताचे चिटयेची वाट पळयता. कालच सखारामान ताका चीट दिल्या; अशें आसतना आजय वाट पळोवप ? आजय ताका चीट आसा ही गजाल वेगळी. गुलाबी पाकिटांतली, मंद परमळान भरिल्ली दाट दाट ! कितें बरोवन धाडटा काय तो इतलें ? सखारामाक केन्ना केन्ना अजाप जाता. सदां चीट येता, तीय बी इतली दाट ! एका दिसा-भितर अशें घडटा तरी कितें काय इतलें बरोवपासारकें ?

मंगलाची चीट आसली जाल्यार सखाराम ती अळंग सांसपिता, ल्हवूच तिचो वास घेता, तळव्यार धरून कितली पेजाद तें पळयता आनी मंगलाच्या हातांत दितना मुसुरकोच हांसता. 'व्हनीबाय, म्हजो बोटवो हालीं जड लागता गे म्हाका' अशें एक दीस ताणें मंगलाचे आवयक सांगलें तेन्ना मंगल लजेवन तांबडें जाल्लें.

आज सखारामाक येता तें पळोवन मंगल दारांत येवन उबें रावलें.

"आसा – आसा. आजय आसा." ताच्या हातांत चीट दिवन सखाराम मुखार गेलो.

बिल्डींग नंबर तीनांतलो मारुती भायरच आशिल्लो. सखारामाक पळोवन तो तापलो.

"आरे, तूं कितें करता ? चिटयो वांटटना न्हिदता बी काय म्हणटां ?"

सखारामाक कितें जालें तें कांयच कळ्ळें ना.

" कितें जालें बाब ? "

" हीं पत्रां कोणालीं ? " भितर वचून मारुतीन दोन पत्रां हाडलीं.

" कोणालीं ? "

" पळय तूंच आनी साग. " मारुतीन एक पत्र मुखार धल्लें. सखारामान पत्र घेवन वयलो नामो वाचलो.

" वाचलें ? "

" ह्य. "

" हांव तो ? "

" न्ही. "

" म्हणटकीर चिटींचेर मारुती आसतकीर सगळीं पत्रां म्हज्याच घरांत उडोवप ? फाल्यां शेनवाराक तेल घालूंक्य हांगां यो आनी ओत म्हज्या बोडार ! म्हजें नांव मारुती गावणेकार...समजलें ? आतां हें दुसरें पत्र पळय. "

दुसरें पत्र घेवन सखारामान नामो वाचलो.

" माल्ती घाणेकार...."

मारुती दोळे तांबडे करून पळयतालो.

" हांव माल्ती ? "

" चूक जाता बाब केन्ना केन्ना ! "

" हे फुडें अशें जायत जाल्यार सोमतीं पिनून भायर उडयतलों हांव. सांगून दवरतां. "

सखारामान मोन्यानी तीं दोनय पत्रां बोटव्यांत उडयलीं. मारुतीक आयिल्ली नवी चीट हातांत घेतली, धा फावटीं नांव वाचून पळयलें आनी " हें तुमकांच " अशें म्हणून ती मारुतीच्या हातांत दिवन तो भायर सल्लो.

माळयो चडून देंवन ताका सामकें पुरो जाल्लें. आजूनय जायत्यो चिटयो आशिल्ल्यो. गव्हर्मेंट कॉलनीत थोडे नवे लोक आयल्यात. तांकां सोदून काडून चिटयो दिवचेल्यो आशिल्ल्यो.

वाटेर देसायालें घर आसा. तागेर चीट दिवचेली आसता तेन्ना सखारामाचेर आकांत येता. तागेर येद्दे सोंडयेचो सुणो दांत भायर काडून वारांदाचेर बशिल्लो आसता. बसला जाल्यार बसलो सुशेगाद अशें पुण आसा ? ना. कंपावंडांत भितर

सरिल्ल्या जण एकल्याक घांस काडलेवगर तो सोडिना. त्याभायर खाकी कपडे घाल्ल्या मनशांची खंय ताका चडच तिडक मारता. सखारामाक्य येद्दे सोंडेयच्या सुण्याची तिडक मारता. पुण कितें करतलो ? मोटयांलें घर ! मोटयांलो सुणो ! गेटीभायर उबो रावन ताका आड्डूचें पडटा– ‘ पोस्टमऽन...’

आज तांकां पत्र ना. सखाराम बावडो मार्गावेल्यान वतालो. पुण तरिकूय ताका पळोवन तो व्हडले सोंडेयचो सुणो दांत किल्लीत भुकूंक लागलो. सखारामान ताका तिडकीन पळयलें आनी नेटान पेदालां मारीत तो फुडें सल्लो.

जाकीनमाना दारांत उबें रावन ताची वाट पळयता तें ताका पयसुल्ल्यानच दिसलें. पुण आजय ताका मनिऑर्डर येवंक नाशिल्ली. ताचो पूत कलकत्त्याक आसता. हांगा जाकीन आनी धूव दोगांच आसात. पूत म्हयन्या म्हयन्याक पैशे धाडटा. पुण हे खेपे देड म्हयनो जालो तरी पैशे येवंक नात.

“ आसाय रे ? ”

“ ना जाकीनमाना. ”

हें तांचें आयज कितले दीस चल्लां.

जाकीनमानालें घर जातकीर मागीर थोडींच घरां उरिल्लीं. बेगिबेगीन ताणें सगलीं पत्रां वांटलीं आनी सायकल दामटीत फुडें व्हेली. आतां नीट्ट घरा वचप. स्सूऽऽ करून हुस्कार सोडून सखारामान बोल्सांतलो लेंस काडलो आनी तोंड, मानवळ चरचरीत पुसून घेतलें. मारयानाले गादयेकडल्यान व्हॉल्त घेवन मुखार सल्लो म्हणटकीर ताचें घर दिसता.

व्हॉल्तार पावतकीर ताणें सदांभशेन कांपीण वाजयली. दारांत ताची आवय उबी आशिल्ली. सखारामाक एकदम सट्ट जालें. आवय चिटयेची वाट पळयता. धुवेची कितंय खबर कळ्ळया काय म्हणून विचारूंक रावता. धूव बरी ना म्हुण कळिल्लें तेन्नाच्यान ती अशीच वाट पळयत आसता. एक एक दीस वता तशी तीं आकूळ पिकूळ जाता. पुण सखाराम कितें करतलो ? ताणें तार लेगीत केली; पुण जाप ना.

सगळयांच्यो चिटयो वांट्टां वांट्टां, आपल्याक चीट येवंक ना हाचो ताका विसर पडिल्लो. पुण आवयक अशी वाट पळयत दारांत उबी आशिल्ली पळोवन ताका याद जाली .... आजय चीट ना.... आजय चीट ना....

सायकल थांबोवन सखाराम सकयल देंवता थंय आशिल्लो, इतल्यांत आवयन विचाल्लें,

"चीट आसा रे ?"

"ना" .... ताणें मान सकयल घालून जाप दिली.

"ना ? .... ना ? .... आयजय ना ? ...." तिका पिसाविल्लेभशेन जालें. मनावेलो ताण तिज्यान सोसूं नज जालो. कशें करचें, किते करून धुवेली खबर हाडची हेंच तिका कळना जालें. दोळयांक पदर लावन ती हुडक्या हुडक्यांनी रडूंक लागली. सखाराम बेगिबेगीन तिच्या म्हज्यांत गेलो, तिका थापटूंक लागलो. तेन्ना एकदम ती ताचेर केंचवांटली." इतल्या लोकांक चिटयो वांट्टा. पाडपडिल्ल्या, एक चीट तुका घरा हाडोंक नज जाली ? म्हातारी आवय हांगा हुसक्यान मरोंक पावल्या तें तुका दिसना ? येदो व्हडलो कुरयकार तूं ! एक चीट तुज्यान म्हाका दिवं नज ?....बोटवो भरोन चिटयो घेवन गांवार हेड्टा. आनी म्हजेसरीं येतना हात हाल्यंत येता ?.... पाडा पडों तुजें !"

आपुण किते उलयता तेंच तिका समजनासलें. धुवेच्या हुसक्यान ती पिसाविल्ली. दोळयांतल्यान दुकां व्हांवत आशिल्लीं. आनी भयणीची चीट येवंक ना हो आपलोच गुन्यांव जाल्लेवरी तोंड करून सखाराम मोन्यानी आवयक थापटीत उबो आशिल्लो !

❦ ❦

## ३. मास्तर म्हणटा....

चड रात जावंक नाशिल्ली; पुण काळोख मात उपट्ट भरिल्लो. मळभांत एकूय नखेत्र दिसनाशिल्लें. चुकिल्लो माकिल्लो काजुलो लेगीत खंयच लिकलिक नाशिल्लो. पावसांत ओलीं जाल्लीं झाडां वारो येतकीर आंग शिरशिरायत उदका थेमे फाफुडटालीं. सगली रातच भिजिल्ल्या सुकण्यावरी कुडकुडूंक लागिल्ली. अमृत्याचे खोपीच्या दारांतल्यान इल्लो इल्लोसो उजवाड भायर सरतालो. रान्नीर पेजेचो बडकुलो उडोवन अमृतें बशिल्लें. शेवग्यान आतांच तांदूळ हाडून दिल्ले. तांदूळ हाडून उडयले आनी तो खुशाली वांगडा भायर सल्लो. अशें रातीचें भायर सल्लेबगर पोट भरनाशिल्लें. आयचो दीस गेलो, फाल्यांचो कसो वतलो हें येवजितनाच रात सरताली. तरी पेद्रू भाटकार, शांबा भाटकार हांचीं भाटां, कुळा-गरां आशिल्लीं म्हणून माणसुकी ! शेवगो केन्नाय रातीचो भायर सल्लो म्हणटकीर धा–वीस तरी नाल्ल हाडटालो. ते विकतकीर चार पांच दीस चिंता उरनाशिल्ली. आज शेवगो गेला खरो; पुण कालच शांबा भाटकारान नाल्लांचो पाडो केला, म्हणटकीर आज मेळ्ळयार आडसरां मेळत. नाका आशिल्लीं कामां; पुण पोटाक लागून करचीं पडटात. अमृत्याचे तकलेंत तरेतरेचे विचार येत आशिल्ले.

भायले कुडींत 'व्हडलो'–धा वर्सांचो पूत अभ्यासाक बशिल्लो. धाकलीं तिगां जमनीर लोळटालीं. 'व्हडल्या' फाटलो कुरुट. शाळेंत वचप ताका कशेंच मानवना. गोफीण घेवन दीसभर तो हेडत आसता. लोकांलीं तोरां धोडाय, पेरां तोड अशें करीत दीस सारता. कितलेंय माल्ल्यार लेगीत ताका लागना. ताजे फाटलें शेंवतू आनी बाबलो. बाबलो तीन वर्सांचो. पांच वर्सांचें शेंवतू दीसभर ताका सांबाळटा. 'व्हडलो' मातसो वेगळो. त्या तिगांभशेन धुल्ला–मातयेंत लोळप ताका मानवना. अभ्यासाक तो पातयेना. मास्तर म्हळयार ताचो देव. दीसभर तो मास्तराच्यो खबरी अमृत्याक सांगत आसता. 'मास्तर अशें म्हणटा.... मास्तर तशें म्हणटा....' शेवग्यालीं म्हेळकीं लोळकीं खोमसां पळोवन तो आव-यक सांगत रावता, 'आमचो मास्तर धर्यीफुल्ल खोमसां घालता.' एक दीस

अमृत्यान विचाल्लें," मास्तराचीं खोमसां कशीं म्हेळटलीं ? त्येका शेतांत वैचें पडना. " व्हडल्यान कांयंच जाप दिली ना. पुण मास्तर 'धर्यीफुल्ल' खोमसां घालता म्हुण जाताली ती व्हडविकाय उणी जाली ना.

अभ्यास करतना व्हडल्यान मान वयर केली. बाबलो आनी शेंवतू जमनीर लोळटालीं. पान्यार एक पिसोळें येवन बशिल्लें, कुश्ट ताका धरचे खातीर ल्हवूच मुखार सरतालो; पुण ताचो हात लागचे पयलींच पिसोळें थंयचें उडलें. व्हडल्याक स्सू जालें. तो परत तकली सकयल घालता म्हणसर बाबलो उठलो. दाव्या कोनशाक गळटालें म्हणून अमृत्यान थंय कोलसुली दवरिल्ली. लुटू लुटू चलत बाबलो थंय गेलो. आनी सूऽऽ करून ताणें तातूंत धार सोडली.

" आवो ऽऽ " 'व्हडल्यान' बोवाळ केलो. " बाबल्याक चोय कोळसुलेंत मुतलो..."

गाळी मारीत अमृतं भायर आयलें. बाबल्याचेर चार धपके घालून ताणें ती कोळसुली उखल्ली, भायर व्हरून ओतली आनी फडफडत परत आशिल्ली थंय हाडून दवल्ली. भितर वतना रडटल्या बाबल्याचेर परत दोन थापटां फुलोवंक तें विसल्लें ना.

'व्हडलो' परत अभ्यास करूंक लागलो. बाबलो रडटालो आनी बाकीचीं दोगां ताका चाळयतालीं. त्या बोवाळाक लागून ' व्हडल्या ' चीं गणितां चुकूंक लागलीं.

" बोगी रावात पयलीं..." तो तिडकूंक लागलो. एकलो रडटा, दुसरो चाळयता, तिसरो तिडकता ! अमृत्याची तकली कणकणूंक लागली. बुडकुल्यांत दोवलो घुवंडावन ताणें पेजेचीं कुर्यां वयर काडलीं. एक गोटो दामून पळयलो आनी रान्नीवयलो बुडकुलो सकयल देंवयलो. दोणांतल्यो दोन आंबल्यो आशिल्ल्यो. तांचे चार कुडके करून ताणें भरण्यांक उलो माल्लो. चौगांयजाणां धांवत भितर आयलीं. सगल्यांकूच भूक लागिल्ली; पुण भूक लागली म्हूण सांगल्यार आवय मारता, हें धाकलो बाबलो सोडून जाणा आशिल्लो. देखूनच येदोळसावन तीं भायर खेळत आशिल्लीं. पेजेच्यो पोंवल्यो तांच्यामुखार दवरून अमृत्यान आंवले कुडके पेजेंत उडयले. चौगांयजाणां हुनहुनीत पेज जेवंक लागलीं.

" आवो ऽऽ, पेज बरी ऽऽ लागता. " कुश्ट सांगूंक लागलो.

अमृत्यानें हड्डें भरून आयलें. पोरांक कालच्यान उपास पडिल्लो. दनपरां दोन

भाकऱ्यो चौगांक वांटून दिवन तें कपलाक हात लावन बशिल्लें. शेवग्यान इतले तरी तांदूळ हाडून दिले म्हुण माणमुकी ! नाजाल्यार भरग्यांक थातारता म्हणसर ताका नाका जीव जावचेलो. रात्तीर पेज शिजता हे उबेर भरगीं इतलो वेळ भायर बशिल्लीं. फकत पेज आनी आंवले कुडको ! तीच बरी ऽ ऽ लागता खंय पोराक. अमृत्याचे दोळे भल्ले.

"बरी लागता मरे ? जेय तर..." मोवसाणेन ताणें म्हळें. 'जेय तर पोटभर' अशें म्हणचें ताच्या ओंठार आयिल्लें. पुण बडकुल्यांत कितें उरिल्लें ? शेवगो रातचो केन्ना घरा येत सांगूंक येना. ताच्यापुरतींच कुयां उरिल्लीं. अमृत्याक तर फकत निवळ पिवनच रात काडूंक जाय आशिल्ली.

"आवो..." 'व्हडल्यान' उलो मार्ल्लो. अमृत्यान कच्च करून आंग काडलें. तो पेज मागत म्हुण तें कांचवेल्लेवरी जालें. पुण व्हडलो समजीक. वाडटा ताजे-वयर केन्नाच मागना. भूक गेली ना जाल्यार हळूच मागीलदारांतले बांयचेर वचून उदक पिता. अमृतें सगलें पळयता. पुण कितें करतलें ? व्हडलो सामको वेगळोच जाला. ताचेकडेन कशें वागचें तेंच केन्ना केन्ना अमृत्याक कळना. बाकीच्या तिगांय-परस ताका व्हडल्याची मातशी चड माया दिसता. इल्लोसो शाब्बाचो कुडको आसल्यार तें व्हडल्याचेंच खोम्रीस शावू लावन मास्तराच्या खोमसाभशेन धवेंफुल्ल करचेलो प्रयत्न करता.

"आवो..." व्हडल्यान परतो उलो मार्ल्लो. "आयज शाळेंत मजा जाली."

कुरट आनी शेंवतू तोंडां उगडीं उडोवन 'व्हडलो' कसली मजा सांगतलो काय म्हुण ताका पळयत रावलीं. व्हडल्याचे शाळेंतली मजा आनी कितें आय-कुपाची ? अमृत्यान पेजेचो बुडकुलो धांपून दवल्लो आनी म्हळें," जेय तूं पयलीं."

"आवो, मजा आयक. आयज शाळेंत एका चेड्यान कोणाली पेणसील चोल्ली."

"चोरी..." अमृतें आपल्याच कामांत.

"चोरी कितें ? मास्तर म्हणटा, खोटं कधीं बोलूं नये. चोरी कधीं करूं नये आयकता मगो आवो ?"

"कितें म्हणटा रे तूं ?" अमृतें अुबगलें.

"आमचो मास्तर म्हणटा, फटी केन्नाच मारच्यो न्हूं. लोकांलें केन्नाच

चोरचें न्हूं, चोरप म्हणटात तें साप वायट...."

" पाड पडलें तुज्या मास्तराचें ! त्येका कितें कळटा ? "

" आमच्या मास्तराक सगलें कळटा." व्हडल्यान व्हडविकेन सांगलें. " तो केन्नाच फट उलयना; गणितां एका मिनटांत सोडयता; पाढे घडघडीत म्हणटा, धर्यीफुल्ल खोमसां घालता.... "

मास्तराचे यादीन ' व्हडल्या ' लें तोंड फुल्लें. शाळेंतल्या त्या भुरग्याक ' चोर, चोर ' म्हणून सगळयांनी कसो चाळयलो तें तो आवयक सांगूंक लागलो.

बाबलो जेवता थंयच झेमेवंक लागिल्लो. शेंवतू ताका घेवन भायर गेलें. कुश्ट मात ' व्हडलो ' आनीक कसलीय मजा सांगत काय म्हणून थंयच बसून रावलो.

" बाप्पा खंय गे आवो ?.... " निवळ पिवन जातकीर ' व्हडल्या 'न विचाल्लें.

ताका जाप दिनासतना अमृत्यान पोंवल्यो उखल्ल्यो. ' व्हडल्या 'क सगल्यो पंचायती ! तो मास्तर एक मेळ्ळा त्येका. नाका आसलेलें घालता त्येच्या बोडांत....

" आवो, बाप्पा खंयं ? " व्हडल्यान परथून विचाल्लें.

" रायगेर वावराक गेला तो. " अमृत्यान ' व्हडल्या 'ची नदर चुकयत म्हळें.

" येदे रातीको ?..."

" बाप्पा येदोळ बेबद्या खुशाली वांगडा वैतालो; हांवें देखला. " कुश्टान म्हळें.

" बेबद्या खुशाली वांगडा ? " ' व्हडल्या 'न विचाल्लें. " मास्तर म्हणटा, सोरो पियेवप वायट.... "

अमृत्याक तिडक माल्ली. " तुजो मास्तर कितें बरें म्हणटा रे ? हें वायट, तें वायट ! फाल्यां इचार त्येका, कितें बरें काय म्हणोन ? आमच्यासारक्या गरिबांक सगलें वायटच करोचें पडटा. दुडवांकार करीत तें बरें ! "

आवय कितें म्हणटा तें व्हडल्याक कळ्ळेंच ना. ' व्हडलो ' आनी कुश्ट निवळ पिवन भायर वतकीर अमृत्यान चिमणी पालयली आनी तें भायले कुडींत आयलें. बाबलो आनी शेंवतू जमनीरच न्हिदून पडिल्लीं. तांकां ताणें कांबळया फटयार हाडून घालीं. बाबलो न्हिदांतच शियान कुडकुडूंक लागलो. तांचेर पांगरुण

घालतलें म्हळयार कांयच नाशिल्लें. 'व्हडलो' पुस्तकां दप्तरांत भरतालो. '...मास्तर म्हणटा लोकालें चोरोचें न्हूं....' अमृत्याक ताच्या उतरांचो उगडास आयलो. ताका दिसलें, व्हडल्याक सांगचें, तुज्या मास्तराक इचार, दोन दोन दीस उपास काडपी, भूक मारून दीस सारपी, हातरुण पांगरुण नासतना न्हिदपी लोकांनी चोरिनासतना कशे दीस काडचे? पुण तें ओगी रावलें. व्हडल्यालें उलोवणें ताका लटीक दिसना. पुण तशें वागूंक गेल्यार ह्या संवसारांत दीस काडूं येता?

सगलो दीस वावर करून शेवगो चार पांच रुपया घरा हाडटा. काम मेळ्ळयार बरें आसा; नाजाल्यार उपास! 'व्हडलो' भूक चिड्डून रावता; पुण धाकलीं तिगां परथू परथून रांदचे कुडींत येवन बेजार करतात. तांच्या ताळयार कितें घालप? चड उपास जावंक लागल म्हणटकीर मागीर शेवग्याक रातीचो भायर सरचोच पडटा..बेबदो खुशाली आनी तो....! अमृत्यान जांभय दिली आनी चिमणी पालयली. बाबल्याक वेंगेंत घेवन तें हातुणार पडलें. पुण ताका न्हिदच येना जाली. शेवग्याची वाट पळयत तें येवजूंक लागलें. 'व्हडल्या'क शाळेंत मेळटा ती देख बरी काय वायट? आपल्यासारक्या गरिबाच्या घरांत उपकर पडचेली काय कितें? शेवग्यालें म्हेळकें खोमीस पळोवन तो मास्तराच्या धव्या-फुल्ल खोमसाची गजाल सांगता. ताका सगळें नितळ जाय. पयर सोयरूल्या बापायन सोरो पियेवन सोयरूक आनी घरांतल्यांक बरेंच बडयलें म्हुण 'व्हडलो' भियेवन बशिल्लो. आपल्याक वेंग मारून म्हणूंक लागलो, 'आवय, सैरुलो बाप्पा बरो न्हूं. तो सोरो पियेता. मास्तर म्हणटा, सोरो पियेवप वायट!' तरी बरें, शेवगो सोरो पियेना. अमृत्याक मातशें सू जालें. 'व्हडल्याचो' शाळेंत सदांच पयलो नंबर येता म्हुण शेवग्याक केदी व्हडवीक दिसता! पुण अमृत्याक केन्ना केन्ना व्हडल्याचो भंय दिसता. धवेंफुल्ल खोमीस घालपी त्या मास्तराचे देखीखाल रावल्यार आनीक थोडयाच दिसांनीं व्हडलो आपले खोपींत सोबचेलो ना, हें चिंतून ताका दिसता, व्हडल्याक शाळेंतलो काडचो. पुण ताणें तशें म्हळयार शेवगो ताचेर धेंगशेता. 'व्हडलो' आमचें नांव वयर काडटलो, अशें म्हणटना शेवग्याचे दोळे लिकलिकतात. पुण शाळेंत वचतसावन 'व्हडलो' मातसो पयसावला हें अमृत्याक जाणवता. सांगूंक मात जमना. येवजितां येवजितां

केन्ना झेम लागली तीच अमृत्याक कळ्ळी ना.

कोंब्या सादार तें जागें जालें. शेवगो आजून येवंक नाशिल्लो. येदो वेळ कित्याक जालो काय त्येका ? अशें चिंतीत अमृतें कामाक लागलें. तें बांयचें उदक काडटालें, इतले म्हणसर मोगऱ्यालो शिरी धांवत आयलो.

"अमृत्या, आगो, शेवग्याक पुलिशींत व्हेला....." अमृत्याच्या हातांतली कोळसुली सुटली.

"पेद्रूभाटकाराले नाल्ल चोरोंक गेल्लो तेन्ना भाटकारान त्येका आनी खुशालीक जूस्त धल्ले आनी पुलिशींत दिले." शिरी खरशेत सांगूंक लागलो.

'व्हडलो' शाळेंत वचूंक दप्तर खांद्याक लायतालो तो थंयच घट जालो. शेवग्याक पुलिशींत व्हेला. आतां कितें जातलें ? ताका कादेयंत उडयल्यार भुरग्यांक कशें पोसप ? अमृत्याच्या दोळयांमुखार काळोख येवंक लागलो. आनी ताणें काचाबूल जावन हांबेर फोडलो. तें रडटा तें पळोवन कुश्ट, शेंवतू आनी बाबलो ताका वेंग मारून रडूंक लागलीं.

व्हडलो दप्तर हातांत घेवन उबो आशिल्लो. ताचेर नदर पडना फुडें अमृत्याचीं दुकां भितल्ले भितर जिल्लीं. 'व्हडल्यान' आयकलें ? अमृत्याक कच्च जालें. 'व्हडल्याच्या' तोंडाकडेन ताच्यान पळोवं नज जालें. भुरग्यांक कुशीन काडून तें 'व्हडल्याक' म्हऱ्यांत घेवंक फुडें सल्लें. पुण 'व्हडलो' दप्तर घट्ट धरून फाटीं सरूंक लागलो. अमृत्यान ओले नदरेन ताका पळयलें. 'व्हडल्या' चे ओंठ थरथरताले; तोंडांतल्यान उतरां फुटनासलीं. पुण ताची नदर मात रडकुरी जावन अमृत्याक विचारताली—'बाप्पान चोल्लें ? मास्तर म्हणटा....'

अमृत्याक मास्तराचो किवांटो आयलो. "मास्तर तुयें म्हाज्या चेडयाक इबाडलो ! सामको इबाडलो !" अशें म्हणून तें घसघशीत रडूंक लागलें.

✿ ✿

# ४. सोर्त

म्हाड्डू चामाराक पन्नास हजारांची सोर्त लागल्या म्हुण कानार येतकीर सगळो गांव आं ऽऽ करून आयकतच उल्लो. पयली बातमी हाडली रायून. रायू म्हळयार फोंडू विडयेकारालो चेडो. म्हाड्डून सोर्त पळयली ती ताच्याच गाडयार येवन. रायून सोर्तीचो नंबर पळयलो – ५२२२४ आनी ताची तकली घुवंक लागली. "म्हाड्डू, पापया, तुका सोर्त लागली मरे पन्नास हजारांची!" इतलीं उतरां ताच्या तोंडांतल्यान हावाशिवा करून भायर सल्ल्यांत मात, सोर्त घट्ट हड्डुयाकडेन धरून म्हाड्डून घरा धांव माल्ली आनी रायून तिठयार. घे ऽ ऽ सगळो गांवभर बोवाळ ! पयलेच फावटीं गांवांत येदी व्हडली सोर्त लागिल्ली आनी तीयबी म्हाड्डूक. कोणाक बरें दिसलें, कोणाक वायट.

गणो आल्फियाद फुलू खारविणील्या पोलक्याचो खांको कापतालो; सोर्तीची खबर आयकून ताणें खांक्याच्या जाग्यार गळो कापून उडयलो. तुको न्हायकार भर्जीं गाळटालो; म्हाड्डूली गजाल आयकून तो कितलोसोच वेळ कायलींतलो झारो भज्या पिठांतच फिरयत बसून रावलो. वेबीलीं आनव गोठयांतलें शेण वेवन घरा येताली; तेन्ना ती रायूक मेळ्ळी. "म्हाड्डू चामाराक पन्नास हजार रुपया लागले" इतलें रायून तिका सांगलां मात—"रायू, तुकां खोटो बोल्च्यो वायट संवंय रे" अशें म्हणून तिणें शेणाच्या हातान रायूचे फाटीर एक धपको घालो आनी ती तुरतुरीत घरा वचूंक लागली. रायू मात जायतो वेळ तिका, म्हाड्डूक आनी म्हाड्डूल्या पन्नास हजारांक गाळी घालीत लागिल्लें बांयेर खोमीस धुयत बसलो.

शंकरभट देवाक अभिशेक करतालो तेन्ना म्हाड्डू देवळांत येता तो ताणें पळयलो. अभिशेक जातकीर पुडवें सांबाळीत तो बेगिबेगीन गर्भकुडींतल्यान भायर आयलो. सोर्तीची खबर ताच्या कानार आयिल्लीच.

"काय म्हाड्डूबा ?" 'म्हाड्डू' फुडें 'बा' लावन भटान आपलो आदर उकतो करचेलो जाता तितलो यत्न केलो.

" कशास आलांत ? "

" देआक नमस्कार करूंक येयलेलों. "

म्हाड्डून हात जोडले. ताका प्रसाद दीत भटान म्हळें,

" तुज पन्नास हजारांची सोर्त लागली म्हणे ! "

" हय भटमाम. "

" मग ? देवाब्राह्मणास कांय करायचें मनांत आहे की नाहीं ? "

" पयशे घेयले म्हणटर पयलीं देआच्या नांवान पन्नास रुपये काडून ठेयतलों कुर्शीन. "

" पन्नास रूपये ? अरे, तुज इतके पन्नास हजार रुपये मिळाले, अन तूं देवास फक्त पन्नासच देणार ? "

" तशें न्हूं भटमाम. सोर्त काडटना हायें सांगोन घेतलेलें, सोर्त लागल्यार देआक पन्नास रुपय दितलों म्हूण. देखून आतां पन्नासच दिल्यार पुरो. " अशें म्हणून म्हाड्डून परत हात जोडले आनी तो वाटेक लागलो. शंकरभट मात फडफडत थंयच रावलो.

म्हाड्डू रघूशेटीगेर भितर सल्लो तें पळोवन ताणें रघल्याक कारेंगाद ओब्र घालां जातलें म्हुण गांव फुतफुतूंक लागलो. म्हाड्डूच्या हातांत पयशे पडले म्हणटकीर दुसऱ्या दिसाच्यान म्हाड्डूले बायलेक दोट्टी गोंट, कांकणां, भुरग्यांक सरपळयो आनी म्हाड्डूक घडयाळीचो पटो आनी खोमसाचे बुतांव करूंक सुरवात करची अशें थाल्लां म्हुण रघूशेटीनच मागीर चारचौगांक सांगलें.

शंकरभट, म्हावळू पसरकार, शाणूदाद आनी शांबाशेट तुक्याल्या हॉटेलांत च्या पीत बशिल्ले तेन्नाय बी म्हाड्डूल्योच गजाली चलिल्ल्यो.

" झालें तें बरें झालें नाहीं. सोर्त लागायचीच होती तर गांवांत काय आणखी माणसें नव्हतीं ? या म्हाड्डूसच कशास लागली ती... ? " शंकरभटान आपलें मत्त उकतें केलें. " ....अहो, काय सांगावें ? इतके पन्नास हजार रुपये मिळाले तर म्हणे देवास फक्त पन्नास रुपये देणार ! तितके तरी कशास द्यायास हवे ? तितक्या रुपयांची दारु पी म्हणावँ बसत्यांवांचे गादीर बसून ! "

" निमाणें तेंच जावचेलें आसा. सगलो पयसो सोऱ्याक वतलो. " शाणूदादान म्हळें.

" पाड पडलें त्या म्हाड्ड्चें ! नाका त्या मनशाक सोतं लागतकीर कितें बरें जातलें ? " म्हाबळून तिडकीन म्हळें आनी ' खर्रर ' करून गळयांत धरकल हाडलें. म्हाबळू आतां थू करतलो म्हणून शंकरभटान मातशी वाट पळयली; पुण म्हाबळूक खर्रर करून थू करिनासतना रावचेली भोव वायट संवय आशिल्ली. शंकरभट उलोवंक तोंड उगडटालो, इतल्यांत शांबाशेट म्हाड्डूल्या ओत्राची गजाल सांगूंक लागलो.

" कितें सांगचें शाणूदाद, हया म्हाड्डून रघल्याकडेन बायलेक दोट्टी गोंट करूंक दिल्यात न्हूं ? "

" कितें सांगता रे शेटी ? " शाणूदाद बशिल्लो तो उबो जालो. " आमच्या घरांतल्यो बायलो सोडून दुट्टी गोंट घालपी बायलो हया गांवांत मेळच्यो नात; आनी आतां हो म्हाड्डू आपले बायलेक दुट्टी गोंट घालून भोंवडायतलो ? शे-शे- शे- अशें जावंक फावना ! "

" म्हाकाय बरें दिसलें ना तें. " शांबाशेटीन म्हळें. खरें सांगचेलें म्हळयार म्हाड्डून आपल्याक सोडून रघल्याक ओत्र घालां म्हुण ताका पोटांतल्यान फूग आशिल्ली.

" पुण शाणूदाद, म्हाड्डून आपल्याले बायलेक दोट्टीच न्हय तर तिट्टी गोंट लेगीत घालून भोंवडायली, तरी आमच्यानी ताका आडावंक येना. पयशेकार जाला न्ही तो आतां ? आमी मात आसात थंयच उल्ले. " अशें म्हणून म्हाबळून खर्रर केलें. हे फावटीं मात शंकरभटाच्यान रावूं नज जालें.

" म्हाबळू , अरे, खर्रर केल्यावर थू करावें रे ! "

" कित्याक काय म्हणटा हांव ? म्हज्याच गळयांतलें म्हज्याच तोंडांत येता; मागीर हांव तें भायर उडोवं नाजाल्यार परत गिळूं, तुका कितें जालें ? "

" कितें जालें काय ? मज हळशीक वाटते ! "

" पुरो रे भटा ! तूं कितलो निवळ तें नकळो काय कितें हांव ? पयर उजव्या हातान सों ऽ ऽ करून नाक पिळ्ळें आनी तोच हात पुडव्याक पुसलो तो पळोवंक ना काय कितें हांवें ? आनी वयल्यान त्याच हातान निवेद्य बांटून सगल्या लोकांक संकश्टांत लोटलें तुवें ! " म्हाबळू ताणशेलो आनी ताणें परत ' खर्रर ' केलें. शंकरभट ओग्गी पडलो.

तुको इतलो वेळ काउंटरार बसून दांत कोरायत गजाली आयकतालो. ताका एकदम याद जाली आनी ताणें म्हळें,

" म्हाड्डू फियेट गाडी घेता अशें आयकलां हांवें. "

शाणूदादाली तकली म्हाड्डून गोंट करूंक दिल्यात हें आयकून घुंविल्ली, ती बरी निवळूंक नाशिल्ली. गाड्येची खबर आयकून ती चडच घुंवली. ठो करून ताणें हातांतलें कोप मेजार आपटिलें. कोपांतलो घोंटभर च्या फट् करून म्हाबळूच्या तोंडार उसळ्ळो. म्हाबळू थू थू करीत तोंड पुसूंक लागलो.

'तुज थू करावें लागलेंच कीं नाहीं ?' अशे नदरेन शंकरभटान म्हाबळूक पळयलें आनी शंकरभटाची नदर वळखून म्हाबळून तिडकीन शाणूदादाक पळयलें.

आपलो उरटो च्या म्हाबळूचेर उसळ्ळो हें शाणूदादाच्या लक्षांतच आयलें ना. तुको मात कोप फुटलें काय कितें हे चिंतेन सकयल वयर आयिल्लो.

" फियेट गाडी घेता खंय म्हाड्डू ? आमी हांगांच सुकले ! फाल्यां हो फर्रर्र करून मोटारींतल्यान भोंवतलो आनी आमी दांगो ताणीत चलता थंयच उरतले ! " शाणूदाद करटी जालो.

" मोटार घ्यायास म्हाड्डू पंचवीस तीस.हजार रुपये खर्च करणार आनी देवाधर्मासाठीं फक्त पन्नास रुपये ! " शंकरभट भोंवन भोंवन पन्नास रुपयांचेर येतालो. देवाखातीर पन्नास रुपये तरी म्हणिल्ले; पुण ब्राह्मणाखातीर मात कांयच ना हाची ताका चड तिडक आयिल्ली.

" खरें सांगतां शाणूदाद, अशा लोकांस सोर्त लागणें बरें नव्हे. देवाधर्माचें भरपूर करणाऱ्यास तरी सोर्त लागायची होती. "

" हय. शाणूदादासारक्या मनशाक तरी ती फावताली. " शांबाशेटीन वयल्या-वयर म्हळें.

तें आयकून शंकरभटान आंवडो घोंटलो. शाणूदादापरस म्हाड्डू पत्करलो अशें ताच्या मनांत येवन गेलें. चारचौगांहुजीर देवामुखावयल्या ताटांत रुपयाची नोट उडोवन मागीर सगळेजाण वतकीर "भटमाम, हांवें येदोळ मोड ना म्हुण रुपयाची नोट घाल्ली ताटांत. तातूंतले पांच पयशे दवरून उरिल्ले मातशे परत दियात पळोवया ! " अशें म्हणपी शाणूदाद देवधर्माचेर कितलो खर्च करतलो आशिल्लो हो एक दुबावच आशिल्लो; पुण शंकरभटान कांय म्हळें ना.

च्याचो निमाणो घोंट सोंपोवन म्हाबळून कोप सकयल दवल्लें. ताचो पसरो लुकसानीत चलतालो. जायत्यो जिनसो सोंपल्यात म्हुण ताका कालच व्हडल्या चल्यान सांगिल्लें; पुण हाडटलो जाल्यार दुडू नाकात ? म्हाड्डूक सोर्त लागली म्हुण कानार येतपसून ताका परतो परतो आपलो पसरो येवजतालो. खंयच्यान पयशे हाडप हें आपुण रातदीस चिंतता आसतना खावन पिवन मजा मारपी म्हाड्डूक मात घस्स करून पन्नास हजार मेळप, हें म्हाबळून मनाक लावन घेतिल्लें. केन्ना न्हय तो पयर मटक्याचेर रुपया लायलो जाल्यार मुद्लानशी रुपया गेलो, ही खंतय बी तो विसरूंक पावनाशिल्लो.

" जाणा शेटी, आमी पयशांची बेठीच चिंता करप. तो मेळपाचो आसल्यार आपशींच मेळटा." म्हाबळून मनांतलें उलोवन दाखयलें आनी विसरनासतना 'खर्रर' केलें.

" हें मात्र एकदम खरें हो," शंकरभटान खर्रर कडेन दुर्लक्ष करून म्हळें. " आम्ही उगीच चिंता करायची." भटाच्या लग्नाक जायतीं वर्सां जाल्लीं; पुण बायलेल्या आंगार एका मणयाशिवाय आनीक भांगर घाल्चेली तांक नाशिल्ली. फाल्यां चलयो व्हड जातकीर तांच्या लग्नाखातीर खर्च आसा हें येवजून येवजून भटाचे तकलेचे केंस वचूंक आयिल्ले. सोर्त ना ज़ाल्यार अशेंच कितेंय लागले-बगर आपले गांठीक पयशे जाणें शक्य ना, हें तो जाणा आशिल्लो. दर फावटीं सोर्त काडटना आपुण श्रीगणेशाक कितलें सांगून घेतां; पुण म्हाड्डूच्या पन्नास रुपयांनी जो धादोस जाता, ताचेर आपल्या सांगण्याचो मात कांयच परिणाम जायना हें मनांत येवन शंकरभटाक जायते कश्ट जाले आनी ताणें एक व्हड हुस्कार सोडलो.

"आमी देवस्पण करतात तें थंयच उल्लें आनी हो म्हाड्डू केन्नाय वर्सांतल्यान एक फावट देवाक हात जोडल्यार जोडटा, त्येका मात सोर्त लागली." शांबाशट फडफडलो.

" ओगीच देव देव करप आमी !" शाणूदाद तिडकीन उलयलो.

" सामकें खरें." म्हाबळून म्हळें आनी मागीर जीब चाबली. आजच ताणें देवाचें नांव घेवन एक सोर्त काडिल्ली. समजा, हे फावटीं तरी ती आपल्याक फुटची अशी देवाची इत्सा आसली जाल्यार आपलें हें देवाआड उलोवणें आयकून तो गुड्डीलसांव करून सोर्त दुसऱ्याक फुटयत अशें तकलेंत येवन

म्हाबळून ल्हवूच आपले पोले फोडून घतले आनी ‘ चूक जाली देवा ’ अशें मनांतल्या मनांत धा फावटीं म्हळें.

शाणूदादाची खंत मात वेगळीच आशिल्ली. ताका फकत एका नंबरान सोर्त चुकिल्ली. भोवन भोवन ताका तें येवजतालें आनी म्हाड्डूची चडच तिडक मारताली. पन्नास हजार म्हळयार थोडे जाले ? आनी ते फकत एका नंबराक लागून हातांतले वचप हाजेसारकें व्हड दुःख आशिल्लें ? रावूं नज जालें तेन्ना ताणें म्हळें,

“ जाणां म्हाबळू , सोर्त खरी म्हळयार म्हाकाच लागचेली रे ! पुण एका नंबरान चुकली. ”

तें आयकून शांबाशेटीन म्हळें, “ म्हाकाय बी जाल्यार मातशी चुकली सोर्त. निमाणें चोवीस आसा थंय जर बेचाळीस आसता आनी सुरवेक पांच आसा थंय स आसता, जाल्यार म्हाकाच लागचेली सोर्त. ”

मागीर चौगूय जाण म्हाड्डूक सोर्त कशी फावनाशिल्ली आनी आपल्याक ती मातशी कशी चुकली, हें परतें परतें सांगूंक लागले.

तांचें उलोवणें रंगार आयिल्लें, इतल्यांत रायू ताकतिकेन हॉटेलांत भितर सल्लो.

“ तुक्या, कितें सांगचें तुका ? म्हाड्डूचें नशीबच पाडा पडिल्लें ! ”

“ म्हणचे ? ” दांत कोरायता तें अर्देच उडोवन तुक्यान विचाल्लें.

“ कर्मा भोग त्येजो ! सोर्तीचो नंबर तोच; पुण शेरी चुकली न्हय रे पोराची !”

“ कितें म्हणटा रे तूं ? ” तुक्यान काउंटरावेल्यान उठत म्हळें.

“ खरें सांगतां; हांयेंनच सोर्त फुटली म्हणोन खबर हाडलेली; म्हणटकीर आतां ‘सोर्त फुटचेली; पुण मातशी जाल्यार चुकली; अशें सांगीत म्हाकाच भोंवचें पडलें ना ? ” अशें म्हणून रायू हॉटेलांतल्यान भायर सल्लो.

तुको बेगिबेगीन शाणूदादाल्या मेजाकडेन आयलो आनी ताणें रायूली बातमी तांकां सांगली. चौगूय जाण तुक्याक पळयत उल्ले. पयलीं भानार आयलो शाणूदाद. तोंडावेलो हांसो लिपयत ताणें एक हुस्कार सोडलो आनी आपल्या कोंतार चार कोपां च्यांची ऑर्डर सोडली.

मागीर चौगूय जाण ‘ म्हाड्डूक पोराक सोर्त कशी फावताली; पुण ताज्या नशिबांत ना ताका कोण कितें करतलो ! ’ हाजेर गजाली करीत रूचीन च्या पिवंक लागले.

# ५. तश्योय गाळी !

दीस माथ्यार आयलो, तरी सोयरूक ताचें भान नाशिल्लें. सकाळच्यान तो जो दोंगरार येवन बशिल्लो, तो तसोच आशिल्लो. आज फांतोडेर मोगऱ्याल्या पोटांत जावपाक लागिल्लें. ताका ऑस्पितालांत पावोवन सोयरू बद्द दोंगरावटेन शेंवटल्लो.

शेंवतुल्याची ही चवथी फावट. फाटल्या तीन फावटीं चेडवांच जाल्लीं. आतां हे फावट कोण जायत काय? चेडूं जाल्ले फावटी सोयरूलो बापूय-बाबगो- गाळींचो शिंवर घालीत घर माथ्यार घेता. कितें उलयता आनी कितें ना! सोयरू हरशीं येदो आनी येदो मानाय; पुण बापायक परतून जाप सांगपाचो ताका धीर जायना. बाबगो गाळी घालूंक लागलो म्हणटकीर तो घामाघूम जाता आनी आवय म्हऱ्यांत वचून बसता.

बाबग्याक गाळी मारूंक हरशीं तशें व्हड कारण लागना. रातचो तो सदां तांबयो घेवन बांदार वता आनी परततना गाळी भारीतच परतता– 'उजो लावंक जाय ह्या सगळ्या दुकरांक. पाड पडल्लीं बसता खिणाक तेंकतात सामकीं येवन!' अशें म्हणत तो दुकरां वांगडा तांकां पोसपी मनशांकूय चार नकसूद गाळी मारता. तशें पळोवंक गेल्यार घरांतल्या सगळ्यांक बाबग्याच्या गाळींची संवय जाल्या. पुण मोगऱ्यागेर चेडूं जातकीर तो जो अवतार करता, तो कोणा-च्यानच सोसूंक जायना. बाबग्याली बायल बाबडी कलकलून हातुणार पडटा ती कितलो तरी वेळ सारकीच जायना.

सोयरू बाबग्यालो एकलोच पूत. म्हणटकूच बाबग्याक तागेर चेडो जाल्लो जाय. त्या भायर चेडवां जातकूच ताका तिडक येवंक आनीक एक कारण आशिल्लें. बाबग्याले बायलेक आपल्या भावालें चेडूं सून म्हणून घरांत हाडचेली उमेद आशिल्ली. पुण बाबग्यान तिचें कांयच कानामनार घेवंक नाशिल्लें. आनी आतां पळोवंक गेल्यार मेवण्याल्या चेडवागेर एका फाटोफाट चार चेडे जाल्ले आनी मोगऱ्याक मात सगळीं चेडवांच! पुण आपल्याकूच लागून मोगरें घरांत येवंक पावलें, हें बाबगो तकलेंतच घेना आशिल्लो. चेडूं जालें, इतलें कानार

आयलें म्हणटकीर दोळे तांबडे करीत तो सोयरुच्या आंगार वतालो. '– तरी तुका सांगतालों, ह्या चेडवा वांगडा लगीन जावं नाका म्हणून.... हेचे आवयगेर चार चेडवां, मावशेगेर पांच चेडवां, आज्जेगेर स चेडवां; इतलेंच न्हूं तर हेच्या शेजरा एक खारवीण रावता, तिगेर लेगीत सगळीं चेडवांच ! आतां हेगेर धा पुण चेडवां जालेबगर रावचेलीं नात ! ' अशें म्हणून तो मोगऱ्याचे आवयक, मावशेक, आज्जेक आनी ते खारविणीक गाळी मारीत रावतालो.

' चेडो काय चेडूं तें आपल्या हातांत आसता काय म्हणून बापायक इचार एक फावट ' अशें मोगऱ्यान घोवाक जायत्या फावटीं सांगून पळयिल्लें; पुण बाबग्या मुखार सोयरू गर्भगळीत जाता. तोंडांतल्यान एक उतर लेगीत फुटना.

मोगरें गुरवार आसतना दर फावटीं सोयरूली न्हीद ना जाता. चेडूंच जायना मूं ? हे चिंतेन तो अर्दो जाता. आजय तो मनांतल्यान खपखपला. खरें म्हळयार हेय खेप चेडूंच हें तो जाणा !

पयर तो आनी आवय घाडयागेर वचून आयिल्लीं. घाडयान हेय फावटीं चेडूंच म्हणून सांगिल्लें. कुंभारां वाडयार एकलो कोण आसो काडटा. ताका प्रस्न घाल्लो तेन्ना ताणें लेगीत चेडूंच म्हणून सांगिल्लें. चेडो जालो जाल्यार अशें करतां....तशें करतां.... म्हणून आवयन आनी मोगऱ्यान आंगोवन घेतिल्लें. दर फावटीं तीं अशींच आंगोवन घेतात; पुण मागीर बाबग्याच्या गाळींच्या हुंवारांत घुसमटचेलीं घुसमट्टातच !

आज मोगऱ्याल्या पोटांत जावंक लागतकीर बाबग्याच्या गाळींचे यादीन सोयरूक खपखपलें. आनी देखूनच मोगऱ्याक ऑस्पितालांत पावोवन तो दोंगरार लिपून बशिल्लो. रात जालेबगर तो घरा वचचो नाशिल्लो. गाळींचो भार मातसो उणो जातकीर पेलपाक इल्लो तरी सोपो, अशें ताणें चिंतिल्लें. ' हेका हांयें सांगलेलेंच... हेका हांयें सांगलेलेंच.... ' अशें म्हणून ताका बोटां दाखयत बाबगो आडवो उबो नाचत गाळी मारूंक लागतकीर सोयरुक आपणें व्हडलो गुन्यांव केल्लेवरी जातालें.

बोल्सांत हात घालून सोयरून विडी काडून पेटयली आनी दोळे धांपून थंय कितें चल्लां आसत तें तो येवजूंक लागलो....

....फांतोडेर पोटांत जावंक लागिल्लें म्हणटकीर येन्नासर सुटलां आसतलें. चेडूं

काय चेडो ? चेडो बी काय ? ताच्या मनांत आशा लिकलिकून गेली. पुण मागीर ताका घाडयाच्या उतरांचो उगडास आयलो. ‘ चार चेडवां जातकीच मागीर चेडो जायत. ’

‘ चाऽऽर चेडवां ! ! ’ हुस्कार सोडून सोयरू फुडें चितूंक लागलो. कोणेय तरी घरा वचून बाबग्याक रेकाद दिलाच जातलो. परतून चेडूंच जालें हें कळटकूच बाबग्याच्या रागाक शीम उरची ना. ऑशिपतालांत वचून गाळी मारूंक मेळना म्हणून सांग; नाजाल्यार थंय वचून दोतोराक आनी नर्सीक लेगीत गाळी मारूंक बाबगो उणो ना !

दीस सकयल वचूंक लागला; सोयरूक भूक लागल्या; पुण घरा वचचेलो धीर जायना. रातीच्या काळखांत गाळी खावंक सोप्यो. दिसाच्या उजवाडांत त्यो इल्ल्यो चड झोंबतात. देखूनच तिळसांज जातकीर तो घरचे वाटेक लागतलो.

आपल्याक सोदूंक बाबगो कोणाकूय तरी शेतांत वा तिठयार बी धाडटलो, हें सोयरू जाणा. आपुण खंयच ना हें पळोवन तो तकली तापोवन घेतलो हेंय तो जाणा. मोगरें ऑशिपतालांत आसतना आपणें अशें हांगा बसप न्हय, हेंय ताचे तकलेंत येवन गेलां. पुण इतलें सगलें आसूनय दोंगर देंवन घरा वचूंक ताचीं पावलां फुडें सरनात.

तिळसांज जायत आयली तेन्ना तो जड जाल्ल्या आंगान उठलो आनी ल्हवू ल्हवू दोंगर देंवंक लागलो. मानशेर पावलो तसो तो परतो थामलो. एक विडी पेटोवन ती सोंप म्हणसर थंयच उबो रावलो. तितलोच आनीक मातसो वेळ ! पयलीं ऑशिपतालाकडेन वचून येवचें अशें ताका दिसलें. पुण सकाळच्यान पोटांत कांयच नाशिल्ल्यान ताका गिरगिरिल्लेवरी जातालें. फुडल्या दारांतल्यान भितर सरचेलो धीर ताका जालो ना. जाग घेत तो मागीलदाराकडेन पावलो. तेन्नाच बावग्यान घाल्ल्यो चार सणसणीत गाळी ताच्या कानार पडल्यो.

शेर्त चेडूंच जालां ! सोयरूक मातय दुबाव उल्लो ना. भितर सरचें काय ना हें येवजीत तो भायर काळखांतच घुटमळत आशिल्लो, इतल्यांत बाबग्यान दार उगडलें. ताच्या हातांतले चिमणेचो उजवाड भायल्या पोरसांत पडलो.

“ कोण रे थंय तो ? ”

सोयरून आंवंडो घोंटलो.

" कोण काय म्हणटां ?–"

" हांव तो....सोयरू ..."

" सोयरू ? कर्मकट्ट्या, आतां येयला ? फांतोडेच्यान खंय मरोन पडलेलो आतां जितो जावन येयला तो ? " अशी सुरवात करून बाबग्यान आपल्यालो शिंवर घालूंक कोमेस केलें. येदोळ म्हणसर गाळींचो भार मातसो देंवला जातलो, हो सोयरूचो अदमास सामको चुकिल्लो.

बापायचीय म्हणून चूक ना. एका फाटोफाट एक चार चेडवां जातकीर कोणाकूय जाल्यार वीटच येतलो, अशें मनांत हाडून तो सकयल मान घालून रावलो.

" पाड पडलेल्या, बायल मेली तुजी !– "

सोयरून कच्च करून आंग काडलें. मोगरें मेलें ? ताच्या काळजांत कल्ल जालें. थरथरतें नदरेन ताणें बाबग्याक पळयलें.

"–ना. मरोंक ना. मेल्ली जाल्यार लेगीत तुका कळची नासली. फांतोडेच्यान तूंच खंयतरी मरोन पडलेलो न्हूं ! "

....मोगरें जितें आसा. जावं ! तातूंकच सोयरूक सूऽऽ जालें. गाळी उण्यो आयकुंच्यो पडच्यो म्हुण आपुण रातीचो आयलों; पुण कांय एक फायदो जालो ना. चेडो जाल्लो जाल्यार घडये बाबगो गाळी मारचेलो विसरून वचत आशिल्लो काय ? सोयरूच्या मनांत येवन गेलें. ताळो खरवडावन, गाळी मारून बाबगो खरशेलो. भुकेच्या पोटार गाळी खावन सोयरूय खरशेलो. रांदचे कुडींत शेंवतुलें भाकरी थापतालें. ताचो वास नाकांत वचूंक लागलो तसो सोयरू ल्हवूच रांदचे कुडींत गेलो आनी आवय म्हऱ्यांत बसलो.

" खंय रे पोरा तूं सकाळ सावन ? सगल्याक सोदोंक धाडलो–"

"सोदोंक आनी कित्याक धाडोंक जाय आसलो ?" सोयरून बेजारून विचाल्लें. ( '...गाळीच खावंक मूं ? ' )

" सोदोंक कित्याक धाडोंक जाय आसलो काय म्हणटा ? " रांदचे कुडीच्या दारांत उबो रावन बाबगो ताणशेलो. " कर्मकट्टोच तूं ! जावंक फाव नासलो; पुण चेडो जाला तुका ! आनीक धा तरी चेडवां जावंक जाये आसलीं. तिठयार सोदोंक धाडलो, मानशेर पळोवन येयलों, शेतार पावठ माल्ली; पुण खंयच ना. खंय शेण खावोंच्याक गेल्लो ? इतल्यो फोगोटयो लायल्यो; चेडो जाला म्हणोन

सगल्यांक सांगोन धाडलें; पुण तूं मात उंवाळिल्लो घरादाराक ना ! आवटग्या...."

....चेडो जाला ? सोयरूक खरेंच दिसना जालें. ताणें ल्हवूच आवयच्या तोंडाकडेन पळयलें.

" खरेंच गे आवो ? " ताणें ल्हवूच विचाल्लें.

आवयन हांसून मान हालयली.

" चेडो ?—"

" हय रे पोरा...."

रांदचेकुडीच्या दारांत उबो रावन बाबगो गाळी घालीतच आशिल्लो—सामको किंवांटयान. पुण हरशीं बाबग्याच्या गाळींनी खासावीस जावपी सोयरू आतां मात मुमुरकोच हांसत त्यो गाळी खोसयेन आयकूंक लागलो...तान भूक विसरून...!

❦ ❦

## ६. गायंडोळ

पेद्रूलो जॉन, म्हाल्यालो शिरी, धाकू देसायालो बाबुसो आनी शेख हुसेनालो युसूफ—चौगूयजाण आलमपेड्डुयार! चौगांनीय शिकप अर्घ्यारूच सोडलां. दीसभर सांकवार बसून ते विडयो–सिगारां फुसफुसायत आसतात. केन्ना केन्नाय गादयेर वचून कोप मारतात. चेडवांचीं फकाणां करतात. सगलो गांव तांका हाताभायर गेल्ले भुरगे म्हणून वळखता.

हालीं हालींच नारायण भटालो पंढरीय बी तांच्या वांगडा दिसूंक लागिल्लो. जॉनान दिल्ल्या 'सिमल्या'ची रूच निकतोच तो घेवंक शिकिल्लो. 'नाका नाका' म्हणत युसुफालें पानय बी ताणें चाबडावन पळयल्लें. आनी एक दीस सगल्यांनी ताका फोर्सान इनासाले गादयेर व्हेलो. पंढरी सामको घामेलो.

"मज नको हं. आदींच सांगतों. आईस कळ्ळें तर ती जीव सोडेल."

"पुरो रे पंढरी. कोण सोडी ना जीव. त्या भायर आईक कोण सांगूंक वतलो तुजे?" बाबुशान विचाल्लें.

"सांगायास कशास हवें? घाण येणार नव्हे तोंडास?"

"तुज्या तोंडाची घाण घेवंक बायल कांय ना तुका!" शिरीन दोळो मारीत म्हळें आनी बाकीचे सगले खें खें करून हांसले. पंढरी लजेन तांबडो जालो.

"मज नकोच. गादयेर बशिल्ला बघितला तर अण्णा घरांत घ्यायाचे नाहींत."

"पिसो मरे तूं पंढरी! आरे, येदो व्हडलो शिवाजी म्हाराज गादयेर बसलो; ताका कोणे घरांतलो भायर धांवडायलोच ना." बाबुशान आर्ग्युमेंट केलो.

"कांय तरीच काय? ती गादी कसली आणि ही गादी कसली?" बाबुशान शिवाजीचो अपमान केलो अशें समजून पंढरीन रागान ताका पळयलें.

"पोंडोरी, तूं बेश्टोच भिताय. एक कोप माल्ल्यार कांयंचि जावपा ना."

जॉनान पंढरील्या हाताक धल्लो आनी ताका ओडीत तो चलूंक लागलो. फाटल्यान युसूफ ताका धुकलीत रावलो. पांचूय जाण इनासाले गादयेर पावले

तेन्ना पंढरी सामको अर्दो जाल्लो. एका कोनशाक आंग चोरून तो बसलो' जॉनान ताचे मुखार धरिल्ल्या 'सिमला' च्या पाकिटांतले सिगार काडूंक लेगीत ताका शक्त ना जाली. बाबुशाल्या आडसाक रावन तो घाम पुसूंक लागलो.

शिरीन पंढरी मुखार कोप धल्लें. पंढरीचो हात फुडें सल्लो ना. तें पळोवन शिरीन बळयांच कोप ताच्या तोंडाक लायलें. पुण पंढरी दाडवणां धरिल्ले भशेन बसून रावलो.

"ये साला ऐसाच करेगा. मेळत ते काममें कायकू डरता है रे भटा ?" पंढरीकडेन तिरस्कारान पळयत युसूफ पच्च करून जनेला भायर थुकलो.

"कांकणां घाल रे हातांत !" बाबुशान घोंट मारीत म्हळें. तांच्या सगल्यांच्या तोंडांवयली निर्भत्सना पळोवन पंढरीक सामकी लज जाली. आपुणच हांचेमदीं असलो भिवकुरो अशें दिसून ताणें घामेल्ल्या हातान कोप उखल्लें आनी घोंट माल्लो. घाणीन ताका धवळिल्ले भशेन जालें. बाकीचे चौगूयजाण ताका पळयत आशिल्ले. गळयाकडेन आयिल्लो घोंट ताणें गिळ्ळो आनी पर्थून कोप उखल्लें. ताचें अर्दें कोप आसतना बाकिच्यांनी आनीक एक कोप घेतलें.

"बेगीन खल्लास कर बे. आनीक एक घेवचें आसा खबर ना तुका ?" युसुफान विचाल्लें. पंढरीचेर आकांत आयलो. एक कोप सोपयता म्हणसर नाका शेवट. दुसरें कशें ओतप काय भितर ? कसली बुद्द आयली आनी हांच्या नादाक लागलों अशें पंढरीक दिसलें; पुण मागीर ताच्याच मनाक खालें.

जॉन गिरेस्तालो चेडो. आत्र्या–पयन्यान तो तांकां हॉटेलांत व्हरून खावंक घालतालो. सिगारां फुकट दितालो. फाटल्या पंदरा दिसांत दोन सिनेमा दाखयले. हें सगलें पंढरीक आपणाल्या बोल्सांतले दुडू मोडून करप कांय शक्य नाशिल्लें. सिगार तरी ताका खंय आवडटालें ? पुण आतां दिसाक एक तरी सिगार फुसकायले बगर जीव धादोस जायना. हें सगलें मनांत येवन पंढरीन हातांतलें कोप घट्ट धल्लें आनी नेट्टान रितें केलें. तकली मातशी जड जाल्ले वरी ताका दिसली. जॉन ताचे खातीर दुसरें कोप मागयतालो; पुण बाबुशान ताका आडायलो. "आसूं रे. एकेच फावटीन नाका."

मागीर ते सगले थंयच्यान भायर सल्ले आनी सांकवार येवन बसले. युसुफान दिल्लें पान पंढरीन तोंडांत घालें.

" आतां घाण नहीं आयेगी रे." युसुफान सांगलें, तशीं पंढरीक मातशें सू जालें.

" जाणा मरे शिरी– " बाबुशान सिग़ार पेटयत म्हळें, "—काल घरा व्हडलें केस्तांव जालें. "

केस्तांव म्हणटकीर सगले जाण बाबुशाल्या तोंडाक पळोवंक लागले.

" घर सोडून जानेकू कहा क्या रे बाप्पायन ? " युसूफ पच्च करून थुकलो.

बाबुशान मान हालयत ' हय ' म्हळें.

" साले बुढ्ढे लोग सबके सब ××× " गाळी मारीत युसूफ पचापच थकूंक लागलो. पंढरी मातसो धवो जालो.

" घर सोडून जायास सांगितलें ? मग तूं जाणार कोठें ? "

" हांव कोठें जातों ? हांव कितें तुजे भशेन पेज हय रे पंढरी ? हांवें म्हळें, ना वचचो. हांव रावतां तें घर बांदिल्लें म्हज्या पणज्यान. भाटां-बेसां आसातच जाणटेल्यांलीं; तांचेर हांव जियेतां. म्हाका वच म्हणपाचो बापायक दिरेतच ना. "

" वंडरफूल ! " जॉनान खोशी जावन बाबुशाले फाटीर धपको घालो " –बोड आहा रे तुका बाबुशा ! "

" हो पंढरी जाल्यार गायंडोळ कसो जावन बापायच्या पांयांर लोळटलो आसलो. " शिरीन म्हळें. युसुफान कांयंच म्हळें ना. तो पंढरी कडेन पळयत बेश्टोच थुकलो. पुण ताची नदर आनी तें थुकप हाका लागून पंढरीक आपुण खरेलोच गायंडोळ जावन सांकवार पडलां कशें दिसलें. युसुफाची नदर चुकोवन तो उदकांत पळोवंक लागलो आनी आपल्याक घरांतल्यान धांवडायल्यार आपलें कशें जातलें हें चिंतूंक लागलो. भटपण करप आपल्याक जमना. चार फावटीं एस्. एस्. सी. क बसून लेगीत पास जालों ना. अण्णा हेवटेन तेवटेन उतर घालून आपले नोकरेची खटपट करता. अशा वेळार आपुण हांच्या नादाक लागलां हें बरें काय वायट तें पंढरीक समजना जालें. आपुण गादयेर गेल्लों हें अण्णाक समजल्यार कांय आपली धडगत ना. ' हो चालता ' म्हणूंक अण्णा फाटीं-फुडें पळोवपी न्हय. एके वटेन मन अशें भियेता, तरिकूय पुण जॉनाची संगत सोडची-शी दिसना. पंढरी चिंतीत आशिल्लो.

" सोच सोचके मरेगा साला ! " युसुफान खस्स करून पंढरीक हालयलो. पंढरीन आंग काडलें.

" कितें चिंतताय रे बोटा ? "

पंढरी गोंदळ्ळो. उमथे मानेन बसून रावलो.

" जॉनान हें लचांड बेठेंच घेतलां आमच्या ग्रपांत. "

" आरे पापया पंढरी, दोन उतरां उलय मरे. दाडवणां बशिल्लेवरी कितें बसला ? " बाबुशान विचाल्लें.

" मी ऐकतों नव्हे तुमचें बोलणें ? " पंढरीन आंवंडो घोंटून म्हळें.

" ऐकतो खंय तो ! पाडा घाल ! येदोळ सावन पळयतां तेका, उदकांत नदर लावन बसला. काड्डुळां पळयता हय रे ? "

" तशें नव्हे रे. सोऱ्याची घाण आली तर कसें, हें येवजित होतों. "

" आयल्यार आयली. आयज आयली ना जाल्यार फाल्यां येतली. एका दिसान किदें सोंपलां ? "

" कितें म्हुण्टा रे तो ? " जॉनान हातांतलें सिगार सकयल उडोवन बुटापोंदा चिड्डीत विचाल्लें.

" तो भियेला तोंडाक सोऱ्याची घाण येवन घरा कळत म्हणून. "

"Be a sport पोंडोरी. This is twentieth century ! आतां कोणाक भियेवपाचें उल्लांय ?"

हय, तेंय बी खरें. आपुणच एकलो इतलो कित्याक भियेतां ? हो बाबुसो बापायक परत्याक परती जाप दिता. शिरी कोणाची केरच करीना. युसुफाची तर गजालच विचारूं नाका. तो बापायचे गोमटेक लेगीत धरूंक आसा. आनी जॉन पयशेकार बापायचो पूत. ताका विचारपी कोण ना. तें कशेंय आसूं ; आपणें इतलें भियेवंक उपकरना. सदां उठून घरा बसूंक येता वाज. नोकरीय ना. हांच्या वांगडा भोंवतना दीस बरे वतात.' आनी तो हड्डें फुडें काडून बसलो. जॉना कडल्यान ताणें एक सिगार मागून घेतलें आनी, फू फू करून झेतान धुंवर सोडूंक लागलो. सगलेजाण अजापान ताका पळयतच रावले.

" लागलो काय कितें रे हेका ? " शिरी बाबुशाल्या कानाक लागलो.

" अशें दिसता. थोडयांक मातसो उसरां चडटा. "

तांचें उलोवणें पंढरीन आयकलें आनी तो हांसूंक लागलो.

" मज लागली नाहीं रे. आनीक एक कोप देखील घेतलें असतें मी. "

ताचें तें हांसप पळोवन युसूफ थुकूंक विसल्लो. " साला सच्ची चढी क्या रे इसकू ? "

जोनान दुबावान पंढरीक पळयलें आनी खांदाक धरून ताका उबो केलो. तो लकत उबो रावता काय किते, ह्या दुबावान चौगूयजाण ताका पळयत रावले. पंढरीक कांयच कळना जालें. तो सारको उबो रावला तें पळोवन मागीर सगले घरचें वाटेक लागले.

° °

" ऐकलें गे, ह्या पोराने शेण खावून नाकास काळें लावलें ! " नारायणभटान तापून बायलेक सांगलें.

बायलेक कच्च जालें. " काय झालें ? " तिणें काचाबूल जावन विचाल्लें.

" काय होणार ? तुमचे फाजील लाड ते ! "

" पण असें जालें तरी काय ? "

" इनासाचे गादयेर दिसला म्हणे पंढरी. "

" तिथें कशास ? "

" देवाची आरत करायास—" नारायणभट केंचवांटलो.

" कांय तरीच काय ? "

" गादयेर कशास जातात ठाउक आहे न्हवे तुज ? मग विचारते आणि कशास ? "

भटीण आपल्या नशिबाक दोश दिवन रडूंक लागली. पूत गादयेर सोरो पिवंक गेल्लो म्हणून रडलीच; त्याभायर घोवान खंयच्या काळांत कितें कितें केल्लें, तें तें वयर काडूनय रडली. दीस्त तेन्नाच पंढरी घरांत भितर सल्लो. नारायणभटान रोखडोच ताका आडवो उबो उजरावंक सुरवात केली. पंढरीक तोंड लेगीत उगडूंक उसरपत मेळ्ळी ना. आपल्या जाग्यार बाबुसो आशिल्लो जाल्यार कितें करतलो आशिल्लो, हें लेगीत ताका धडपणान चिंतूंक जमना जालें. नारायण भट सामको सकयल वयर नाचतालो.

" हें असें करून देवाधर्माच्या घरांत यावयास तुज बरें वाटलें न्हवे ? " आंगठो तोंडाक लायत नारायणभटान पंढरीक विचाल्लें.

कोणाकच मियेक्चें न्हय असों आपणें थारायिल्लें तें पंढरी विसरूनच गेलो.

ताज्या आंगाक शेळो घाम फुटलो. अण्णा आतां घरांतल्यान वच म्हणत काय ह्या भयान निण्णेलो. तेवटेन आवय व्हडल्यान रडून आशिल्ल्या नाशिल्ल्या देवांचे सपूत ताका घालूंक लागिल्ली.

"परत तूं गादयेर गेलास तर तुज माझ्या गळयाची शपथ!" आपलो सपूत घालून निमाणें तिणें ती सपूताबळ सोंपयली.

"कसली नको ती संगत लागल्यावर मग परिणाम काय व्हायचा?" नारायण-भट तणतणलो.

"तसल्या संगतींत तूं परत दिसलास तर मी जीव देईन" आवयन म्हळें. पंढरी सामको अर्दो जालो.

"माझेंच चुकलें. उद्यांच्यान नाहीं जात." अशें ताणें घुसमटत म्हळें आनी तो आपले कुडींत गेलो. चार दीस तो घरांतल्यान भायर सल्लो ना. त्राण गेल्ल्यावरी घरांतच बसून रावलो. कोणाकडेन उलयलो लेगीत ना. जॉन, बाबुसो बी कितें करतात आसत काय, हें तो येवजीत बसलो. सगले जाण आपल्यो भगल्यो करतात आसतले. युसूफ पच्च करून थुकत आपल्याक गाळी मारीत बसला आसतलो, हे विशीं ताका मातय दुबाव नाशिल्लो.

• •

सदांभशेन सगले सांकवार एकठांय जाले. आजयबी पंढरी येवंक नाशिल्लो. जॉनान बोल्सांतलें सिगार काडून पेटयलें आनी कपलाक आंठयो घालून बाबुशाक पळयलें.

"आजूय पोंडोरी येयना मिस्ता?"

बाबुशान सकयलो ओंठ फुडें काडून, कोऽण जाणां, अशा अर्थान भुजा हालयलीं.

युसूफ येदो वेळ पान चघळायत उदकांत फातर शेंवटितालो. जॉनाचो प्रस्न आयकून ताणें पच्च करून पीक जमनीर उडयली आनी म्हळें, "साला पंढरी डरपोक है. उसकू अपने ग्रुपमें लेनेकाच नहीं था. क्युं बे शिरी?"

"हो पाडपोडलेलो युसूफ कितें उलोयताय म्हाका सोजमोचि ना." जॉन तापलो.

" हांव उलयल्लें सजमना आनी तो भट उलयलेलो कशें सजमता रे तुका ? "

"बोट तोंडूचि उकतें कोरी नाहलो. दोन उतरां उलयतालो. तूं थुंकताय केदना, उलयता केदना सोजमोंचिना. "

हाचेर मागीर युसुफालें आनी जॉनालें पेटलें. पंढरी थंयच उल्लो. युसूफ किते उलयता तें सारकें समजना जावन जॉन ताका गाळी सवंक लागलो. युसुफालें 'क्यों बे साला' आनी जॉनालें 'दुकोर फुंयचो' हे बगर उलोवणें फुडें सरना जालें. बाबुसो आनी शिरी तांकां थातारता म्हणसर खरशेले. झगडें आनिकूय वाडटलें आशिल्लें; पुण फुडल्यान पंढरी येता तो पळोवन सगळे थप्प जाले. तो लागीं पावलो तरी कोणेच जाप काडली ना. ताचेकडेन पळोवंक ना शें करून सगले सिगारां ओडीत बसून रावले. पंढरीचो घुसमटमार जालो. किते करचें ताका समजना जालें. मातसो वेळ उबो रावन मागीर ताणें ल्हवूच उलो केलो.

" ए जॉन..... "

जॉनान दोळे बारीक करून ताचेकडेन पळयलें. विचाल्लें मात कांयच ना. पंढरीन आंवडो घोंटलो. बावुसो दांत कोरायत पंढरी कडेन पळयतालो. ताका पळयत पंढरीन म्हळें,

" मज यावयास मिळालेंच नाहीं. "

बाबुसो ओग्गी.

" गादयेर गेल्ल्याचें घरीं कळलें, मग...."

" तो तूं क्यों बे ड्न्या ? कळ्ळें तर कळ्ळें. चूहा कहींका साला ! " युसूफ तणतणलो आनी फोंसान थुकलो.

पंढरी घामेलो. इतले दीस घरांत बसून तो वाजेल्लो. जॉनाच्यो गजाली, सिगारां, हॉटेलांतलीं खाणां हांची ताका दिसांतल्यान धा धा फावटीं तरी याद येताली. घरा बसून तरी किते ? बापूय येतना वेतना तापता. परती परती गादी वयर काडटा. आवय 'तूं नाकास काळें लावायाचें येवजिलेंस काय' अशें विचारीत रडत आसता. पंढरी सामको बेजारिल्लो आनी बाजारांत वचून येतां अशें सांगून बद्द सांकवार आयिल्लो. पुण हांगा पळयल्यार हे चौगूयजाण जड जाल्यात. आपुण बेठोच घरा रावलों अशें ताका दिसलें. तो उमथे मानेन थंय उबो रावलो. मागीर जॉनानच विचाल्लें,

" घारा केस्तांव जालें ? "

" हों. " पंढरीन बेगिबेगीन सांगलें.

" कितें जालें ? "

" कितें जातलें ? बापूय तापतलो, आवय रडटली; हय मरे ? " बाबूशान म्हळें.

" हों. तुमच्या संगतींत परत दिसला तर...."

" तर जीव दितली अशें म्हणून आवयन तुका भेश्टायलें मरे ? " शिरीन विचाल्लें.

" कोऽण जीव दिनात. आरे, म्हजे आईनय म्हाका तशें सतरा पावटीं सांगलें. आजून म्हणसर जिती आसा. "

" तें आसूं. पुण पंढरी, तुका हांगा येवचेलो धीर जालो बरो ! " बाबुशान म्हळें.

" बाजारांत जातों म्हणून सांगून आलों. "

" फोंटी मान्न येयलाय ? फाल्यां पोत्तून तुका तापोंयतेलेत आनी तूं पोत्तून बोंद जातलो ! आमगे ग्रुपांत तूं सोबनाय ...." जॉन बेजाल्लो. " येताय जाल्यार सोदांच यो. ना जाल्यार घाराच राव. लिपोन, चोरयां येवची गरज ना. कोणाक भियेवंक आमी कोणाचें कांयं चोरोंक ना. "

" तशें नव्हे रे; पुण अण्णान घरांतल्यान जा म्हटलें तर ? "

" तर कितें ? तुवें वचप ना. अण्णान ' जा ' म्हळयार तूं ' जात न्हाईं ' म्हण.... " बाबुशान उपदेस केलो. ".... आरे म्हाका पंदरा पावटीं व्हॉशीमॉर म्हणून जालें. हांव गेलों ? मातसो दादलो कसो वाग रे पापया. "

पंढरीक तें पटलें. आपुण दादल्यासारको दादलो. आपणें कित्याक इतलें भियेवप ? घर सोडून वच म्हळयार वचपच ना. अशें येवजितकीर ताका धीर आयलो. जॉना कडेन ताणें एक सिगार मागलें आनी तें ओडीत तो सांकवार बसलो. पंढरी परत आयलो म्हणून जॉनान ' celebrate ' करचें थारायलें आनी सगलेजाण इनासाले गादयेर वचूंक लागले.

" पोवया पोंडोरी भिताय जाल्यार" अशें जॉनान म्हणटकीर पंढरी मोन्यानी तांच्या फाटल्यान चलूंक लागलो.

वाटेर शिरी रंगार येवन फुलूल्या चेडवाची गजाल तांकां सांगूंक लागलो. सगले तल्लीन जावन फुलूलें चेडूं दोळयांमुखार हाडीत चलूंक लागले. इनासाले गादये कडेन ते पावत आयिल्ले. गादयेक लागींच म्हाबळूलो पसरो आशिल्लो. नारायण भट थंय हातांत पोती घेवन उबो आशिल्लो. बाबुशान ताका पयलीं पळयलो.

" आरे, तो पळय पंढरीलो बापूय. " म्हाबळूल्या पसऱ्याकडेन बोट दाखयत ताणें म्हळें.

" पोंडोरी, सोर फुडें. दाखोय तूं तेका भियेनाय म्होणोन ..." अशें म्हणून जॉनान फाटल्यान पळयलें. पुण पंढरी थंय नाशिल्लोच. फाटीक वाग लागिल्ले भशेन तो उरफाटे वटेन धांवत सुटिल्लो.

" गायंडोळ खंयचेकडलो ! " शिरीन म्हळें आनी युसूफ ताचेकडेन पळयत पच्च करून थुकलो.

❦ ❦

# ७. बापूय न्हय तो आमचो ?

खोंपीच्या दारांत उबो रावन शिरीन भायर नदर भोंवंडायली. पावस निकतोच आसरिल्लो. आंगणांत बरो दाट रेवो जाल्लो. नाकांतलें शेंबूड फर्रर्र करून भितर ओडून घेत ताणें ल्हवूच खोंपींत पळयलें आनी मागीर रेव्यांत पावलां बुडोवन तो पचक्क पचक्क करून चलूंक लागलो. शोभल्यान पळयल्लें जाल्यार रोखडेंच तापतलें आशिल्लें. आवयक सांगूं काय म्हणटलें आशिल्लें. शोभल्याची धवीच्च साडी आसा. ती जमनीर पातळावन ताचे वयल्यान रेव्याचीं पावलां उदयत चलचेंशें ताका दिसलें.

बोल्सांत एक चिंचेबोट आशिल्लें. तें चाबडायत तो शेता बांदार आयलो. हरशीं येन्ना तो शाळेंत आसता; पुण फाटले चार दीस जाले, तो शाळेंत वचना. आवयन माल्लें, उलयलें, जाल्यार लेगीत वचना. सगळे भुरगे ताका चोळयतात— ' शिरीक बापूय ना. '

ताका बापूय ना, ही किते नविदाद न्हय. पोरूं पयलेक आसतना खंय कोणें कितें म्हळां ? आनी तशें पळोवंक गेल्यार जयंताक आनी रामुल्याक तरी खंय बापूय आसा ? पुण अंदू शाळेंत बाबणी म्हणून आवटो सो कोण भुरगो आयला. तो म्हणटा, ' जयंतालो आनी रामुल्यालो बापूय मेला; पुण शिरीक मात मुळांतच बापूय ना. '

आपल्याक बापूय आसा म्हुण शिरी तांचेकडेन जायतो झगडलो. सकयल देंवतली चेड्डी घट्ट धरून तांचेर किंवांटलो. पुण जेन्ना बाबणीन ' तशें जाल्यार तूं बापायचें नांव लावचें सोडून मदीं आवयचें नांव कित्याक लायता ? ' अशें विचाल्लें, तेन्ना ताका जाप दिवंक आयली ना. रडकुरो जावन तो घरा परतलो.

खोंपीच्या दारांतच शोभलें तांदूळ वेंचीत बशिल्लें. ताका पळयतकीर शिरीक चडच रडूंक येवंक लागलें. हातांतलें दप्तर थंयच उडोवन तो ताच्या म्हऱ्यांत बसलो.

" आय खंय ! "

" बाजारांत गेल्या. " पदराची गांठ सोडोवन शोभल्यान भाजिल्ले चण काडले आनी शिरी मुखार धल्ले.

" म्हाका नाका. "

" कित्याक रे ? "

" शोभल्या, आमकां बापूय ना गो ? "

शोभलें ओग्गी रावलें.

" सांग मगो. "

" कित्याक रे तुका ? "

" म्हाका भुरगीं चाळयतात बापूय नासलेलो म्हणून. "

" चाळोवं दी. "

" म्हाका लज जाता. "

" पाडा पडली तुजी लज ! "

" सांग गो. "

" कितें ? "

" बापूय ना ? "

" सगल्यांक बापूय आसतात पिशा. "

" आमकांय आसा ? "

" आसा. "

" खंयं आसा तर तो ? "

शोभल्यान ओंठ दांता पोंदा दामून धल्लो. ताका हें सोळावें वर्स. ताच्या फाटल्यान आठ वर्सांनी शिरी जाला. शिरीक आजून अक्कल येवंक ना. पुण शोभल्याक सगलें समजता. कोणाचोच आदार नासतना आवयन इतलो तेंप संवसार कसो चलयलो आनी अजून चलयता हें कळपा इतलें तें जाणटें जालां. पुण शिरी आजून ल्हान आसा. ताका समजता म्हणसर वेळ आसा.

" सांग गो शोभल्या; खंय आसा तर बापूय ? "

" आसतलो खंयसरय... "

" खंयसरय कित्याक तर ? हांगा कित्यांक येयना तर तो ? "

शोभलें वाजेलें. शिरीचेर धेंगशेत उठलें आनी खोपींत गेल. ताचे फाटोफाट शिरी गेलो.

" हांव आयेक इचारतलों "

" पाड पडलेल्या, आय तुका चेंचायतली इचाल्ल्यार. म्हाका इचाल्लां तें पुरो. "

" कित्याक चेंचायतली ? "

" उजो लागों रे तुज्या तोंडाक. सगलें कित्याक जायें तुका ? "

" जाये. फाल्यां शाळेंत चाळयतले ना जाल्यार परथून. "

" चाळोंतं दी. दोन दीस चाळयतले. सद्‌दीं काय न्हू. "

" सद्‌दीं चाळयतात. "

" तूं मास्तराक सांग. "

" मास्तर इचारीत जाल्यार बापूय खंय काय म्हणोन ? "

" तो इचारचो ना. "

" इचारतलो. "

शोभलें जाप काडी नासतना कामाक लागलें. मोगरें बाजारांतल्यान सामान घेवन आयलें तेन्ना शिरी ताचीच वाट पळयतालो; पुण मोगरें आयलें तें तापनच. कितें जालें कोणाक खबर; पुण शोभल्याचेर आनी शिरीचेर केंचवांटतच तें कामाक लागलें.

शिरीक विचारूंक धीर जायना जालो. त्याभायर शोभलें ताका दोळयांनीं धपकायत आशिल्लें.

" दांगांनीं येदें व्हड जालां उंबाळिल्लें. लोकांल्या नदरांत वैता.... ' चेडूं बरें दिसता मगो मोगऱ्या तुजें ' अशें धा जाणांनीं म्हटलें. लगीन जावंक मात कोण मेळचो ना. पाडपडलेले ! "

" आय कोणाक गाळी घालता गो शोभल्या ? " शिरीन ल्हवूच विचाल्लें. पुण शोभलें मान सकयल घालून काम करीत रावलें. ' बापायची ' गजाल विचारूंक आपल्याक संद मेळत काय म्हुण शिरी थंय राव राव रावलो; पुण मोगऱ्याचें तोंड वाजत आशिल्लें. निमाणें वाजेवन तो मसले पडवेर आयलो आनी पाटी घेवन बसलो. मातशा वेळान मोगरें निकळलें. मोन्यानीं रांदूंक लागलें. शिरी पाटी घेवन

उठलो. रांद्ची कुडीच्या दारांत उबो रावन ताणें भितर नदर माल्ली. मोगऱ्याच्या कपला वयल्यो आंठयो ना जाल्ल्यो. पाटी घेवन तो नेटान भितर सल्लो.

" आये, पळय. " ताणें मोगऱ्या मुखार पाटी धल्ली.

पाटयेर मनशाचें चित्र काडिल्लें.

" कोण रे हो ? "

" बापूय... "

" बापूय ?.... "

शोभलें हातांतलें काम अर्देंच उडोवन बेगिबेगीन शिरी म्हऱ्यांत आयलें. ताच्या हातांतली पाटी ओडून ताणें शिरीचेर एक धपको घालो. "अभ्यास केलो रे तुवें ? नाका आसलेलें कितेंय काडीत बसता आनी मागीर अभ्यास करी नासतना शाळेंत वैता." पदरान ताणें पाटये वयलें चित्र पुसलें आनी शिरीक ओंडीत भायर व्हरून बसयलो.

" हांवें 'बापूय' काडलेलो तो तुवें पुसलो कित्याक ? " अशें म्हणत शिरी पडवेर थयथयाट करूंक लागलो. भितल्ल्यान मोगरें तरतर करून भायर आयलें.

" बापूय काडलेलो तुवें ? कोणाचो ? " किंवांटयान ताणें विंचाल्लें.

" शोभल्यान पुसलो. " शिरीन रडत म्हळें." आये म्हाका बापूय आसा ? "

" उंवाळिल्ल्या, बापूय नासतना तूं जल्माक येयला ? " शिरीचेर चार सण-सणीत थापटां फुलोवन मोगरें तापूंक लागलें.

" बापूय आसा काय खंय ? सुण्या आनी माजरा पिलां लेगीत बापूय नासतना जल्माक येयनात; आनी तूं तर मनीस मरे धुकरा. " शोभल्यान मदीं पडून ताका मोगऱ्याच्या हातांतल्यान सोडयलो.

आवय उलयताली तें सगलें शिरीक समजलें ना; पुण आपल्याक बापूय आसा इतलें मात समजलें. खोशेंत ताका माराचें व्हडलेंशें कांय दिसलें ना.

दुसऱ्या दिसा बाबनीन चाळयतकीर ताणें आपल्याक बापूय आसा म्हुण नेटान सांगलें. " आये म्हणटा, सगल्यांक बापूय आसताच. "

" तशें जाल्यार खंय तर तो ? तुमगेर येयना कित्याक ? "

परथून शिरी घुसपलो.

धरा वतकीर ताणें आवय ना अशें करून शोभल्याक विचाल्लें.

" काल मार पडला तो पुरो जालो ना रे ? "

शिरीन तोंड येदेंशें केलें.

" बाबणी चाळयता म्हाका. "

" मास्तराक सांग. "

" मास्तर मारतलो. "

" ना रे. "

" म्हाका भिरांत दिसता. तूं सांग गो, बापूय आमगेर कित्याक येयना ? "

" येता तो. " शोभल्यान बेजारून म्हळें.

" येता ? हांयें कसो पळोवंक ना तर त्येका ? "

" तूं न्हिदतकीर येता तो रातीचो. "

" सद्दीं ? "

" केन्नाय. "

" तुयें पळयला ? "

शोभलें ओगी रावलें. शिरीक कितें सांगतलें ? भितल्ले कुडींत तें शिरीक घेवन न्हिदता. भायले कुडींत मोगरें न्हिदता. रातीच्या काळखाचो आलाशिरो घेवन कोण ते खोंपींत येता आनी वता हें ताणें तरी खंय पळयलां ?

असोच कोण केन्ना तरी आयिल्लो जातलो....शोभल्यालो बापूय ! आनीक कोणूय एक असोच....शिरीलो बापूय !

पुण शिरीक हें समजुपा इतलें गिन्यान आजून येवंक ना.

" सांग गो शोभल्या; तुयेन पळयला त्येका ? "

शोभलें वाजेलें. " शिरी, तुज्या सोंडार उडयतलें. दीस रात बापायच्यो खबरी कित्याक ? "

" म्हाका चाळयतात कित्याक तर शाळेंत ? "

" चाळयल्यार चाळयलें. कितें जाता ? "

" म्हाका लज जाता. त्येंकांच बापूय आसा अशें कित्याक म्हणटात तर ते ? "

" तुका सांगलें हांयें मास्तराक सांग म्हणोन. मास्तर त्येंकां तापयतलो. "

" मास्तराची म्हाका भिरांत दिसता. "

" तशें जाल्यार घे चाळोवन. " अशें म्हणून शोभलें थंयचें उठून गेलें.

शिरी रडकुरो जावन चिंतूंक लागलो.

शोभलें सारकें सांगना–कुसकें खंयचेकडलें. पुण बापूय केन्नाय रातीचो येता म्हणून ताणें सांगिल्लें तें शिरीचे तकलेंत घट्ट उल्लें. ते रातीं तो न्हिदूंकच तयार नाशिल्लो; पुण मोगऱ्यान ताचेर धेंगसो घालो आनी शोभल्यान ताका बळयां भितर व्हरून हातुणार न्हिदयलो. तरिकूय दोळ्यांतली न्हीद फाटीं परतीत शिरी कितलोसोच वेळ जाग घेत आशिल्लो; पुण बापूय आयलोच ना.

दुसऱ्या दिसा शिरी शाळेंत गेलो ना. बापायक पळयले बगर शाळेंत वचप ना अशें ताणें थारायिल्लें. मोगऱ्यान माल्लें; पुण तरिकूय शिरी शाळेंत गेलो ना. ते रातींय जागो रावन कांय फायदो जालो ना. शाळा चुकत आशिल्लो...

आज पुण येत काय बापूय ? शिरी चिंचेबोट खायत येवजीत आशिल्लो.

ते रातीं न्हिदेन जड जाल्ले दोळे धांपून घेतां घेतां शिरीन खोपीचें दार वाजिल्लें आयकलें. टक्क करून तो जागो जालो. भायर कोणतरी अळंग खांकतालो.

" बापूय ! " ताणें शोभल्याक हालयलें.

" शोभल्या, बापूय येयला. "

शोभलें जागेंच आशिल्लें. ताणें बेगिबेगीन शिरीच्या तोंडार हात दवल्लो.

" पाडपडलेल्या, ओगी राव. " तें शिरीच्या कानांत फुतफुतलें.

" आमी भायर या. म्हाका बापायक पळोवंक जाय. " शिरीन ल्हवूच म्हळें. शोभल्यान ताका घट्ट धरून दवल्लो. " नाका. "

" नाका कित्याक ? हांव वैतां. "

" तेका राग येतलो. "

" कित्याक ? "

" तूं भायर वचों नाका. आयेकय राग येतलो. "

" म्हाका पळोवंक जाय बापायक. "

शोभल्यान मातशें चिंतलें आनी म्हळें, " तो परतो वैतना तूं जनेल उकतें करून पळय. "

शिरीक खरें म्हळयार भायर वचपाचें आशिल्लें; बापायक सामको म्हऱ्यांतल्यान

हात लावन पळोवपाचो आशिल्लो; पुण शोभल्यान ताका घट्ट धरिल्लो. दुसरे फावटीं बापूय येतलो तेन्ना शोभल्याक जागें करप ना; नीट्ट भायर धांवप; अशें थारावन ताणें मान हालयली आनी तो हातुणार बसून रावलो.

भायर चान्नें पडिल्लें. पावसाचीं कुपां नाचच जाल्लीं. खोंपीचें दार उगडपाचो आवाज आयलो तसो शिरी धांवलो. ल्हवूच ताणें ज़नेल उकतें केलें आनी भायर पळयलें.

मुखावयल्यान तो वतालो...' बापूय ! ' शिरी पळयतच उल्लो. पळयतां पळयतां खोशेन हांसलो. जनेल धांपून तो परतो शोभल्या म्हऱ्यांत आयलो.

" शोभल्या, फाल्यांच्यान हांव शाळेंत वैतलों. "

" खरें ? आनीक बाबणीन चाळयल्यार ? "

" मास्तराक सांगतलों. "

" मास्तराची भिरांत दिसता म्हणटालो न्हूं रे तूं ? "

" आतां दिसना. "

" कशी तर ? "

" बापूय न्हूं तो आमचो ? " खोशेन हांसत शिरी हातुणार पडलो आनी न्हिदलो लेगीत !

꘏ ꘏

# ८. जायूआका आनी कुटुंब-येवजण

जायूआका सारकेली एक व्हड समाजसेविका आपल्यागेर रावंक येवचेली आसा हें कळत सावन रघूदादागेर घर निवळ करचेलो बोवाळ चलिल्लो. कोनशाचो कोयर आनी वणटी वयलो घयरांव तर ना जालोच; त्या भायर रघूदादाली पोन्नी बाज आनी हातमोडकें कदेल लेगीन ताईबायन माळयार शेंवटीलें. रघूदाद जायतो ताणशेलो. फाल्यां आपूण पोन्नो जालों म्हणून आपल्याकूय माळयार उडयात अशें म्हणून माथ्याक तोपी घालून तो बानयानाचेरच घरांतलो भायर सल्लो.

खंयचीय वस्त भायर उडोवप म्हळयार तो फाटीं फुडें येतालो. सादी फस्काची काडी लेगीत पेटोवन जातकीर तो भायर उडय नाशिल्लो. दांत कोरांतूंक उपकर पडटली म्हणून यादीन उशापोंदा दवरतालो. हातूण फाफुडटना ताईबाय त्यो सगळयो काडयो भायर उडयताली ती गजाल वेगळी. हरशीं रघूदाद तिडकूंक लागलो म्हणटकीर ताईबाय भायर उडोवंक काडिल्लें सामान फडफडत परत आशिल्लें थंय हाडून दवरताली; पुण हे खेपेक तिणें रघूदादालें कांयंच आयक नासतना सगळें घर निवळ करचेलें विधायक काम हातांत घेतलें आनी नाका आशिल्लें सामान पोन्नेकाराक दी, ना जाल्यार माळयार चेप आनी उरिल्लें भायर उडय, अशें करून ती रघूदादालें तापोवणें घेत रावली.

ताईबायच न्हय, तर तिच्यो दोनूय सुनो लेगीत न्हेसणाच्यो मिरयो खोवन कामाक लागिल्ल्यो. ताईबाय शाब्बाच्या उदकान सालांतली लादी पुसताली तेन्नाच बानयानाचेर भायर सरिल्लो रघूदाद घरांत भितर सल्लो आनी ताईबायचेर नदर पडटकीर रागान जोत्यासयत भितल्ले कुडींत वतालो तो निसरून तिच्याच म्हन्यांत ढब्ब जाल्लो. ताका चड दुखलें ना हें कळटकीर थंयच त्यां दोगांचें परतें झगडें सुरू जालें. 'नितळसाणेक लागून म्हजो दोंको मोडून घालतकूच सुटली तूं!' रघूदादान तिडकीन म्हळें; पुण तें कानामनार घेनासतना 'भिजिल्लें बानयान आनी पुडवें काडून दुसरे कपडे घालात' अशें ताईबायन सांगलें तेन्ना 'चार दीस

आपूण तें आंगावयलें देंवोंवचो ना ' म्हणून रघूदाद तणतणूंक लागलो. ताजेर मागीर ' वर्सान वर्सां ' तेंच बानयान-पुडवें घालून रावल्यार लेगीत आपल्याक जाता ' अशें म्हणून ताईबायन रघूदादाक आनीक तापयलो.

जायूआका खरें म्हळयार रघूदादाली पयशिल्ली आते-मामेभयण. एकामेकां-गेर चडशें येवप-वचप नाशिल्लेंच. पुण रघूदादाल्या गांवच्या महिला मंडळान जेन्ना ' समाजकार्या ' चेर माहिती दिवंक यो म्हणून आपोवणें धाडलें तेन्ना वत-लीच जाल्यार रघूगेर रावचें, असो बेत करून जायूआकान आपूण अमक्या दिसा तुगेर पावतां म्हणून रघूदादाक एक चीट बरयली. आनी तेन्नाच्यान ताईबाय एक्कसारकी बोवाळूंक लागिल्ली.

ताईबाय इतले कश्ट घेवन नितळसाणेक लागिल्ली हाजें खरें कारण म्हळयार ' घराची टापटीप आनी मांडणी ' हाजो कसलो तरी डिप्लोमा जायूआकान घेतला अशें तिज्या काना वयल्यान गेल्लें. म्हणटकीर जायूआकाले डिप्लोमा अण-भवी नदरेक आपलें घर कशा कशें दिसचें न्हय आनी महिला मंडळांत करचेल्या भाशणांत तिणे आपल्या घराची तुस्त करची हे खातीर तिजो सगळो यत्न आशिल्लो.

विडये पोतेरां, फस्काकाडी जमनीर पडिल्ली दिसल्यार ताईबाय रघूदादाक धर्म पुरो करूंक लागली. नातरांचीं दप्तरां हेवटेन तेवटेन पडल्यार तांचेर धेंगशे-वंक लागली. चंपी पोरसांतले फातर, नळयांकुडके, हाडां वी घेवन घरांत येतकीर ताजेर सदां परस चड बडयो पडूंक लागल्यो.

आनी जेन्ना जायूआका रघूदादागेर आयलें तेन्ना घर लखलखीत करून ताईबाय ताजीच वाट पळयताली. सालांत कोनशा कणकणी दवरिल्ल्या फुलझाडांनी ज आकाक येवकार दिलो. जायूआकान कपलाक मियो ( मिरयो ) घाल्यो आनी म्होवाळ हांसत मुखार येतले ताईबायक विचाल्लें,

" हय गे रघू-बायले, हीं झाडां कोणें भल्यांत सालांत ? झाडां रातीचीं कार्बन डायोक्सायड सोडटात, तो आरोग्याक बरो न्हय म्हणपाचें नकळो काय किनें गे तूं ? पयलीं झाडां भायर व्हरूंक लाय तीं. "

ताईबायसकट सगल्यांचीं तोंडां पडलीं. ताईबायक कार्बन पेपर कितें तें खबर आशिल्लें. उशां फरांजीचेर डिझायन पितारूंक तिगेली धूव ऑफिसांतले कार्बन

पेपर हाडटाली ते तिणें पळयल्लें; पुण झाडां आनीक असलें किते सोडटात म्हण-पाचें ती पयलेंच खेप आयकताली. पुण जायूआकाक बरें दिसचें म्हणून तिणें वावराडे कडल्यान सगळे व्हाज बेगिबेगीन भायर व्हरून दवल्ले.

तेदोळ म्हणसर जायूआका सोफाचेर बसून हेवटेन तेवटेन नदर भोवंडावंक लागलें.

" तुमच्या घराचीं जनेलां आसूंक जाय ते वटेन नात. पुर्वेक आसपाचें तें आग्नेयेक आसा आनी पश्चिमेक आसपाचें तें नैऋत्येक आसा " जायूआकान चूक सोदून काडली. घरांत कोणालेंच भुगोलाचें गिन्यान बरें नाशिल्ल्यान कोणाकूच कांयं समजलें ना. रघूदाद मात घर आपणें बांदूंक ना, आपल्या आज्यान बांदिल्लें, अशें सांगून सगळी चूक आज्याचेर लकोवन मेकळो जालो. रघूदादाली जाप आयकून जायूआकाल्या कपलार आनीकूय मिरयो पडल्यो.

' घर आनी मांडणी ' ह्या विशयाक धरून जाली तीं इतलींच उलोवणीं. ताईबायल्या सुनानी केल्ली कदेलांची मांडणी आनी ताईबायन वणटीर लायिल्लीं पांयजेलां तिणें पळयलींच नात.

" घरांत नातरां कितलीं ? " लेंसान वारो घेत जायूआकान विचाल्लें.

" सात जाणां...." ताईबायन व्हडविकायेन सांगलें.

" सात जाणां ? सगलो देस दोन थंय तीन पुरो म्हणटा आनी तुमगेर सात नातरां ?.... "

" व्हडल्या पुतालीं तिगां, धाकल्यालीं दोगां आनी मदलें चलयेलीं दोगां आमगेरच आसात सध्या..." ताईबायन बेगिबेगीन सांगून उडयलें.

धाकले सुनेक ओगीच जायूआकाली नदर आपल्याचेर लागल्या शें दिसूंक लागलें. तिका कितें करचें तेंच कळना जालें. आंग जाता तितलें ल्हान करून घेत ती हळू हळू करून ताईबायच्या फाटल्यान येवन रावली.

जायूआकान मागीर थंयचे थंयच फॅमिली प्लॅनिंगाचेर एक भाशण केलें. हालीं आपणें जायत्या घरांनीं भोंवन खूब जाणांक कुटुंब येवजणेचें म्हत्व पटोवन दिलां म्हणचेलें रघूदादाल्या घरच्यांक कळीत केलें. ' घराची टापटीप आनी मांडणी ', ह्या विशया वयलें लक्ष काडून जायूआकान तें कुटुंबा येवजणेचेर एकठायलें म्हणचेलें रोकडेंच सगल्यांच्या लक्षांत आयलें.

घरांतलें पोन्नें सामान बेठेंच भायर उडयलें अशें मनांत येवन रघूदादाक पयलीं जाल्लो ताज्याय परस चड खेद जालो. ताईबायल्यो सुनो आनी पूत जायूआका-कडल्यान कितें आयकुचें पडटलें आनी कितें ना हें चिंतून खासावीस जालें. जायूआकाले नदरेक आपणाली टापटीप आनी नितळसाण येवचेली ना हें लक्षांत येतकीर मागीर घर नितळ करूंक घेतिल्ल्या कश्टांक लागून आपल्या भेणांत आयलां, फाट मोडूंक पावल्या म्हणपाचें ताईबायक जाणवलें आनी तिणें एका फाटल्यान एक कितलेशेच हुस्कार सोडले.

रातचीं जेवणां जातकीर ताईबाय सदांभशेन वसऱ्यार आड पडली आनी तिणें म्हाभारतांतली काणी सुरू केली. जायूआका थंयच पासयो मारतालें. 'पंडूगेर पांच पांडव आनी धृतराष्ट्रागेर शंभर कौरव जाले' इतलें तिणें म्हळां मात, जायूआक तुरतुरीत ताईबायच्या म्हऱ्यांत आयलें.

"रघूबायले, असलें नाका आशिल्लें भुरग्यांच्या मनांत घालूं नाका."

"नाका आशिल्लें ? हांव म्हाभारतांतली काणी सांगतां तांकां."

"म्हाभारतांतली जाल्यार कितें जालें ? वायट ती वायट !"

कितें वायट तें ताईबायक कळ्ळेंच ना. तोंड उगडें उडोवन ती जायू-आकाक पळयत रावली तेन्ना जायूआकान म्हळें,

"भुरग्यांचीं मनां कंवळीं आसतात. तांकां सांगता तें तांच्या मनांत उरता. धृतराष्ट्रान शंभर कौरवांक जल्म दिलो, हें आयकून व्हड जातकीर आपणेंय धृत-राष्ट्रा भशेन जावचें, अशें तांच्या मनांत आयलें जाल्यार ?..."

ताईबायक हांसचें काय रडचें तेंच कळना जालें. चल्लां तें उलोवणें भुरगीं कान दिवन आयकत आसात हें लक्षांत येतकीर मागीर तिणें विशय बदलचे खातीर बेगिबेगीन रामायणांतल्या दशरथ राजाची काणी सुरू केली. पुण 'एक आशिल्लो दशरथ राजा....' इतलें ती म्हणटा थंय आशिल्ली, जायूआकान चार बोटां दाखोवन ताका चार भुरगीं आशिल्लीं म्हणपाचें सुचयलें आनी तीय काणी ताईबायक फुडें सांगूंक दिली ना. कृश्णजल्माची काणी ताईबायन आपणेंच बाद केल्ली; कारण कृश्णा पयलीं देवकेगेर सात भुरगीं जाल्लीं म्हणून जायूआका ती काणी सांगूंक दिवचें ना, हें ती जाणा आसली.

ते रातीं भुरग्यांक खंयची काणी सांगची हें येवजितना ताईबाय खरशेली. कुंडे

कुस्कुराचे काणयेंत लेगीत सात भयणी ! निमाणें तिणें नातरांक काणी सांगी नासतनाच न्हिदयली.

रघूदादाली संसारांतली बारीकसाण पळयतकीर एक दीस जायूआकान ताका 'तुज्या संवसाराचो व्याप खूब व्हड, देखून तुका बारीकसाणेन रावचें पडटा; फस्का-काडी लेगीत सांबाळून दवरची पडटा' अशें म्हणून वरभर फॅमिली प्लॅनिंगचें म्हत्त्व समजावन सांगलें आनी आपली फस्का-काडी जायून वयर काडचीन कशी, ह्या विचारान तापिल्लो रघूदाद रांदचे कुडींत वचून बेठयाबेठो ताईबायचेर ताणशेवंक लागलो.

अमक्यागेर चलो जाला, ना जाल्यार तमक्यागेर चली जाल्या, अशें जायूआका हुजीर सांगचेली भाणा्कीच उल्ली ना. तें रोकडेंच उपदेस करूंक लागतालें-आनी तोय बी बातमी सांगतल्याक. "बाबूगेर चली जाल्या, वा पुतूगेर चलो जाला" म्हणून व्हडविकेन ताईबायक सांगूंक आयिल्ल्या रघूदादाक कांय ना म्हळयार पांच स फावटीं तरी तो उपदेस आयकुचो पडलो.

खंयच्योय बायलो ताईबायगेर बसूंक आयल्यो म्हणटकीर तांकां जायूआकालो पयलो प्रस्न आसतालो, "—तुका भुरगीं कितलीं ?" ताणीं दोन म्हणूं, तीन म्हणूं वा कांयं ना म्हणूं, कुटुंब येवजणेचें म्हत्त्व सांगपी भाशण तांच्या कानार घाले बगर जायूआकाक सुसेग दिसनाशिल्लो.

दीस आनी रात जायूआकालीं भाशणां आयकून आयकून ताईबायक तीं इतलीं पाठ जाल्लीं कि जायूआकान तोंड उगडचे पयलीं ताईबायच तांजीं भाशण उलोवंक लागताली. ताईबायकूच न्हय, तर तिज्या नातरांक लेगीत तीं भाशणां पाठ जालीं आनी तीं नाका जाल्ले प्रस्न विचारून रघूदादाक बेजार करूंक लागलीं. तांकां कितें सांगचें तें कळनाशिल्ल्यान रघूदाद सामको वाजेलो आनी "हय गे...., तें केन्ना वतलें म्हणटालें—?" अशें ताईबायक सकाळ-सांज विचारूंक लागलो.

निमाणें पंदरा दिसांनी जायूआकान आपुण वतां म्हणचेलें जाहीर केलें आनी ताईबायसकट सगल्यांक सू जालें. रघूदादान तर ते खोशेन दोन-चार फस्क काडयो उशापोंदा दवरी नासतना जनेलांतल्यान भायर शेंवटून माल्ल्यो.

जायूआका टॅक्सींत बसतालें; इतल्यांत ताईबायलो व्हडलो नातू मागील

दारांतल्यान धांवत भायर आयलो.

" आजेऽऽ.... " ताणें व्हडल्यान उलो माल्लो. " चंपीगेर मगो— " ताज्या फाटोफाट भायर आयिल्या रघूदादान बेगिबेगीन ताजें तोंड घट्ट दामून धल्लें, तें बद्द जायूआकाली टॅक्सी दिसना जाली तेन्ना सोडलें.

" कितें हें ? ताजें तोंड कित्याक दामून धरिल्लें ? " ताईबाय तिडकली.

" चंपीन पांच पिलां काडल्यांत म्हणून सांगूंक आयिल्लो तो ! तें आयकून मोटारींतल्यान देंवन जायूआका आपलें भाशण सुरू करीत म्हणून भियेलों हांव ! " रघूदादान कपला वयलो घाम पुशीत सांगलें.

" खंय तें चंपी ? पांच पिलां काडल्यांत ताणें ? उंवाळिल्ल्याक कुटुंब-येवजणेचें म्हत्त्वच कळना... " ताईबायन म्हळें आनी जीब चाबली.

" संवय जाल्या जायूआकालें आयकून.... " अशें भितल्ले भितर म्हणत तिणें ल्हवूच रघूदादा वटेन पळयलें आनी रघूदाद हांसता तें पळोवन मागीर आपणेंय हांसूंक सुरवात केली.

ꕥ ꕥ

# ९. वायस

खांदयेर बशिल्ल्या कावळयान मान वांकडी करून हेवटेन तेवटेन पळयलें. वत सामकें रखरखतालें. ह्या वतांतल्यान उडत वचप म्हळयार बेजारच आशिल्लो. बशिल्ले कडेनच पांखां हालोवन ताणें आंगांतली आळसाय फाफुडिल्लेवरी केली; खांदयेक चोंच घशिटली आनी मागीर उपाय नासून त्या वतांत झोंपय घेतली' भुकेन जीव सामको वयर सकयल आयिल्लो. कितेंय तरी पोटांत घालूंकच जाय आशिल्लें. आज सकाळ सावन ताका उपास घडिल्लो. ना म्हणूंक रस्त्याचे कुशीन मरून पडिल्ल्या हुंदराक ताणें मातसो चोंचायिल्लो तितलोच. पुण तेन्नाच एक सुणें त्या हुंदराक घेवन पळिल्लें.

हरशीं धा – इकरांच्या सुमाराक तो नागूदादाल्या मागीलदारा मुखार बसून आसतालो. जूस्त ह्या वेळार नागूदादाली बायल मागीलदारांत नुस्तें घेवन उजरावंक बसताली. आनी तिणें शेंवटिल्ल्या शेसडयांचेर, आंतांचेर तो झोंपय मारतालो. पुण आज सोमार; नागूदादागेर नुस्तें खायनात. तरीय तो बेठोच हेवटेन तेवटेन पासय मारून आयिल्लो. नागूदाद तेन्ना म्हसंगाच्यो सांगो उडयतालो आनी नागूदादाली बायल कोब्बी शिनताली, तें रांदचेकुडीच्या जनेलांतल्यान जूस्त दिसतालें, म्हणटकीर नुस्तें ना तर आज! निरशेवन तो परतलो.

मुखावयल्या आंगणातली माती उसतीत कोंबयो हेवटेन तेवटेन भोंवताल्यो. मर्दीच मातयेंत चोंच मारून कितेंतरी गिळटाल्यो. तांच्यो त्यो करण्यो कावळो मान वांकडी करून पळयत रावलो आनी मागीर उडयो मारीत तांच्या म्हऱ्यांत गेलो. ताणीं उस्तिल्लो किडो आपणाक गिळूंक मेळत काय कितें, हाचो अदमास तो घेवंक लागलो; पुण ताची लागसार समजतकीर कोंबयो ' कों कों ' करीत ताज्या आंगार धांवल्यो. बेगिबेगीन उठून तो नळयांचेर वचून बसलो आनी शेंपे मोडीत चलतल्या कोंबयांकडेन पळोवंक लागलो. हातुंतले एकलेवांगडा तरी पिलां आसूंक जाय आशिल्लीं; तातूंतलें एक तरी पील फारावंक मेळटलें आशिल्लें, अशें मनांत येवन ताणें आवंडो घोंटलो आनी निरशेवन तो थंयचो उडलो.

आंब्या रुखाक जाय तो चंवर आयिल्लो. ताज्या पानांत लिपून कोगूळ गायत बशिल्ली. 'पोट भल्लां दिसता, म्हणून तर वडुत बसल्या!' फडफडत कावळो थंयचेच एकें खांदयेर देंवलो. गावप थामोवन कोगळान कावळया कडेन पळयलें.

"कितें कावळेदाद, कितें खबर?" म्होंवाळ आवाजांत तिणें विचाल्लें.

कावळो ओगीच रावलो.

"आंब्या चंवर खातलो?" परथून कोगळान विचाल्लें. कावळो तापलो.

"चंवर खावन दीस काडपाचो वेळ येवंक ना म्हजेर...." तो ताणशेलो.

"बरें–बरें..." कोगळान मोवसाणेन म्हळें. कावळयाक थातारूनच ताचेकडेन उलोवंक जाय. ना जाल्यार कावळिणीन घोंटेर बांदला काय ना हें कळपाचें नाशिल्लें.

मातशा वेळान तिणें ल्हवूच कावळयाक प्रस्न केलो– "अंदू घोंटेर बिटेर बांदून जालो काय ना कावळिणीलो?"

कोगळाच्या प्रस्नाचो रोख सट् करून कावळयाच्या लक्षांत आयलो. तो शिटकलो. मान वांकडी करून ताणें कुच्छित्र्यांनीं कोगळाक पळयलें आनी विचाल्लें–

"कित्याक? अंदूय बी तुजीं तांतयां आमच्या घोंटेरांत दवरून हेडूंक वचचेलें येवजिलां काय कितें तुवें?"

मान सकयल घालून कोगूळ वोग्गी रावली. तिचे कडेन बकच्छायेन पळयत कावळो थंयचो उडलो तो बद्द बांयचे घडेर येवन बसलो. थंयच्या फोणकुलांतलें उदक पियेवन ताणें आपली तान भागयली आनी भोंवतणी नदर माल्ली. खंय कसलीचं खावपा सारकी वस्त नाशिल्ली. मासाचो कुडको समजून ताणें घडे वयल्या शाब्बाच्या कुडक्याक लेगीत चोंच मारून पळयली.

बांयचे कुशीक जायत्यो केळी आशिल्ल्यो, थंयच ताणें विट्टयो घाल्यो. दोन–चार केळी व्हियेल्ल्यो. हातभर लांब घड तांबडें बोंड हालयत लांबताले. पुण तातूंतलें एक तरी केळें पिकिल्लें आसचें! कावळो सामको बेजाल्लो. एकल्याचें पोट भरपा खातीर कितले हे त्रास! तरी बरें, कावळीण आजून तांतीं घालचेली तयारी करी नासली. नाजाल्यार तिजें आनी पिलांचें पोट भरतना नाका शेवट जावपाचो! कश्टी जावन तो फुडें वचूंक लागलो. आज आपल्याक शेतं उपास घडटा हें येवजून तो दुखेस्त जालो. आज सकाळीं कोणाचें तोंड पळयल्लें काय

आपणें ? उडटां उडटां तो चिंतूंक लागलो. कावळिणीचें !.... पुण तिचें तोंड सदांच सकाळीं दिसता, म्हणटकीर आजच हें अशें कित्याक घडचें ? कळ्ळें. आज सकाळीं झाडा वयल्यान उडूंक सकयल्यान एक काळें माजर आडवें गेल्लें खरें ! काळें माजर आडवें गेल्यार नागूदाद फडफडत घरांत कित्याक परतता तें आतां कावळयाक कळ्ळें. सगळया माजरांक गाळी मारीत तो उडत रावलो.

इतलें स्वरखीत वेत पडलां; कोणेंय आंगणांत खोबरें, वडयो बी सुकत घाल्यार जायनाशिल्लें ? तातूंतलेंच कितेंय तरी झोंपय मारून अुखलूंक येतालें. पुण हालीं-सराक मनशां सामकींच आळसुटां जावन पडल्यांत. मनशांले आळसाये विशींची चिंता करीत कावळो गांवा भायल्या एका घरा लागसार पावलो. सकयल आंगणांत कितेंतरी सुकत घाल्लें. मोटें आशेन ताणें सकयल झोंपय माल्ली; पुण सुकत घाल्ली वस्त स्पश्ट दिसचे पयलींच ताका दोरयेक उरफाटो हुमकळायिल्लो कावळो दिश्टी पडलो. कच्च जावन ताणें लागशिल्ल्या झाडाचो आलाशिरो घेतलो आनी थंयच्यानच तो त्या उरफाटो हुमकळटल्या कावळयाक बारीकसाणेन पळोवंक लागलो. आरे ! हो तर वडावयले सोबीत कावळिणील्या घोवाभशेन दिसता ! पुण ती तर म्हणटाली तो फिरतेर गेला म्हणून...बाबडेक सांगचें पडलें. त्या पयलीं चार-चौगांक ही गजाल कळोवंक जाय.

खरशेल्लो, भुकेल्लो कावळो आयले वाटेन परतलो. आपल्याक भूक लागल्या हें तो विसरूनच गेलो. वडा वयले कावळिणीचे काकुळटेन ताजें काळीज भरून आयलें. आता सद्दां तिजी चवकशी करूंक जाय. कितें नाका, जाय पळोवंक जाय. पुण हें सगळें बायलेक लिपोवन; ना जाल्यार ती बेठीच फडफडटली. खरें म्हळयार हेर सगळयो कावळिणी ताका आवयो करयो दिसताल्यो. मागीर त्यो तन्न्यो आसूं, ना जाल्यार जाणटयो ! पुण बायलेक पटूंक नाका ?

गांवांत पावतकीर कावळयान चार जातभाव जमयले आनी वडा वयल्या कावळयाच्या मरणाची दुखेस्त गजाल तांकां सांगली. सगळयांनी बरोच वेळ ' काव-काव ' करून आपलें दुःख परगटायलें; त्या कावळयाच्या मरणाक कारण जाल्ल्याच्या दुबावान सगळे मनीस जातीचो धिक्कार केलो आनी मेळत थंयच्या हुदका कोंडांत आंग भिजोवन ताच्या नांवान न्हावन ते मेकळे जाले. इतलें सगळें जातकीर जण एकलो आपापले वाटेन उडून गेलो.

मातसो वेळ भूक विसरून गेल्ल्या कावळयाक आपल्या पोटांत उजो पेटला म्हणचेली परत याद जाली. कितेंच कशें खावंक मेळना ? गांवांत दुश्काळ तर पडलो ना मूं ? फाटीं खंय तरी एक फावट दुश्काळ पडिल्लो; थंयचे जायते कावळे जीव वांटावन हावा शिवा करून ह्या गांवांत आयिल्ले. ताणीं केल्लें तें दुश्काळाचें वर्णन आयकून सगळयांक थरथरो भरिल्लो. तसो दुश्काळ आपल्या गांवांत पडचो न्हय म्हणून सगळयांनी बरोच वेळ 'काव–काव' करून प्रार्थना केल्ली. पुण त्या आयकल्ल्या दुश्काळाच्या वर्णना भशेन कांयं हो गांव दिसना. मागीर हो उपास कित्याक घडटा तर ? चिंतून कावळो उबगलो.

दुखेस्त मनान तो देवळा वटेन उडूंक लागलो. देवळा सामकार तातोभटाचें घर आशिल्लें. भट आंगणांत उबो आशिल्लो. लागींच एका पानार काकोळ वाडून दवरिल्ली. आनी भट कावळयाची वाट पळयत उले मारतालो,' वायस.... वायस....'

आपल्या बापायली खंयची इत्सा पुरी जावंक ना म्हणून काकोळ व्हरूंक एक कावळो येना, ह्या विचारान काचाबूल जावन तातोभट तिश्टत उबो आशिल्लो. पर्थूं–पर्थून उले मारतालो. पयशिल्ल्यान उडत येवपी कावळो ताका दिसलो तेन्ना सू जावन तो मातसो कुशीन वचून उबो रावलो. आपलेच येवजणेंत घुसपून उडटल्या कावळयाच्या कानार अस्पश्ट शे उले पडटाले—'वायस....वायस...'

ताणें सकयल पळयलें. तातोभट उबो आशिल्लो. कावळयाक याद जाली; आज भटाल्या बापायचें स्राद्ध जावं ये. पोरूंय बी ज्यूस्त आपुणच पाविल्लों. भुकेल्लो कावळो हेवटेन तेवटेन पळयत ल्हवूच जमनीर देंवलो. साव चित्तान काकोळी वटेन वचूंक लागलो. तो काकोळीक आफुडलो तेन्ना तातोभट समाधानान घरांत गेलो. आनी निर्धास्त जावन कावळो अन्न खावंक लागलो....

❦ ❦

# १०. तळमळे

माजर गाभणें आसा हें कळत सावन बाप्पा सामको भुरकुटून गेल्लो. हरशींय जाल्यार तो ताची अपुरबाय करतालोच; पुण आतां तर विचारूंकच नाका. सद्दां उठून सकाळ-सांज अर्द अर्द कोप दूद तो ताका पियंक दियंक लागलो.

'आगे, फुलू सामकें फ्राक जालां. पियं बाबड्याक इल्लें दूद. ' अशें म्हणून तो होनीबायक ओगी करतालो. एक फावट फुलून तव्यावयलें नुस्तेंच ना केलें जाल्यार 'दुवाळकान्न ती; आयली दिसता रूच नुस्त्याची!' अशें म्हणून होनी-बायचेर धेंगसो घालूंक बाप्पा फाटीं रावलो ना.

फुलूच्यो तोखणायो पळोवन होनीबायचे दोळे मात शीलाचे यादीन भरून येवचे. शीला तांगेली एकलीच धूव. होनीबाय परसय बाप्पाचेच चड अपुरबायेची. दोगांयलो सगलो जीव ताजेर. पोर खंयच्या एका मवाल्याच्या मोगांत पडलें. कितलें समजायलें–कुसलायलें. 'गरीब जाल्यार जावं; दुसरे जातीचोय जावं; पुण तो मवाली गो पोरा!...फाल्यां तुका सोडून दुसऱ्या फाटल्यान गेल्यार कशें जातलें?' अशें जायतें ताका सांगून पळयलें; पुण ताणें आयकलें ना. पळून वचून लग्न केलें. अशें तें आपल्याली माया फट्ट करून तोडून वचत हाची दोगां-कूय कल्पना नाशिल्ली. होनीबायन रडून रडून जीव अर्दो करून घेतलो. होनी-बायचेय परस बाप्पालें काळीज चड दुखिल्लें; पुण ताणें कांयंच म्हळें ना. दोळे मात लेगीत ओले केले नात. फकत शीलाचें नांव सोडलें. आपल्याक चली आशिल्ली हें विसरिल्लेवरी तो वागूंक लागलो.

होनीबायचेंय मन कोडू जाल्लें. आपल्या परस आपल्या घोवाक चड वायट दिसलां हें ती बरे भशेन जाणा आसली आनी देखूनच शीलाचें नांव लेगीत ती ताचेकडेन काडी नासली. आनी एक दीस बाप्पा एक माजरा पील घेवन घरा आयलो. धवें फुल्ल, निळया दोळयांचें!—फुलू! सगलो वेळ तें बाप्पाच्या आनी होनीबायच्या फाटल्या फुडल्यान भोंवतालें. पांयांक घसटत म्यांव-म्यांव करीत रावतालें. 'फुलू गोऽऽ' अशें म्हळयार पुरो आशिल्लें; 'म्यांऽऽव' करीत आसा

थंयच्यान धांवत येतालें.

बाप्पाक तर फुलूबगर कांयंच येवजनासलें. खंयचें फुलून हुंदरा पील माल्लें–ताचीच तोखणाय. जल्लो खालो–ताचीच थुळेणी. इतलेंच न्हय, दाराफाटल्या कोनशाक फुलू आपणालें ‘कर्म’ लिपोवन दवरूंक लागलें जाल्यार लेगीत, ‘फुलू, पापणी, घरांत अशी हळशीक करची न्हय गो. चल पोरसांत वच पळोवया.’ अशें म्हणून तो ताका मायेन भायर घेवन वतालो.

होनीबायय फुलूची जायती तोखणाय करताली. आनी दर फावटीं शीलाचे यादीन तळमळटाली. ‘तें अशें करतालें... तशें करतालें... ताका हें जाय आशिल्लें; तें चड आवडटालें ..., सगळें मनात येवन ती कश्टी जाताली. फुलूचे वाटयेंत दूद घालतना शीलाची याद जाली ना असो दीस गेलो ना. भितल्ले भितर ती यादी सांसपीत रावताली.

अशेंच एक दीस क़ानार आयलें – शीला दुवाळयांचें ... खर दुवाळो जाला ... पोटांत कांयंच धरना. होनीबाय खासावीस जाली. कशें आसा काय पोर? ... कितें खाता काय? कितें करता काय? ... एक ना दोन, हजार विचारांनी तिची तकली घुंवंक लागली. चित्त थाऱ्यार ना जालें. कोणाक सांगतली? मोन्यानीच ती धुसमटूंक लागली. इल्लें लोणचें तरी धाडटलीं आसलीं ... म्हस व्हियेल्या. दाट दूद येता. दोन ग्लास पोराच्या पोटांत पडटले आशिल्ले! ... सामकेंच रावं नज जालें तशें तिणें धीर करून बाप्पाक म्हळें–

“शीला दुवाळयांचें ...”

बाप्पा फट्ट करून उठलो.

“ताच्यो खबरी म्हाका सांगूं नाका.” इतलेंच म्हणून भायर गेलो.

बाप्पा केन्नाच तापना; पुण राग येतकीर ताच्या कपलावयली शीर तटतट्टा ती पळोवन होनीबायक मागीर फुडें उतरां फुटनात. आतांय तशेंच जालें.

त्या दिसाच्यान होनीबाय सारकें शीलाचेंच चिंतूंक लागली. लग्न जातकीर रोखडेंच शीलान पत्र धाडिल्लें, आपूण आनी घोव असक्या दिसा मेळूंक येतात म्हणून. पुण तें कळतकीर बाप्पा होनीबायक घेवन चार दीस मुदांसाक गेलो. फाटल्यान तीं येवन गेलीं काय ना कांयंच कळ्ळें ना.

पोरान नाका तें केलें. फावना ताचो हात धरून गेलें. पुण आतां तेंच तकलेंत

घेवन बसूं येता ? ताका तरी आनीक कोण आसात ? घरदार, नातें–गोतें नाशिल्लो कोण खयंचो मवाली !... होनीबाय मातशी घुसपली. होच मवाली आपलो जांवय हें तकलेंत येवन ती गोंदळ्ळी. कसोय आसूं... शीलान ताका आपलो म्हळो, आतां दुस्वास करून फायदो ना. शीलाक कुळारा हाडूंक जाय... घोराक ह्या वेळार आवयची गरज ... ; पुण घोवाकडेन हे कशें म्हणप तिका कळना जालें.

त्याच दिसांनी फुलू गाभणें आसा म्हणचेलें तिच्या लक्षांत आयिल्लें. बाप्पा ताका घेवन नाचता तें पळोवन तिका शीलाचे यादीन चडच भरून येतालें. 'नशिबांतच ना पापणीच्या सुख ! ...' अशें म्हणून तीं सुस्कारताली एक दीस बाप्पा फुलूचे वाटयेंत दूद घालतालो, तेन्ना हळूच धीर करून तिणें म्हळें—

" दारांत म्हशी आसात, घरांत दूद–तूप भरपूर आसा; पुण जाका ताची ह्या वेळार गरज, ताका ... "

बाप्पाच्या कपलाक्यली शीर तट्टटली.

" जाका ताची गरज, ताकाच दितां हें दूद ... " अशें थंडसाणेन म्हणून ताणें वाटी फुलूमुखार दवल्ली.

" जाका आमची गरज, ताची गरज आमी पळोवप. सगल्या जगाची गरज आमच्यानी भागोवंक जाता ? " इतलें म्हणून तो भायर गेलो.

फुलू दूद पिवन होनीबायल्या पांयांक घसटूंक लागलें. होनीबायन ताका तिडकीन पेल्यान धुकळ्ळें— " पाडपडिल्लें ... " तिणें दांत किल्लीत म्हळें.

म्यांव करीत फुलू परथून तिका घसटूंक लागलें. परथून होनीबायन ताका पांयानच कुशीन उडयलें. नाकशिमरें शें फुलू परत होनीबायक येवन तेंकलें.

" तुजें बरें गो फुलू; धुकलून घाल्यार लेगीत तूं नाककात्रेंशें परत येवन तेंकता. मनशांचें तशें न्हय पुता. धुकलून घालीं म्हणटकीर घालीं .... " हुस्कार सोडून होनीबायन फुलूक पोशेलें.

कोणेंतरी सांगलें-- शीलाक दोतोरान सामकें न्हिदून रावंक सांगलां. होनीबायक कितें करचें समजना जालें. दीसयभर तिचे दोळे ओले जावंक लागले. बाप्पाक सांगचेली माणसुकी नासली; तरिकूय तिणें बाप्पाक म्हळेंच. बाप्पान हां केलें ना, हूं केलें ना. फुलूक थापटीत बसून रावलो.

" पोर थंय मरता काय उरता जालां; पुण तुमचें काळीज घट्ट तें घट्टच! इतलो कसलो राग घेवन बसप? सदां तेंच तकलेंत घेवन बसूंक जाता? ल्हान आसा तें – जाली चूक – आतां कितें करतलीं? आपलें भुरगें म्हणटकीर चूक पोटांत घालूं नाका?"

होनीबायन एके फावटीन सगलें उलोवन् घेतलें, पदरान नाक पुसलें आनी आशेन बाप्पाकडेन पळयलें.

" फुलूक दूद घालें गे तुवें आज? ...." कांयंच आयकूंक नाशिल्लेवरी बाप्पान तिका प्रस्न केलो.

होनीबायक किंवांटो आयलो. नाक तांबडेंच जालें. फुलूक बाप्पाले मांडये-वयलें भरभरीत ओडचें आनी दोन धपके घालून धांवडावचें कशें तिका दिसलें; पुण तिणें भायर कांयंच दाखयलें ना.

" हांव तुमकां शीलाची खबर सांगतालें — "

" हांव तुका फुलूक दूद घालें काय म्हणून विचारतालों." बाप्पान होनी-बायलें उतर मदींच तोडलें. आतां मात तिज्यान रावं नज जालें. मागीलदारांत वचून ती रड रड रडली.

त्या दिसाच्यान होनीबायन फुलूची वासपूस सोडली. मनशांची पर्वा ना थंय माजरांक घेवन कोण नाचतलो? अशें ती फडफडूंक लागली. आनी बाप्पा फुलूच्यो तोखणायो करूंक लागतकीर मुद्दाम शीलाचें नांव घेवन तें वावडें कशें आसा कोणाक खबर म्हणून खंत काडूंक लागली. पुण बाप्पाचें काळीज मात लेगीत हाल्लें ना. चुकून लेगीत शीलाचें नांव ताच्या ओंठार आयलें ना.

अशेंच दीस गेले आनी एक दीस फुलू म्यांव म्यांव करीत हेवटेन तेवटेन बोवाळूंक लागलें. बाप्पान ताका मांडयेर घेवन पोशेलें. पुण थंयय ताका सुख लागना जालें. उडी मारून तें सकयल देंवलें आनी आडुत, बोवाळ करीत सगल्या खांची – कोनशांनी भोंवंक लागलें. ताका कितें जाता म्हणपाचेंच बाप्पाक समजना जालें.

" आगे, फुलू अशें कितें करता?"

" कितें करता म्हणचे? करपाचेंच. व्हिता जातलें तें...." होनीबायन जाप दिली.

फुलू व्हिता! बाप्पाक सगलोच बोवाळ पडलो.

" हय गे, तो खोंटलो सकयल उडय पळोवया. फुलूक मोवशेंच हातूण घालूंया तातूंत ...."

होनीबाय ओगगी रावली.

" आगे, आयकूंक येना तुका ? ... "

" तुमगेल्या मोवशा हातुणाची माजरांक गरज ना. गरज आसता ती मनशांक. माजरां आपलो जागो आपुणच सोदून काडटात. तुमी व्हडली राजाची गादी हाडून दिल्यार लेगींत ताका ती मानवची ना. " होनीबाय आपलें काम करीतच रावली.

फुलू म्यांव, म्यांव करीत हेवटेन तेवटेन धांवतच आशिल्लें. बाप्पालो जीव सामको वयर सकयल येतालो.

" आगे, ताका मातशें पोशेय गे. सामकें सकयल वयर तळमळटा पळय तें...."

होनीबाय ओगीच रावली. एका माजराचे त्रास पळोवन इतलो आकूळ-पिकूळ जावपी मनीस आपले चलयेचे बाबतींत मात .... ओंठार आयिल्लीं उतरां होनीबायन परतिलीं.

" आगे, सामकीच निश्ठूर मगे तूं! थंय फुलू सामकें बाबडें कळवळटा आनी तूं -- "

" मोनजातीक असल्या वेळार कोणच म्हर्‍यांत आसल्यार आवडना आनी गरजय ना. फुलूक एकल्याकच आसूं दियात थंय. ताका आमची मातय गरज ना. गरज जाका आसतली, तें बाबडें एकलेंच तळमळटलें .... कळवळटलें .... कश्टतलें — " होनीबायचे दोळे भरून आयले.

बाप्पा मोन्यानीच भायर आयलो. फुलूलो बोवाळ आजून चलिल्लोच. ताका मनासारको जागोच मेळनासलो. बाप्पान ताच्यामुखार मोव हातुण घाल्लो खोंटलो दवल्लो; कास दवल्ली; साक घालो; पुण फुलूक कांयंच मानवलें ना. ताच्य तळमळयांनी बाप्पा अर्दो जालो. भायल्या सोप्यार वचून तो येवजीत बसलो.

फुलूलो बोवाळ आतां बंद जाल्लो; पुण बाप्पा येवजीतच आशिल्लो. बर्‍याचा वेळान तो उठलो. वस्त्रल काडून ताणें दोळे पुसले आनी बद्द रांदचे कुडींत गेलो.

" हय गे.... "

होनीबायन नदर वयर करून पळयलें.

"ताका हांगा हाडया...."

....कितें बाये ह्या दादल्याचें! फुलू भितर व्हिता जाल्यार ताका हांगा हाडया म्हळयार कितें ?....

"हें पळयात, ह्या वेळार फुलू म्हऱ्यांत वचप बरोबर न्हय. तें आसा थंयच आसूं दी." होनीबायन मातशें रागानच म्हळें.

बाप्पा आडखळ्ळो. आवाज ओलो जालो.

"फुलूची खबर न्हय गे,....शीलाक हाडूंया म्हणटालों हांव...." भरिल्ल्या गळयान बाप्पान म्हळें आनी आपले ओले दोळे होनीबायक दिसत म्हणून आवंडो गिळीत बेगिबेगीन भायर आयलो.

# ११. आवडू

काण्णांचो पिकिल्लो घोंस पळयतकूच पुष्पान फाटफूड पळय नासतना फट्ट करून ताका हात घालो; पुण त्या बोवाळांत हुमल्यांचो घोंटेर फुटून राशिच्यो राशी पुष्पाचेर कोसळूंक लागल्यो. हातांतलीं काण्णां थंयच उडोवन ताणें कांट्याकुट्यांतल्यान हात भायर काडलो आनी "आवू गो, बेगीन काड! आवय्स! यो गो बेगीन..." अशें म्हणत तें आवडू म्हऱ्यांत धांवलें. तितले म्हणसर ताज्या पांयाकय एक कांटो तोंपलो आनी ताजी सामकीच धांदल जाली. 'हाय, हुय' करीत तें थंयच एका पांयार नाचूंक लागलें.

हातांतलो दोणो जमनीर उडोवन आवडू पुष्पा म्हऱ्यांत धांवलें आनी ताणें फाफडून फाफडून सगले हुमले काडून उडयले. केंसांत घुसपल्ले, आंगार हेवटेन तेवटेन धांवूंक लागिल्ले सगले हुमले ना जाले अशी पुराय खात्री जातकीच पुष्पान पयस शेंवटून उडयल्लें जोतें हातांत घेतलें आनी ताच्या तळांतल्यान भितर सरून ताज्या पांयाक तोपिल्लो कणकीचो कांटो ओडून काडलो. दोणो ओतून हेवटेन तेवटेन पडिल्लीं काण्णां आवडून परतून दोण्यांत भल्लीं आनी तें पुष्पा म्हऱ्यांत आयलें. कांटो तोंपिल्लो पांय सांसपीत पुष्पा एका फातरार बशिल्लें. काण्णां खातां खातां ताजी नदर आवडूच्या पांयांर गेली.

"आवू, तुवें जोतीं घालूंक ना?" ताणें अजापान विचाल्लें.

"म्हाका कित्याक जायीं जोतीं?"

"जोतीं घालून पसून म्हाका कांटो तोंपलो पळय; आनी तूं अशेंच भोंवता? तुजेकडेन जोतीं नात?"

"ना बाये!"

"हांव दितां हां तुका!" पुष्पान ताका सांगलें.

आवडू ताजेकडेन पळोवन अपुरबायेन हांसलें.

कितल्या वर्सांफाटली ही गजाल! पुण आज ती पुष्पाच्या दोळ्यांमुखार जशाक तशी उबी राविल्ली. मुस्तायकी भरतां भरतां तें मदींच थांबलें. 'दिल्लीं

काय हांवें जोतीं ताका ? ' तें येवजुपाक लागलें. ' कांय याद जायना बाये. ' अशें म्हणत तें उठलें आनी आरमार उगडून ताणें जोत्याची एक नवी नवी करकरीत पार भायर काडली. मुद्दाम आवडू खातीर ताणें हीं मोवशीं जोतीं घेतिल्लीं.

धा वर्सांनीं पुष्पा परतें गोंयां वतालें. तें आठ वर्सांचें आसतना ताज्या बापायची दिल्लीक बदली जाल्ली आनी तीं सगलीं तेन्नापसून दिल्लीक रावंक गेल्लीं. आवडू तांची वावराडी. पुष्पाल्या ल्हानपणापसून ती तांगेर आशिल्ली. दोगांयचोय एकामेकांचेर खूब जीव आशिल्लो. पुष्पान ताका सोडून दिल्लीक वतना खूब आकांत केल्लो. ताका फुसलायता म्हणसर सगल्यांक नाका शेवट जाल्लो.

'आवडूक रोखडेंच थंय व्हरतलीं,' अशें सांगतकीच पुष्पा मातशें ओगी राविल्लें; पुण एका फाटल्यान अेक, धा वर्सां उडून गेल्लीं तरी आवडूचे भेटीचो योगच येवंक नाशिल्लो.

गाडी दिल्ली स्टेशनांतल्यान भायर सल्ली आनी झुकझूक करीत धांवंक लागली. पुष्पा कितलो तरी वेळ जनेलांतल्यान भायर पळयत राविल्लें. एक फावट मुंबय पावलें म्हणटकीच मागीर गोंय चड पयस ना, अशें मनांत म्हणत पुष्पान दोळे धांपून घेतले. यादींचें शेवणें भीर्र भीर्र करीत ताज्या मनांत उडूंक लागलें. भाताचे आशे वेंचून काडिल्लेभशेन ताणें पुष्पाचे जिणेंतलीं एक एक करीत कितलिशींच वर्सां वेंचून चोंचींत धल्लीं आनी ताका परतून ल्हान करून सोडलें....

' हाणा गे कुदळ, काडा एक धेंपा
तितूं रोया रोपा तुळशीचा गे बाये
तितूं रोया रोपा तुळशीचा ... '

आवडूचो किनरो आवाज पुष्पाच्या कानांत पडूंक लागलो. आवडू शिकयतालें आनी आपलो आवाज तातूंत मेळोवन पुष्पा ताजे बरोबर धालो खेळटालें. आवडू वावर करून बेकार जालें म्हणटकीच मागीलदाराचे पडवेर ताजे बरोबर फुगडयो, धालो खेळप हो पुष्पाचो सामको आवडीचो खेळ आशिल्लो.

' खंय गेलो म्हजो कवडुलो ?
सुपातळा धांकलेलो !

अशें आवडू बरोबर म्हणत तें कवडुलो सोदूंक दंग जातालें. खरस यो म्हणसर

नाचून जातकीच पुष्पा थंयच फतकल मारून बसतालें आनी म्हणटाल, " आवू, तुजे घरच्यो खबरी सांग. "

आवडू रंगार येतालें. कपलावयलो घाम पुसतालें आनी म्हणटालें,

" एक फावट मगो बाये, म्हाका देंवचारान लिपोवन दवल्लेलें. "

" खरेंच ?... " अजापान दोळे व्हडले करीत पुष्पा विचारतालें, " ...मागीर ? "

" म्हाजें ल्हान आसतना लगीन जालेलें. घोव म्हाका बेश्टोच मारतालो; देखून हांव धांवोन धांवोन आवयगेर वयतालें. तिजें घर बरेंच पयस आसलेलें. एक पावट सांजच्या पाराच हांव धांवोंक लागलें. वाटेर काळोख जालो. म्हाका भिरांत दिसली. हांव बेगिबेगीन एका रुखार चडलें. तेचेर देंवचार आसलेलो दिसता ! हांव वयर मात चडलेलें....."

" आवयस् म्हजे ! कसो दिसतालो गो तो ? "

"काळोकीट्ट...येद्या व्हडल्या मिशांचो...तांबडयाच दोळयांचो ! गेऽऽ म्हाजे बायेऽऽ !" आंग शिरशिरायत आवडू सांगतालें. " ...म्हाजीं न्हूं गो सामकीं दाडवणांच बसलीं. उलोवंक येयना, हालोंक येयना ! म्हाजे गचेक धरत म्हणोन भिरांत दिसली म्हाका. "

" मागीर ? " धोंपरार हात दवरून ताचेर पोलो तेंकयत पुष्पा विचारतालें.

" फांतोड जाली. म्हाका व्होरोंक घोव म्हाजे आवयगेर गेलो. थंयसर हांव ना म्हणोन आवय आनी तो परतोन म्हाका उले मारीत, रानाकडचे वाटेन सोदीत येवोंक लागलीं. हांव आसलें त्या रुखा पोंदसून तीं गेलीं. हांवें तेंकां देखलें; तेंचे उले आयकले; पुण ' ओ ' म्हणोंक म्हाका जाप फुटोना जाली. आवयन देंव-चाराक कोंबो दितां म्होणोन सांगोन घेतलें खंय, तेन्ना म्हाका सोडलें तेणें. "

आवडूची खबर पुष्पा ओंऽऽ करून आयकून घेतालें आनी मागीर आपल्या इश्टिणींक एकठांय करून झेतान सांगतालें. रातची तर आवडूची काणी आयकल्या बगर पुष्पाक न्हिदच पडनाशिल्ली. पोटार दोन–तीन उशीं घेवन तें हेवटेन तेवटेन लोळटालें आनी म्हणटालें, " आवू, काणी सांग. "—

" सगल्यो सांगोन जाल्यो मगो बाये. "

" जावं ! परतून सांग. "

मागीर आवडू कुंडेकुस्कुराची काणी सांगूंक लागतालें.

" शीऽऽ ती तुवें हजार फावटीं सांगल्या. दुसरी सांग. "

" बरें आयक " अशें म्हणत आवडू सांगूंक लागतालें; " एक आसलेलो राजा. तेका आसल्यो सात कुंवरी. राजान तेंकां सात तळांचो म्हाल बांदोन दिलेलो. दिशीं माशीं त्यो व्हड जाल्यो. एक दीस कितें जालें.... "

आवडूची काणी रंगत वताली. आनी त्या सातूय राजकुंवरींचीं लग्नां जाय म्हणसर पुष्पा न्हिदून पडटालें.

आंबे, काजू चंवरूंक लागतकीर दोंगर, रानां भुरग्यांक खुणोवंक लागतालीं. काण्णांचे दिकाळ पाचवे घोंस तामशे काळशे जायत आयल्यात अशें कानार आयलें रे आयलें, पुष्पा सगल्या भुरग्यांक घेवन आवडू बरोबर रानांत वतालें. जमनीवयलीं सुकिल्लीं पानां चर्र चर्र करून माड्टीत, बोवाळ घालीत तीं हेवटेन तेवटेन पळयत वतालीं.

' आवयस ! हांगा पळय कितलीं काण्णां पिकल्यांत ! ' अशें म्हणत कांटेकुंटे पळय नासतना थंय धांवतालीं आनी पिक्यां बरोबर पाचवींय काण्णां तोंडांत घालून धादोस जाल्लेभशेन तोंडां करीत मुखार वतालीं. भिंडांच्या झाडांकय तेन्नाच घोंसाघोंसान तांबडींगुंज भिंडां लोंवत आसतालीं. सगलीं जाणां एकठांय जावन तो रूख हालयतालीं. पिकिल्लीं भिंडां गळून जमनीर पडटकीच तीं पुंजावंक एकामेकांक धुकलून सगल्या वाटांनीं धांवतालीं. दांत हळडुळे जाय म्हणसर भिंडां जशीं खावन जालीं, तशीं उरिल्लीं भिंडां एकामेकांचे फाटीर मारून थंयचे थंयच तांची रंगपंचम चलताली.

सामकें पुरो जातकीच मागीर दिकान चिकचिकीत जाल्ले हात, भिंडांचे तांबडेच दाग पडिल्ल्या आंगाच्यांक पुसत आनी आंबट गोड रुचीन भिजिल्ली जीब ओंठार फिरयत सगलींजाणां सवकासायेन घरा परततालीं. पोतयेंतले बिबे जमनीर ओतून तीं आवडूक मदीं घालून बसतालीं आनी आवडू दोन बारीक तोंकाच्यो बड्यो घेवन बिबे चिरून तांचेमुखार दवरतालें. पाचव्या चार बिब्यांतल्यान ताणें धवोफुल्ल म्हावलो भायर काडलो त्या बरोबर पुष्पाक आपणेंय बिबो चिरचो सो दिसतालो आनी आवडूचें आयक नासतना तें एक बिबो घेवन दोन बडयांनी घोंगशीत सुट्टालें. पुण म्हावलो भायर येवचो सोडून सगलो दीक मात ताज्या हाताक लागतालो....

० ०

मुंबय लागीं आयिल्ली. गाडयेंत सगल्यांनीं सामान बांदूंक सुरवात केल्ली. व्ही. टी. स्टेशनार गाडी बदलून जेन्ना पुष्पा गोंयां वचपाचे गाडयेंत बसलें, तेन्ना ताका सूऽऽ जालें. अजून कितलोसोच पयस आशिल्लो दूदसागर आतांच ताचे नदरेमुखार फेंसाचीं फुलां फुलोवंक लागिल्लो. पाचव्याचार शेतां मदल्यान धांवत सुटिल्लो तांबडे मातयेचो रस्तो आतांच ताका दिसूंक लागिल्लो. आनी तो ल्हारां फाटल्यान ल्हारां फोडपी पाचवो निळो दरया ! ताजेच मोवशार रेंवेंत घरां बांदीत तर पुष्पाचें ल्हानपण मुखार सरिल्लें. थंयच आवडून ताका ल्हान ल्हान पेटान्यो कुल्ल्यो धरूंक शिकयल्लें.

ज्या आवडून ताका हें सगलें शिकयल्लें, त्या आवडूची आनी ताजी भेंट जावंक आतां चड वेळ उरूंक नाशिल्लो. घरा पावतकीर पुष्पाक पळोवन सगल्यांक आनंद जालो. धा वर्सांनीं आयिल्ले नातीक आज्यान, आजयेन म्हर्‍यांत ओडलें. ल्हानपणच्यो इश्टिणी रोखडयोच जमल्यो. खबरो करतां करतां वेळ सरसरीत वचूंक लागलो. सांजवेळां मातसो सुशेग मेळटकीर पुष्पान जोतीं आनी आवयन आवडू खातीर दिल्लें कापड घेतलें आनी आजयेक सांगून तें भायर सल्लें.

आवडूच्या आंगणांत पांच–स भुरगीं खेळटालीं आनी मेरेर बसून एक बायल तांदूळ आसुडटाली. पुष्पान आवडूची चवकशी केली.

" पडवेर आसा तें. "

पुष्पा भितर गेलें. पडवेर एका हातुणाचेर पांगरून घेवन आवडू न्हिदिल्लें. "बरें बी ना काय कितें ?" अशें म्हणत पुष्पान ल्हवू उलो माल्लो, "...आवू."

" कोण गो ? " दोळयांर आडवो हात धरून बारीक पळयत आवडून विचाल्लें.

" हांव पुष्पा....तुजें बाय. वळखलें ना म्हाका ? "

" बाय गो म्हाजें ? " उमेदीन तार्णें विचाल्लें. " कितल्या वर्सांनीं देखलें गो तुका ? आतां व्हड जालें तूं. वयनीबाय बी कशी आसा ? "

" सगलीं बरीं आसात. तुका कितें जालां ? तूं बरें ना म्हुण खबरच ना म्हाका. "

" म्हाजें आतां म्हातारपण न्हूं ? " अशें वयलेवयर म्हणून आवडून रोखडोच विशय बदल्लो आनी विचाल्लें, " बाये, रावतलें मगो तूं ? "

" हे सुटयेंत हांगाच रावप. तुका याद आसा आवडू, आमकां सगल्या

भुरग्यांक घेवन तूं रानांनी भोंवतालें. बिबे, काण्णां काडून आमकां दितालें. आमचे बरोबर फुगडयो, घालो खेळटालें. बरें जातकीर तुवें म्हाका घालो शिकोवंक जाय आनी आमचे बरोबर काण्णां, काजू काडूंक येवंक जाय. तेन्ना तुजेकडेन जोतीं नासतालीं. निखटया पांयांनी तूं कांटयाकुटयांतल्यान आमचे बरोबर येतालें. आतां पळय, हांवें मोवशीं जोतीं हाडल्यांत तुका; आनी आईन कापड दिलां हें पळय. " आवडूमुखार पुष्पान दोनूय जिनस धल्ले.

इतलो वेळ उलोवपाच्या रंगांत आवडूच्या तोंडाकडेन पुष्पाचें लक्षूच नाशिल्लें. आवडूच्या दोळयांतल्यान दुकांच्यो झरी व्हांवताल्यो. पुष्पा काचाबूल जालें.

" आवू, कितें जालें गो ? " ताणें काकुळटेक येवन विचाल्लें.

" धुये म्हाजे... " आवडून दोळे पुसत म्हळें, " ...म्हाज्या पांयांक कांटे तोपोत म्होणोन जोतीं हाडलीं तुयें; पुण म्हाका पांय आसोन नासल्यापरीच. "

" अशें कितें उलयता तूं आवू ? "

" पांय धल्ल्यात बाये म्हाजे. चोलोंच्याक येयना म्हाका. आतां वरसभर जालें, काडटां दीस..."

पुष्पाचीं दुकां गळून ताज्या हातांतल्या जोत्यांचेर पडटालीं.

" तुयें म्हाका जोतीं हाडलीं ?...पांय नासल्यार नासों...म्हाज्या माथ्यार दवरतेलें तीं हांव...." अशें म्हणत ताणें हात फुडें करून तीं घेतलीं आनी काळजाकडेन धरून तें परत रडूंक लागलें.

" तुज्या वांगडा तूं वयता थंयसर येवोंचें दिसता...तुका बिबे चिरोन दिवोंचे दिसतात. बरें आसलेलें जाल्यार...." आवडून सुस्कार सोडलो.

" बाये, तुका म्हाज्यो घालो भोव मानताल्यो न्हूं ? " आपल्याच नादांत ताणें फुडें विचाल्लें.

" हय आवू. "

" त्यो पुण गावन दाखयतां तुका...." अशें म्हणत आवडून आपल्या थर-थरत्या आवाजांत म्हणूंक सुरवात केली.

" ...हाणा गे कुदळ, काडा एक धेंपा  
तितूं रोया रोपा तुळशीचा गे बाये  
तितूं रोया रोपा तुळशीचा...."

त्या सुरांचें बोट धरून पुष्पा परतें ल्हान जालें. पोल्यार हात धरून तें भिजिल्लय।

दोळयांनी आक्डू कडेन पळयत रावलें. ताज्या कानार सूर पडत आशिल्ले.

“ ....हें गे तुळशीचीं, पाचवीं चार पानां
पती गेला रानां तुळशीचा गे बाये
पती गेला रानां तुळशीचा...”

ꕥ ꕥ

# १२. अपुरबायेचें

कीण्ण रात...बीण्ण काळोख ! मदींच पावसाचो ओलो स्पर्श आनी रात-किडयांचे बेजारिल्ले सूर. ! त्या तालार सगळें वातावरणंच कशें पिरंगूंक लागलां. शिणिल्लेवरी...कश्टल्लेवरी...! निदान वेणूक तरी तें तशें दिसता. तें रावता ते चाळींतले ल्हान ल्हान संवसार जेन्ना दिव्यांचे दोळे धांपून काळोख पांगरूंक लागिल्ले, तेन्नाच तेंय बी हातुणार पडिल्लें; पुण हातुणार पडटकीर न्हीद घेवन येवंक ताजे दोळे विसरून गेल्यात. मन मात फाटलीं–फुडलीं चिंतना घेवन मुखार येता...येवजूंक लागता...

फकत चिंतनानी कांयच जावचेलें ना, हें वेणूय बी जाणा; पुण तरिकूय ताजें येवजुवप सोंपना. फुडाराचे आशेर मनशां जियेतात खंय ! वेणूक मात फुडाराचें चिंतूंक भंय दिसता. दोळयांमुखार काळोख येता. सामको आतां हे कुडींत भल्ला तसो... बीण्ण... !

वेणूचे उजवे वटेन कोणेतरी सुस्कार सोडला. तातूंतलो शीण, तातूंतलें दुःख वेणूक समजता. उमजता. ताज्याय काळजांतल्यान असले कितलेशेच सुस्कार सुटल्यात...सुटत आसात. वेणूचे दोळे काळोख सांसपीत उजवे वटेन वतात. नदरेक कांयं दिसना. पुण थंय ताजें व्हडलें चली शोभा न्हिदलां हें तें जाणा. शिणिल्लें, भागिल्लें शोभा... पडूंक आयिल्ल्या संवसाराक धिगी लायतना ल्हानपणांतच जाणटें जाल्लें शोभा... कितलें धिराचें आनी सोशीक... !

वेणूचे दोळे काळखांतल्यानच आनीक मातशे फुडें वतात. शोभाक तेंकून निरू न्हिदलां जातलें. कुरंगुटी करून...आंगा वयलें पांगरुण पांयां पोंदा घेवन. पंदरा वर्सां सोंपत आयलीं; पुण आजून भुरगेपणां सोंपनात. तशें पळयल्यार तें आजून ल्हानच. हांसपा–खेळपाचेच दीस ताजे. आनी खरें म्हळयार ताणें अशें हांसत रावचें, फुलत रावचें, अशेंच वेणूक दिसचेलें; पुण तशें तें दिसना. दिसता किं निरूनय मातशें जाणटें जावचें. शोभाभशेन थोडो भार, थोडीं चिंतना आपणें घेवचीं. शोभान एक धिगी लायल्या; हाणें दुसरी लावची आनी त्या आधारान

आपलो संवसार पेलून भरचो. जाता तितले दीस...मागीर आसाच नशिबांतलें... !
वेणू कूस परतिता आनी हुनहुनीत स्वास ताच्या पोल्यार हुळहुळूंक लागतात. मंद सोंशेवप कानार येता. ताजें धाकलें चली सुरेखा थंय न्हिदलां. सुरेखा...कितलें सोबीत नांव ! तें जाल्लें तेन्ना ताजी सोबीतकाय पळोवन वेणूच्या घोवान ताजें नांव दवरिल्लें...सुरेखा ! आजूयबी ताजी सोबीतकाय तशीच आसा. ते मुदयाळे केंस, ते काळेच दोळे, नाजूक ओंठ...सगळें रेखीव ! पुण कित्याक उपकरता ? ताजीं गोरीं पावलां केन्ना चलूंक नात. ते दोळे पळयतात; पुण तातूंत अर्थ ना...समज ना. ताज्या तोंडांतल्यान उतरां येनात. येता फकत लाळ... दीस आनी रात.... अखंड.... !
अशें हें पिशें लुलें रेखा. ताजेखातीर वेणूचो जीव तुट्टा. सकयल-वयर येता. बाकीचीं भुरगीं चलूंक लागलीं; उलोवंक लागलीं. रेखा मात फाटीं उल्लें. पयलीं दिसलें, थोडया भुरग्यांक वेळ लागता. आनिकूय दीस गेले; पुण रेखा मात तशेंच उल्लें. जेन्ना वेणूक खरें कितें तें कळ्ळें, तेन्ना ताणें कितलो आकांत केलो ! ताज्या घोवान ताका धीर दिल्लो, फुसलायल्लें. पुण आज धीर दिवंक तो तरी खंय आसा ? सगलो संवसार वेणूच्या माथ्यार उडोवन तो गेलो. ताज्या बदला रेखा गेल्लें जाल्यार ? वेणूचें मन ह्याच विचारा भोंवतणी घुंवता. आज ना फाल्यां शोभा-निरूचीं लग्नां जातलीं. तांचे वेगळे संवसार जातले. जांवय बरे मेळ्ळे जाल्यार कितेंय आदार मेळत. ना जाल्यार मागीर...आपल्या फाटल्यान रेखाचें कशें ? आपूण आसां म्हणसर कशेंय जायत; पुण मागीर भयणींचे संवसार ताका वेंगेंत घेत !.., जल्मभर ?.... रेखा गेल्लें जाल्यार सगले प्रस्न सुटिल्ले. पुण तें आसा. लुलें पिशें खरें....पुण जितें !
तसल्या मनशांकूच सदां चड जीण आसता. जाय तीं वतात आनी गेल्यार जाता तीं उरतात ! वेणू येवजिता. न्हिदांतच रेखाचो हात ताजे कमरेभोंवतणी पडटा आनी वेणूची तनरो मदींच तुट्टा. आपूण कितें येवजितालें तें चिंतून ताजें ताकाच खल्लेमशेन जाता. भितल्ले भितर आपल्याचेर तिडकत तें रेखाक घट्ट वेंगेंत घेता आनी शिणिल्ले दोळे धांपून घेता.... अळंग....
ल्हवू ल्हवू रातीचीं पावलां पयस पावतात आनी सकाळचो उजवाड वाट काडीत कुडींत येता.... काळखांत लिपिल्लें दळदीर उगडें करीत वेणूल्या संवसाराचेर पातळूंक लागता. वेणू उठल्यार खूब वेळ जाला. सकयल नळाक

नंबर लावपाचो आसा. दूद–सेंटरार दुदाखातीर रांगेंत रावपाचें आसा. पांयांक चाकां लावनच सकाळ सोपोवपाची आसा. शोभाक ऑफिसाक वचपाची ताकीद; निरूचो शाळेंत वचपाचो बोवाळ; थंड आसा तें एकलेंच... रेखा!

सदचे भशेन वेणू एके वटेन काम करता आनी एके वटेन येवजिता. आसात त्यो चिंता उण्यो म्हणून हालीं आनीक एक चिंता वेणू फाटल्यान लागल्या.... तीं रावतात ती चाळ सामकी मोडूंक आयल्या. बसी, ट्रक रस्त्यावयल्यान गेल्यार सगळी चाळ हालता. घोग्यांनी पावस पडूंक लागतकीर तर सामको भंय दिसता... धस्स करून देंवत म्हणून. शिवाय हालीं हे भूंयकांप जातात. चाळ केन्ना जमनी भरवण जायत म्हणून सांगूंक येना. एक एक करून कितलींशींच बिराडां दुसरे-कडेन रावंक गेल्यांत. वेणूकय जायत्या जाणांनी सांगलां, चाळ सोडल्यार बरें म्हणून.... पुण वेणूक दिसता, आजून कांयं मोडूंक ना... कसोय जालो तरी आलाशिरो आसा.... तो सोडून खंय वचप ? जागो मेळटा ?.... तोय वी कमी भाड्याचो ? शिवाय रेखा.... ताका एकल्याक कुडींत दवरून बाजारांत वचचें पडटा. अशा वेळार शेजारच्या आकाकडेन कुडीची चावी दवरून वेणू भायर सरता.... निश्चिंत मनान. आनी आका रेखाचेर लक्ष दवरता. ही चाळ सोडून गेल्यार हो शेजारय सुट्टलो. एक फावट हे मुंबयंत जागो मेळत... पुण आकाभशेन शेजार मेळूंक मात कठीण !

रेखा नाशिल्लें जाल्यार वेणूक खंयय एक कूड मेळ्ळ्यार जाताली... पुण रेखाक लागून आकासारको शेजार आसत थंयच ताका कूड जाय आशिल्ली. शिवाय उण्या भाड्याची... तशी ती मेळपाची आशा थोडीच म्हणा ! कोण सोदतलो ?... आनी खंय ?... झक मारूं... वेणू येवजिता. '... चाळ उबी आसा म्हणसर हांगाच रावप... मोडल्यार मोडली... आमकां घेवनच पडल्यार चड बरें... सुट्टलीं !.... '

इकरा वरां जायत आयल्यांत. शोभा, निरू केन्ना गेल्यांत. वेणूकय भायर सरचेलें आसा. रेखाचे केंस उळोवन तें ताका न्हाणयता, हातुणार न्हिदयता आनी अपुरबायेन ताजेकडेन उलयता. लाळ गळयत रेखा हांसता; हात हालयता... ल्हान भुरग्याभशेन !... हरशीं कसलीच बुद्द ना; पुण आवयक पळयतकीर ताका भोव खोंस जाता. ताजें तें बाबडें शें तोंड तेन्ना येदें जाता. दोळे वेणूच्या तोंडाचेरच खिळून उरतात. आपल्या म्हन्यांतच बसून राव... आपल्याक सोडून वचूं नाका...

अशें ते दोळे आपले परीन वेणूक सांगूंक सोदतात. ते अर्थहीण नदरेंतली ही विनवणी वेणूचें काळीज जूस्त वळखता. वळखता म्हणचे परस ताका ती जाणवता. आनी देखूनच आपल्या फाटल्यान रेखाचें कशें जातलें हें येवजूनच तें कश्टी जाता. आपल्या पयलीं गेल्यार सुट्टलें तरी... तेंय बी आनी आपुणय बी... पुण कर्मभोग चुकता !...

रेखाक न्हीद लागतकीर आकाकडेन कुडीची चावी दिवन वेणू भायर सरता. वेगिवेगीन कामां करून ताका परतुपाचें आसा. गरजेचेंच थोडेंशें सामान... पुण तें घेतना वेणूचीं देड–दोन वरां अशींच वतात. हातांतल्यो पोतयो सांबाळीत वेणू बसीची वाट पळयता. इतल्यांत फायर ब्रिगेडची गाडी घांट घणघणायत वता' खंय वता काय ती ?... खंय उजो लागलो काय ?... काय खंय बिल्डिंग कोंसळ्ळी ?... देवा !... वेणू काचाबूल जाता. आपल्यालीच चाळ बी न्हय मूं ? रेखा आसा भितर. पुण अशी अकस्मात कशी पडत ? उजो बी लागलो ना मूं ? कितंय जावंक येद्देशें निमित्य पुरो जाता !... पुण... खंय दुसरेकडेन बी उजो लागला जातलो... आपलें आपल्याकूच वेणू धीर दिता; मनाचें समाधान करून घेता; पुण तें जमना. ताका केन्ना काय घरा पावल्यार पुरो जाला.

बस येता. लोक फुडें सरूंक लागतात. वेणूय ते गर्दे वांगडा आपशेंच मुखार पावता. तितले पुरतीं ताजीं चिंतना मातशीं विस्कळ जातात. पुण बसींत बसतकीर परत ताजें मन रेखा भोंवतणी घुंवंक लागता...जागें जालां काय तें ?...भुकेलां बी काय ?...भूक लागल्यार पसून सांगूंक येना पोराक !...अदमासान कामां करप...आपणें जेवतना ताका लावप...आपणें पितना ताका पियोवप...चुरचुरे !

बसींतल्यान देंवन वेणू घरचे वाटेक लागता. मार्गार गर्दी जमल्या. सगल्याक धुंवर जाला...काळोख... ' आवय गे ! ' वेणूच्या दोळयांमुखार काळोख येता. आपल्यालीच चाळ जातली...दुबाव ना...दुबाव ना...थंय रेखा आसा...

एकल वेणू धांवंक लागता...थरथरत्या पांयांनी. ताका कांय येवजना...कांय दिसना... " रेखा...रेखा...बायगोऽ... " कोनशावयल्यान वेणू फुडें येता. धांवतां धांवतां मदींच थामता. हय, ती ताजीच चाळ...तातूंतल्यानच धुंवर भायर सरत आसा...उज्याच्यो जिबल्यो वाऱ्या वांगडा नाचत आसात...

लोकांक धुकलून तें मुखार धांव मारूंक सोदता. ताजें चली थंय आसा. लुळें–पांगळें...आपलो जीव वांटावंक येना तसलें ! ... पुण बंबवाले ताका वयर

वचूंक दिनात. कोण तरी ताका घट धरता. कितलेंय केल्यार सुटूंक येना. वेणू हामेर फोडटा. " ...पांया पडटां रे तुमकां...सोडात म्हाका...वयर वचूंक दियात म्हाका...थंय म्हजें चली आसा...एकटें...!"

गर्दैतल्यान वाट काडीत कोणतरी ताका फुटपाथेर हाडून बसयता...फुसलायता... ....धीर दिता...पुण वेणूक तें कांयच आयकूंक येना. तें परत अुबें रावता... इतल्यांत ताका आका दिसता—एके कुशीक बशिल्लें...आनी आका म्हन्यांत... रेखा !...

व्हांवतीं दुकां पुसनासतना तें थंय धांवता. रेखाक वेंगेंत घेता...ताका सांसपिता, पोशेता... ताज्या लाळीन भरिल्ल्या तोंडाचे उमे घेता.

दोळयांमुखार ताजो संवसार जळत आसा...ताका उबंत करीत...पुण त्या खिणाक तरी वेणूक तें कांय दिसना. ताजें चली ताजे वेंगेंत आसा आनी त्या समाधानांतच तें गुल्ल आसा.

रेखा गेल्लें जाल्यार जायते प्रस्न सुट्टले आशिल्ले, अशें ताज्याच मनान रातीच्या काळखांत चिंतिल्लें खरें...पुण आतां रावचेलो आलाशिरो गेल्लो; आशिल्लें नाशिल्लें उज्यान गिळिल्लें; जायत्यो नव्यो चिंता उप्राशिल्ल्यो; तरीय वेणूचें मन तें कांय येवजिनाशिल्लें. कितेंय आसूं...कशेंय आसूं...आपलें चली आपल्याक जाय, इतलेंच तें जाणां...

मोटे मायेन रेखाक पळयत वेणू आपली वेंग घट्ट करता...ताका सामकें काळजा कडेन धरता...आनी ताज्या पोल्यार आपले ओंठ तेंकयत म्हणत रावता... " बाय तें म्हजें... अपुरबायेचें ! "

❦ ❦

तातूंतली एक नोट हाडून हरचंदाच्या हातार दवरताली. व्हेल्ले पयशे कोणें यादीन हाडून दिले, तर कोणें दिले नात; पुण तशें म्हणून बा कोणाकूच पयशे दिवंक फाटीं रावली ना.

कोणूय दुयेंत आसल्यार ताजे घरचे लोक बाच्या म्हन्यांत येताले.

'बा, शांतुल्याक अशें अशें जाता; कितें केल्यार बरें ?'

'भियेवं नाका आं. हें पाळ घे; दिसांतल्यान दोन फावट झरोवन दिल्यार पुरो.' ती म्हणटाली. सणिमियांचो आनी अडुळशाचो कसाय, हें तर तिचें फामाद वखद आशिल्लें. आनी तिज्या ह्या वखदांनी गूण पडटालो हेंय खरें !

आमचे 'बा' क याद मात सामकी उणी आशिल्ली; म्हणून ती पदराक गांठी मारताली आनी म्हाका सांगताली, 'गुण्याऽ, ही गांठ अमक्या खातीर. फाल्यां विचारतकीर यादीन सांग गो.'

तिज्या पदराक दर दिसा चार–पांच तरी गांठी आसताल्योच. काम करतां करतां मदींच तिजो हात ह्या गांठींचेर वतालो आनी मागीर ती चाळणींत पडटाली किं आपणें ह्यो गांठी माल्ल्यात त्यो कित्याक ?

'गुण्या गोऽऽ, गुण्या ऽऽ' म्हाका उल्यांचेर उले वताले; पुण खेळामुखार म्हाका ते आयकूंकच वच नाशिल्ले. हांव जाप दिना तें पळोवन मागीर बा कमरार हात धरून भायर येताली आनी परतून उलो मारताली. म्हाका ज्यूस्त कळटालें, किं कांय न्हय, हें गांठी सोडपाचें काम आसतलें. पयस उबें रावन हांव म्हणटालें, 'बा, कुरकुटांतल्यो बियो दितली जाल्यार येतां.'

'हय गो सायबिणी, यो मातशें.' बा हांसून म्हणटाली, तेन्नाच हांव तिज्या म्हन्यांत वतालें. आनी सांगतालें–' ही पयली गांठ मगे, गंगाकडल्यान भात कांडून घेवंक जाय म्हणून माल्ल्या. दुसरी गांठ–मिरसांगो सोंपल्यात, त्यो हाडूंक जाय म्हणून माल्ल्या. आनी तिसरी कित्याक माल्ल्या जाणा ?' हांव दोळे मिचकायत विचारतालें.

'सांग गो पापया सडसडीत... भितर कामां आसात म्हाका' बा काकुळटेक येताली.

'सांगूंऽऽ ? सांगूंऽऽ' हांव हेवटेन तेवटेन नाचत विचारतालें.

'तोमसोळ सो नाचूं नाका. सांग सडसडीत.' बा म्हाका तापयताली. मागीर हांव ल्हवूच सांगतालें,

'आज रातची भायरीं घेवपाची आसा न्हय तुका... त्या खातीर!'

'नावाडगेंच पापीण!' अशें म्हणत बा तरतरीत भितर वचूंक लागताली आनी बियो घेवंक हांवूय तिजे फाटोफाट धांवतालें.

सगळ्या पणटुरां भितर हांव ल्हान, म्हणून तिजें चड अपुरबायेचें आशिल्लें. बाकिच्यांल्यो नदरो चुकोवन ती म्हाका कितें ना कितें तरी चोंदयत आसताली. पुण हांव तें खावन ओगी रावतालें? शेः शे :! 'आनीक इल्लें दी गे, ना जाल्यार सगल्यांक सांगतां' अशें म्हणून हट धरतालें. तें आयकून बा तापताली. 'परतून तुका कितंय दिलें जाल्यार काना कुडको काडून हळशिकेंत उडयन' अशें म्हण-टाली; पुण कितेंय तरी म्हज्या हातार दवल्ले शिवाय रावनाशिल्ली.

अशे हे 'बा' न नातरां, पणटुरां आंगा-खांदार खेळयत एक दीस दोळे धांपले. तिजे शिवाय म्हाका चुकिल्ले वरी जावंक लागलें.

'बा खंय गेल्या?' रात दीस हांवें विचारचें.

'देवागेर गेल्या.' म्हाका जाप मेळटाली.

'केन्ना येतली?'

'देवागेर गेल्लीं मनशां परतीं येनात...' कोण तरी म्हाका समजायतालो. बा परत येवची ना हें कळटकीर हांव खूब रडलें. बा म्हाका जायच म्हुण बसलें; पुण 'गुण्या, आयलें गोऽऽ' अशें म्हणत बा कांय परत आयली ना. आनी तिजी वाट पळयतां पळयतां म्हजें ल्हानपण उडून गेलें!

दीस गेले तशो पोन्न्यो यादी फाटीं पडल्यो. नव्यो यादी भितर सरूंक लागल्यो. 'बा' च्या पदराक गांठींची शेपडी लांबताली तश्योच म्हज्याय मनांत आज यादींच्यो कितल्योशोच गांठी लांबतात. आज म्हजें मन 'बा' च्या उगडासान धुसपून गेलां... तिचे यादीची गांठ सांसपीत बसलां. पयशिल्ल्यान म्हज्या कानांत आवाज घुमता... 'गुण्याऽ, ही कसली गांठ गोऽ...?' आनी म्हजें मन जाप दिता... 'बाऽ, ही तुजेंच यादीची गांठ गे!...'

# १४. गोरवां

फांतोडेचो ह्य-न्हय सों उजवाड गोठयाच्या पांख्या-खांचींतल्यान भितर सरूंक लागलो आनी सुकणीं पांखां फडफडायत चिंवचिंवूंक लागलीं, तेन्ना बुधी म्हस जागी जाली. मान वांकडी करून तिणें मुखावयल्या घराकडेन पळयलें. आतां आनंदू मंगळूक घेवन येतलो... ती जाग घेत रावली.

दार उगडपाचो आवाज जालो तेन्ना ती सट करून उबी रावली. आनंदू येतालो आनी फाटल्यान लटलटत मंगळू येतालो. मंगळूक पळोवन बुधीचे पाने तट्टटले. दांवें तोडून मंगळू म्हऱ्यांत धांवचें आनी ताज्या तोंडांत पान्यांतलें दूद सोडचें शें तिका दिसलें. दांवें ओडीत ती हांबेवंक लागली. मंगळू तिज्या पान्यांक लागलो आनी बुधीचें सगलें आंग खोशेन फुलून आयलें. मंगळूचें आंग चाटीत ती ताका मायेन पळोवंक लागली आनी तितल्यांत आनंदून हाडिल्लो तांबयो तिका दिसलो. ... हं! बुधीन ल्हवूच सुस्कारो सोडलो. आतां हो मंगळूक कुशीन काड्टलो आनी आपल्यालीं आयदनां पुराय भरून जातकीर मागीरच मंगळूक परत आपल्या म्हऱ्यांत सोडटलो... पर्थून बुधीन सुस्कारो सोडलो.

आयदनां घेवन आनंदू परतलो तेन्ना मंगळू धोंगशे मारीत परत दूद पियेवंक लागलो आनी आपले भोंवतणचें सगलें जग बुधी विसरून गेली.

दीस जालो आनी गांवांतलीं सगलीं गोरवां राखण्यां वांगडा दोंगरा वाटेक लागलीं तेन्ना आनंदून बुधीचें दांवें सोडलें. सदांचे संवयेन बुधी गोठयांतल्यान भायर सल्ली. चडशीं सगलीं गोरवां बरींच फुडें पाविल्लीं. खारव्यां-वाड्यावयली गाभणी सोमा म्हस मात फाटीं उरिल्ली. बुधी तिच्या वांगडा चलूंक लागली. सगल्यांत फुडें आशिल्ले दोन रेडे धांवत-पळत दोंगरावटेन वताले, तांकां पळोवन बुधीन तिडकीन तकली हालयली.

"कितें सायबिणी अधाशीपणा! दोंगर खंय पळून वतात काय कितें? काय तण बी सुकून वचपाचें,आसा एका मिनटान!"

तिजें उलोवणें आयकून सोमा फकत हांसली. बुधीच फुडें उलोवंक लागली;

"खरें सांगपाचें जाल्यार म्हाका दोंगरार वचचे परस गोठयांतच रावप आवडटलें आशिल्लें."

"कित्याक गे ?"

"म्हजो मंगळू आसा न्हय गोठयांत ! ताका सोडून खंय वचनच-शें दिसना."

"मागीर रावली ना कित्याक तर ?"

"बऽऽरें रावचें शें दिसलें म्हणून रावंक मेळटा आमकां !" बुधीन हुस्कार सोडलो.

थोडो वेळ दोगूय जाणी मोन्यानी चलत रावल्यो. गळयांतल्यो घांटी तितल्यो किणकिणटाल्यो.

पावसान ओली जाल्ली वाट चडून सगलीं गोरवां दोंगरार पावलीं. पाचवें चार तण सगलेकडेन पातळिल्लें. ...आनी मातसो व्हडलो जातकीर मंगळूय बी येतलो हांगा... बुधीचे तकलेंत आयलें. शेंपडेन आंगावयले मूस आमडीत मातसो वेळ ती ओग्गी उबी रावली आनी मागीर सवकासायेन चरूंक लागली.

चंद्रू रेडो म्हऱ्यांतल्या रेडयाक सांगतालो... "तूं कितेंय म्हण, पुण हें तण तितलें रुचीक न्हय. पैर हांवें शेतांतलें थोडें पीक खाल्लें. वा ! आजून रूच जिबेर आसा..."

नांय जाल्यार चंद्रू खूबच ल्हेंवटो. बाराय काळ खाणाचेर नदर. त्या दिसा शेतांत पडलो म्हणून कितलो मार खालो पाडपडिल्ल्यान ! रूच जिबेर आसा खंय ! आनी वळ नात काय कितें फाटीर... बुधीन बकच्छायेचे नदरेन चंद्रूक पळयलें.

मुखावयल्या झाडावयलो कावळो बुधीक पळयत आशिल्लो. बुधी शिंगान फाट खरपिताली; शेपडी आंगार आपटून मुसांक आमुडटाली; तें पळोवन खावपासारकें कितेंय मेळत अशें दिसून कावळो अळंग सकयल देंवलो आनी भोंवडेक भायर सरिल्लेवरी नेटान बुधीचे फाटीर बसलो. तिज्या आंगवयल्यो किट्टयो तो चोंच मारून खावंक लागलो तेन्ना बुधीक सूऽऽ दिसलें आनी ती सुसेगादीन चरूंक लागली.

तन्नी–धाकटी शबरी म्हस बेठयाबेठी हेवटेन तेवटेन धांवताली.

"सोबता हें म्हशीचे जातीक !" सोमा बुधीच्या कानांत फुतफुतली "कितलेंय

सांगल्यार लेगीत समजना. म्हणटा, रेडे उधळटात तेन्ना बरीं सगलीं तोंड धांपून बसतात!"

बुधी जाप दिवंक वताली, इतल्यांत शबरी थंय येवन तेंकली.

"पाडवो केन्ना?" तिणें विचाल्लें.

सोमान मुद्दामच कानार केंस काडले. बुधीन तिरशे नदरेन पळयलें जाल्यार शबरी जाप मेळटली म्हणून थंयच राविल्ली. बुधीचे नदरेक नदर मेळटकीर परत तिणें तोच प्रस्न केलो. तेन्ना मागीर बुधीक उलोवचेंच पडलें.

"घरा-घरा मुखार पणट्यो पेटल्यो, म्हणटकीर कळटलें तुका पाडवो लागीं आयला म्हणून. निकतोच पावस सुरू जाता थंय आसा; तो पयलीं सोपूं दी!"

"खूब तेंप आसा तर आजून ...." शबरी कश्टी जाली आनी कितेंतरी चिंतीत थंयच्यान गेली.

"हिका इतले बेगीनच पाडव्याचे वेध लागले दिसता!" बुधीन सोमाक म्हळें.

"कित्याक लागचे नात? गोंडयांच्यो माळो गळयांत घालून बरेंऽ मिरोवंक मेळटा न्हय?" सोमा फणफणली.

बुधीच्या दोळयांमुखार पाडव्याची परब नाचूंक लागली.

"....अंदू म्हज्या मंगळूचो पयलो पाडवो" तिणें सोमाक सांगलें. सोमान फकत हुंकार दिलो.

पोट भल्लें तेन्ना दोगूयजाणी उदका-कोंडांत वचून बसल्यो. सूर्य माथ्यार पाविल्लो. दनपार रखरखताली. थंड उदक आंगाक लागतकीर बुधीक बरें दिसलें. दोळे धांपून ती स्वंथ करूंक लागली. कोंडांतल्यो बेंबक्यो तिजेर उडक्यो मारीत आशिल्ल्यो; पुण तिजें तांचे कडेन लक्षच नाशिल्लें.

सोमा आनी काणी म्हस उलयतालीं. मुखावयल्या झाडा सकयल दोन-चार गायो बशिल्ल्यो.

"थंय बसल्यात त्यो हांगा तरी येवन बसल्यार जातालें. ..बरेंऽ थंड दिसतलें आशिल्लें" ताकां पळोवन काणी म्हशीन म्हळें.

बुधीक हांसो आयलो....त्यो हांगा येवन बसतल्यो? हे काणेक म्हणून मातय अक्कल ना....तिणें मनांत म्हळें.

"आगे पापणी, त्यो गायो...त्यो चिखलांत कशो बसत?"

काणेन कान हालयले आनी ती ओग्गी रावन रवंथ करूंक लागली.

"ह्या दिसांनी लक्षा रेडो खंय दिसना तो ?" शबरी कोणाक तरी विचारताली.

"तुका खबर ना ? पयर ताजी आनी आयत्याची धिरी आशिल्ली. तांतूंत ताका बरोच मार लागलो..."

बुधीन फट् करून दोळे उकते केले. . .आं हां. . .तरींच इतली गर्दी जमिल्ली त्या दिसा. . .दर फावटीं घेऽऽ म्हणून गर्दी जमता धिरी पळोवंक. मनशांची वृत्तीच असली ! मुद्दाम धिरयो लावप आनी मजा पळयत बसप. फाटले खेपेक चंद्रूक दूख जाल्ली. त्या आदीं पोवळू. . .त्याय पयलीं. . .बुधीन खेदान मान हालयली.

आज मंगळू ल्हान आसा; फाल्यां तो व्हड जातलो. मागीर ताजीय धिरी लायतले. एकाद्रो तोय दुखवतलो. . .येवजू-येवजून बुधीच्या पोटांत कितेंशेंच जावंक लागलें आनी ती हुस्कारली.

दनपार देंवंक लागिल्ली. शबरी आजून नाचतच आशिल्ली आनी सोमा दोळे मोट्टे करून तिजेर नदर दवरताली. चंद्रूच्या शिंगांक शिंगां घांशीत शबरी तिट्टी टूंक लागली, तेन्ना मात सोमाच्यान सोसूं नज जालें. बुधीक धोंगसून तिणें म्हळें,

" पळय, पळय ! कशी तिटतिट्टा पळय पापीण ! सोबता हें ? "

" आसूं गे ..." जड जाल्ल्या दोळयांनी बुधीन म्हळें. " ...दोन-तीन वितां जालीं म्हणटकीर आपशींच निवळटली"

सोमा भितल्ले भितर घुसमटत रावली.

सांजवेळ जाली तेन्ना बुधीचो जीव वयर सकयल येवंक लागलो.

' आजून परतुपाचें जालें ना काय ! ' तिणें हेवटेन तेवटेन पळयलें. राखणे खबऱ्यांत रंगून गेल्ले. उठून एकलीच उबी रावन ती बेठीच हांबेवंक लागली.

' आजून जालें ना काय परत वचपाचें ? ' तिणें भितल्ले भितर म्हळें.

नाचून नाचून जाम जाल्ली शबरी लागींच बशिल्ली.

" इतली ताकीद कित्याक जाल्या तुका घरा वचचेली ? " तिणें अजापान विचाल्लें.

बुधीन शबरी कडेन पळयलें आनी ती हांसली.

" इतले बेगीन कळपाचें ना तुका तें. त्या खातीर गोठयांत आपल्या रेडकाक

सोडून येवच पडटा."

शबरीन बेठेंच तोंड फिरायलें.

तिळसांज जायत आयली तेन्ना मात सगल्यांकूच घरची ओड लागली. आपलें जड जाल्लें आंग केन्ना एकदां गोठयांत व्हरून घालतां, अशें सोमाक जाल्लें. शबरीच्या सुस्तावल्ल्या देहाक गोठयाची उब जायशी दिसूंक लागिल्ली. चंद्रू लेगीत काचाबूल जाल्ले भशेन बेठोच देंवतेर नदरो मारीत आशिल्लो. बुधी तर मंगळूचे ओडीन केन्नाची आकूळ-पिकूळ जाल्ली.

सगळयांकूच गोठयाची ओड लागिल्ली. फकत परतुपाची शिटकावणी तितली मेळपाची आशिल्ली.

❀ ❀

# १५. कू

“ कूऽऽ, ए कूऽ, आज किंतें जालां गो तुका ?... ओगीचशें आसा ? ” ‘ को ’ न मायें-मोगान ‘ कू ’ क प्रस्न केलो. चोंच घट्ट चिड्डून धरीत ‘ कू ’ न गळयाकडेन आयिल्लो हुडको परतिलो आनी मान सकयल घाली. दोनूय पांयांनी माती फाफशीत ‘ को ’न एक किडो वेंचलो आनी ‘ कू ’ च्या मुखार धरून म्हळें, “ घे, खा हो. ” पुण ‘कू’न मान परतायली; दोळांतलीं दुकां पांखांक पुसलीं. ‘ किडो खा खंय ! म्हाका हांगा खावचें जेवचें कांय येवजना. आनी हाका खावचे बगर दुसरें कांय येवजना. आशाभगत स्वंयचें कडलो ! ’ ‘कू’ न तिडकीन कोंब्याकडेन पळयलें.

चोंचींतलो किडो गिळीत ‘ को ’ ‘कू’च्या म्हन्यांत आयलो. हरशीं आपणें उस्तिल्लो किडो झोंपय मारून खावपी ‘कू’ आज ‘ घे, खा ’ म्हळ्यार लेगीत खायना म्हणटकीर प्रकरण बरेंच बिघडलां शें दिसता, अशें मनांत येवन तो मातसो काचाबूल जालो. फाटीं शिबन्या कोंबडे वांगडा तो किटकिट्टा तें पळोवन ‘कू’ अशेंच फुगून बशिल्लें. त्या दिसाच्यान ‘कू’ लागीं आसतना जमता तितले दुसऱ्या कोंबयांक पळोवपना, अशें ‘को’न थारायल्लें. पुण दुसऱ्यो कोंबयो वेडेपणान पांखां हालयत हेवटेन तेवटेन भोंवंक लागल्यो म्हणटकीर केन्ना केन्नाय तागेलो नाईलाज जातालो; तांच्यो मस्कऱ्यो माल्ले बगर ताच्यान रावें नज जातालें. पुण आज ‘कू’ लागसाराकच नाशिल्लें; म्हणटकीर ताजें जालां तरी किंतें ? विचाल्ल्यार पुण सडसडीत सांगतलें ? दोन वरां चोंच घट्ट दामून बसतलें अरबळ कशें !

“ कू, आज तूं ओगी कित्याक ? ” ‘ को ’ न इतलें विचाल्लें मात, ‘कू’ घसघशीत रडूंक लागलें. ‘को’न शेंप्याच्या पिसांनी ‘कू’ चे दोळे पुसले आनी मायेन म्हळें, “ कितें जालां तें तरी सांग मगो. ”

“ को, म्हज्यान आतां घडटा तें सोसूं नज रे... ” ‘कू’ न ‘को’च्या खांद्यार मान दवरून म्हळें.

कितें घडटा तें काय ?... ‘को’चें विचारचक्र घुंवंक लागलें. ते गोरे फाटींल

कोंबयेक हांव भोवन भोवन पळयतालों तें ज्यूस्त पळयलें काय 'कू' न? चोरयां पळयतालों हरशीं हांव... कितें दिसताली ती! वा! काय बरी मोडत मोडत चलताली! इतली वतांत भोंवली, नाचली; पुण सगळीं पांखां जागच्या जाग्यार! ना जाल्यार हें कू धेंडलो कशें चलतलें. हांगच्यान थंय वचचे पयलीं दोन पुण पांखां गळयतलें.

'कू'च्या दुकांनी 'को'चो खांदो भिजूंक लागलो तसो तो भानार आयलो. 'कू'च्या माथ्यावयल्यान चोंच भोंवडावंक लागलो. हुडके आडावन धरून 'कू' न म्हळें,

"को, अशेंच जायत रावल्यार हांव कितें करूं?"

"अशें जालां तरी कितें गो?"

"आजय बी ताणीं म्हगेलें तांतें फोडलें रे!..." 'कू'न हिमटी काडली.

ही आपल्याचेर शेकचेली भानगड न्हय, हें कळून 'को'क मातशें सू ऽऽ जालें आनी तो सांवरून बसलो. सदां उठून 'कू'चीं तांतयां फोडप म्हळयार कितें? अशें केल्यार वंश कसो वाडचो पडलो?...'कू' सांगत आशिल्लें,

"हांवें ज्यूस्त रांदचे कुडीच्या जनेला भायल्यान रावन पळयलें. तांतें घालून हांव उठटां थंयच आसां, आबोल्यान तें रोखडेंच व्हेलें आनी तव्यार घालें. चर्र्र करून आवाज जालो... म्हज्या काळजांत कितें जालें म्हणून सांगूं?... थोडयाच दिसांनी तांतयांतल्यान सोबीत शें पीलं भायर येतलें आशिल्लें रे...!" 'कू' परत रडूंक लागलें.

"रडूं नाका कू... केन्ना तरी हीं मनशां तांतयां फोडपाचें थांबयतलीं,... मागीर..."

"ना रे को, आज कितले दीस जाले, हांव तांतीं घालतां; पुण घालता खिणाक तें फोडून उडयल्लें म्हाका पळोवचें पडटा. इतले खेप तांतीं घालून सुदां म्हज्या पांखांपोंदा पिलां नात तीं नाच. असलें कसलें फुटकें नशीब रे म्हजें?" 'कू' सुस्कारूं लागलें.

'को'क कितें सांगचें तेंच कळना जालें. बशिल्ले कडेन ताणें माती उस्तूंक सुरवात केली आनी किडे खायत तो येवजूंक लागलो.

"कू, हाचेर एक उपाय आसा. हालीं मनशां संपार वतात तशें तूंय वच ..."

" म्हणचे कितें ? "

" म्हणचे तुवें थोडे दीस तांतयां घालपाचें बंद करप . . . "

" तशें केल्यार हांव खाण्याक बसलां अशें समजून, पांयांक बांदून उरफाटें हुमकळायतलीं मरे तीं मनशां म्हाका..."

" कितले दीस हुमकळायतलीं ? निमाणे वाजेवन तीं तुजी मागणी पुरी करतलींच. "

" खरेंच ! " ' कू 'चें मन आशेन भरून आयलें. दोळे पुसून तें हांसलें आनी मागीर ' को ' वांगडा उश्टवाऱ्याची वाट चलूंक लागलें. थंय गोबोर उसतीत काळी कोंबी व्हडल्या व्हडल्यान तापतली.

" हिजें आनीक कितें जालां काय ? " ' को 'न ल्हवूच ' कू 'क विचाल्लें.

" कळटलें..." 'कू'न म्हळें आनी तें काळे कोंबयेच्या म्हऱ्यांत गेलें. पुण ताणें विचारचे पयलींच 'काळी' हुमशा हुमशानी रडूंक लागली.

' को ' सामको वाजेल्लो. सगळे कडेन रडारड ! वाज बश्टो ! ह्या कोंबयांक आज जालां तरी कितें ? पांखां हालोवन पांय ताणून ' को 'न आळस दिलो आनी हेवटेन तेवटेन नदर भोंवडायली. ती गोरी फॉरेनर कोंबी हेवटेनच येताली. तो पळयतच रावलो. ती लागीं पावली तशें ताजें काळीज धडधडूंक लागलें. माथ्यावयलो तुरो हालयत ताणें मान वांकडी केली आनी एक साद वाऱ्यार सोडून दिलो. गोरेलेन तो आयकून तोखणायेन ताचे कडेन पळयलें. ' को 'क आपुण कृतार्थ जाल्ले भशेन दिसलें आनी तो तिजे वटेन मुखार सरूंक लागलो; पुण 'कू' आडवें आयलें.

" पळयलें काळी कितें म्हणटा तें ! " 'कू'चो आवाज रडकुरो येतालो.

" कितें म्हणटा ? " ' कू ' च्या माथ्यावयल्यान गोरेलेक पळयत ' को ' न विचारूंक जाय म्हणून विचाल्लें.

" आज खंय धनयान बाजारांतल्यान धा–बारा इल्लीं इल्लीं शीं पिलां हाडलीं- आनी काळी खाण्याक पडिल्ली थंय हाडून दवलीं. खाण्याक पडिल्ले कोंबडे पोंदा तांतीं दवरपाचें सोडून दुसऱ्यालीं पिलां दवरूंक लागले म्हणटकीर माणसुकी आसा... ? "

'को'चें 'कू' च्या उलोवण्या कडेन लक्षच नाशिल्लें; पुण 'कू' सांगत आशिल्लें.

... " काळेन चोंची मारून पिलांक पेल्यान धांवडायलें. बेठीच दुसऱ्यांल्या पिलांक ती कित्याक पाखांपोंदा घेतली? कोणालीं कोण जाणा! काळी म्हणटा, आपल्याक पोसकीं पिलां नाकात. कोऽ, अशीं दुसऱ्यांलीं पिलां हाडून काळेचे उबेक दवरप सोबलें रे घनयाक... ?" 'कू' न पोटतिडकेन विचाल्लें.

गोरेली कोंबी 'कू' च्या फाटल्यान रावन उलोवणें आयकताली. आजून फाटले सुस्तींतच आसात हयो कोंबयो, अशे नदरेन तिणें 'को' कडेन पळयलें. 'को' भुल्लुसलो, मुरकटलो आनी बेठोच साद घालूंक लागलो.

'कू' आपलेच चिंतेंत आशिल्लें. काळी ताज्या कानांत कितें सांगताली आनी 'कू' ची चोंच अजापान उगडी पडिल्ली.

" को, आयकलें तुवें? त्या पिलांक आवयच ना खंय!"

" कितें पिशेपणां उलयता गो तूं? आवय नासतना पिलां कशीं जातलीं?" 'को' न 'कू' क पिशार काडलें.

" काळी कितें सांगता पळय. हीं पिलां खंय पेटेंतल्यान भायर सल्ल्यांत..."

" पेटेंतल्यान? ..." 'को' अजापलो.

" Incubator म्हणटात ताका." सगल्यांकडेन तुच्छतेन पळयत गोरेलेन सांगलें.

'कू' क तिडक माल्ली. गाळी घालीत तें गोरेलेच्या आंगार धांवलें; पुण 'को' मदीं आड आयलो आनी तेदोळ म्हणसर गोरेली जीव घेवन पयस धांवली.

खरशेंत, धांपेत 'कू' परत 'काळे' म्हऱ्यांत आयलें. पांय पोटापोंदा घेवन गोबरा फोंडाऱ्यांत बसून तें चिंतूंक लागलें...

... तांतयां उबोवंक लेगीत आतां कोंबयेची गरज नाशिल्ली, म्हणटकीर जिणेंक अर्थ खंय उरिल्लो? ... जगप तरी कोणा खातीर? घाल्लीं तांतयां तव्यार पडटालीं आनी उरिल्लीं पेटेंत वचून पिलां जावन भायर येतालीं. तांतीं घालपाचे श्रास आमी काडप आनी... आनी 'कू'चे दोळे भरून आयले.

'को' ते गोरेलेच्या फाटल्यान वतालो तें दिश्टी पडूनय 'कू' फोंडारांतल्यान उठलें ना. मुखावयल्यान एक टोळ उडयो मारीत गेलो, तरिकूय ताणे चोंच मारून ताका धल्लो ना. तांतयां घालून लेगीत आपल्याक पिलां पोसकीं घेवचीं पडत काय कितें, हो विचार मनांत येवन भोवन भोवन ताजे दोळे भरून येताले...

❀ ❀

# १६. स्वीट ड्रीम्स्

आयतार आशिल्लो तरीय सदांचे संवयेन गुलूक साडे संकच जाग आयली. झांबय दीत ताणें कूस परतिली. शालू आजून सोंशोतालें. साडी पांयांवयल्यान वयर सरिल्ली. पांयांवयली काळी चरचरीत ल्हंव ह्य-न्हयशा उजवाडांत लेगीत लक्षांत येताली. गुलूची नदर आपसुकींच आपल्या पांयांर गेली. तशेंच ल्हंवेन भरिल्ले जड्डे पांय–दादल्यांभशेन! खुमणेंच पयलीं चुट्टी पेटिल्लें, मागीर पांय जड्डे आसल्यार अजाप कसलें? म्हणूनच तर चाळीस वसाँ जालीं, तरी आजून व्हंक-लच उल्लां. व्हंकल म्हणटना गुलू घुसपलें. चाळीस वसाँचे घोडयेक व्हंकल म्हणप?... आज चाळीस वसाँची व्हंकल....फाल्यां पन्नास ... परां साठ–पाड पडूं!...

आंग वळीत तें उठलें. दांत घांशीत फुडल्या दारांत गेलें. तिरीबाप्पागेर आयज बोवाळ सो? नितूक पळोवंक येवपाचे नात मूं? गुलूक कल्ल जालें. जमना बी मूं ताचें हे खेपेक? पयरचें पोर हें. कालमेरेन व्हिस्तीद घालून भोंवतालें. म्हणटा खिणाक व्हंकल जालें!... गुलूचे तकलेंत येवन गेलें. शालू उठून भायर आयिल्लें.

"नितूक पळोवंक येवपाचे आसात दिसता!"

"फाटल्याच म्हयन्यांत त्या नायकागेरचीं पळोवंक आयिल्लीं न्हय गो ताका?"

"थंय जमलें ना तें नकळो तर तूं? वाडिल्ली व्हंकल आसा म्हणसर दाखोवपाचे आक्त हे जातलेच."

"अशें?" शालून मुद्दामच विचाल्लें. गुलून ताची नदर चुकयली. शालूय वाडलां. आपले परस चार वसाँनी ल्हान तें. आपले सोयरिकेखातीर बापायन त्रास तरी घेतल्यात; पुण शालूची कोणे वासपुसच केली ना. केली ना म्हणचेपरस आपणें करूंकच दिली ना. तेन्ना आपले पयलीं शालूचें जायत म्हणून भिलें. आतां तें भायले भायर खंयय जमयत आनी आपुण एकलेंच उरत हो भंय फाट सोडीना. शालू शाळेंत शिकयता, चार चौगांत मिसळटा. खंयचो मास्तर बी

गुटलायना मूं तें ? ह्या विचारान तकली केन्ना केन्नाय पिकार जाता.

गुलून ल्हवूच शालूचेर नदर माल्ली. तें हात वयर करून केंसांचो आंबाडो बांदतालें. दांतां फेणो, रांपिल्लो रंग, केंसां शेणकुली–शीः !....नदर तरी घालपाची अ सा हे शालूचेर ! आपलो रंग तरी मातसो उजळ. दोगांय वांगडा भायर सर्ल्ली आनी केन्ना कोणे पळयलेंच जाल्यार तें आपल्याक, हें लक्षांत येवन गुलूक मातशें बरें दिसलें. पुण कांयंच सांगूंक येना. आपणें जागरूक रावल्यार बरें. फाटीं ताणें त्या परुळेकर मास्तरा वांगडा मातशी दाटी केल्ली. ती पातळ करता म्हणसर जीव अर्दो जालो. मोट्टें आसा शालू, भितल्ले गांठीचें ! भायले भायर जमोवंक सोदता !

तिरीबाप्पालें चेडूं जनेलाचे हारशे पुसतालें. गुलून ताका शुत् केलें.

" कोण येवपाचे आसात काय कितें गो ? "

चेडवान आयकलें नाशिल्ले भशेन केलें आनी तें फडफडत भितर गेलें.

हीं चेडवां हालीं मातल्यांत. कितेंय विचाल्लें जाल्यार बरेंभशेन सांगलें अशें ना. जावं ! सांगलें ना म्हणून कितें जालें ? दिश्टी पडचें ना काय कितें ? तरतरीत तें भितर गेलें. आज सगळीं कामां आटापून बेगीन बेकार जावंक जाय, ह्या विचारान तें सडसडीत कामाक लागलें.

तें केंस वळयतालें तेन्ना शालू न्हावन भितर सर्ल्लें. ओलो वालो आंगाक चिप्प बशिल्लो. फाटीचीं गाबदळां, घागरो बांदता थंय पडिल्लो काळोच कट पळोवंकूच जायना आशिल्लो.

" आंवंय ! शालू, हालीं बाये तुजेर सामकीच नदर घालूंक जायना. "

शालूचें तोंड उतल्लें. " आतां कोणें नदर घालूंक जाय आमचेर ? "

" तें जालेंच गो. तशें पळयल्यार आज आमीच सुखी. लग्नां जावन कोण कितलीं बऱ्याक पावलीं तें खबर आसा ! "

शालू भितर गेलें. गुलू तरतरीत ताच्या फाटल्यान गेलें.

" पोरूं बोरकाराल्या अनूचें लग्न जालें. फाटींच ताच्या घोवाचो पांय मोडलो; नोकरी गेली; तें श्रासांत पडलां...धारू मावशेलें निलू पयर घोवाच्यो खबरी सांगून रडटालें. घोव खंय सोरो पिता आनी निलूक बडयता. कुंदालो घोव ऑफिसांतल्या एका किरिस्तांव चेडवा फाटल्यान पडला. बाबूमामाल्या सुलूलो घरचीं ताका कशीं बुडडून खातात तें तूं जाणाच ... "

शालू मोन्यानीच साडी न्हेसत आशिल्लें. हें सगळें कितले फावटींच आयकून जालां. कान सामके किटल्यात. लग्न जावन बऱ्याक पाविल्लींय जायतीं जाणां आसात; पुण तांचीं नांवां गळून केन्नाच घेतलीं नात. शालूय ताका तां सांगूंक वचना. गुळूक खबर नासतना आसा ? आपल्याच मनाक तें फटोवंक सोदता, काय दुसऱ्यांक पिशार काडूंक सोदता, ताचें तेंच जाणा !

साडी न्हेसतां न्हेसतां शालून मुखावयल्या हारशार नदर माल्ली. गुळू म्हणटा तें फट न्हय. नदर घालपाची ना. चाळीसांक लागीं पावलें, आतां कोण नदर घालीत ? पुण पिशें मन आजून आशा धरून आसा. केन्ना तरी कोणाच्या तरी नांवान गळयांत मणी बांदूंक मेळत ...

" तूं नकळो शालू; शेंवतूमावशेलें जया पयर धोवाक सोडून आयलें खंय ...." गुळू धादोसकायेन सांगतालें. " .... ट्यापरस आंकवार आशिल्लें जाल्यार कितें वायट जाल्लें ? आतां गांवभर हळशीक जाली ना ? "

शालूची तकली कणकणूंक लागली. गुळू रंगार आयिल्लें. तितल्यांत तिरी-बाप्पाली बायल सालांत आयली म्हणपाचें ताणें पळयलें आनी बेगिबेगीन तें जनेलांत वचून उबें रावलें.

तिरीबाप्पागेर सगल्यांक गुळूचो दुस्वासी सभाव खबर आसा. जाता तितलीं तीं ताका चुकयतात. पळोवंकूच ना शें करतात. आतांय होनीबायन ताका पळोवंक नाशिल्ले भशेन केलें. पुण तिच्या कपलाक आंठयो पडल्यो.

" ए होनीबाय, निवळशी करता ? कोण येवपाचे आसात काय कितें गे ? "

बरें, येवपाचे नात म्हळें म्हणून लिपता ? तांच्या सालांत कितें चल्लां तें गुळूगेरच्यान ज्यूस्त दिसता.

" हांचे वळखीचे कोण येवपाचे आसात--" होनीबायन मोघम जाप दिली.

" अशें ? म्हाका दिसलें नितूक पळोवंक वी .... " होनीबाय सडसडीत भितर गेली. पाड पडिल्लें कुच्छिश्री खंयचेकडलें ! आपुण केदें वाडलां तें पळयना; दुसऱ्यांक कोण पळोवंक येतात ताच्यो चवकश्यो. धवळूक ! फिस्स करून हांसत गुळू परतलें.

" पंदरा-वीस जाण पुण पळोवन गेले जातले न्हय गो नितूक ? खंयच बाये पसंत पडना. "

" पडटलें एक दीस. बापूय आनी भाव हात-पांय हालयत आसात. सुशेगाद बसूंक नात चली वाडटा तें पळयत."

शालूचे थोमणे गुलूक बरे कळटात. पुण तें काना मनार घेना. आपणेच आडमेळीं हाडिल्ल्यान बापूय शालूले सोयरिकेक मुखार सरूंक पावलो ना. आपले पयलीं ताका लग्न केल्यार आपुण जीव दितलें, अशें भेश्टायलें म्हणूनच तो फाटीं सल्लो, हें शालूक पुराय खबर आसा म्हणपाचें गुलू जाणा. बापाय-फाटल्यान सोयरिकेक मुखार सरपी कोण उल्लो ना. वय वाडत रावलें. केन्ना केन्नाय वित्रागांनी शालू हे अशे थोमणे मारता.

साडेपांचांक सुमार तिरीबाप्पाले सोयरे आयले. दोन दादले–दोन बायलो. गुलू सगलो वेळ पडुया फाटल्यान बसून आशिल्लें. मोटारीचो आवाज आयकून शालूय ताच्या म्हऱ्यांत आयलें.

" हो तो भुरगो सो आसा तो न्हवरो जातलो. बरो दिसता, न्हय गो गुलू ?"

" हे पयलीं येवन गेले ते कितें वायट दिसताले ? बरें दिसना तें नितू. होय बी पसंत करीत सो दिसना गो ताका." गुलूच्या तोंडार हांसो फुलिल्लो.

शालूक भयणीचो हो असलो सभाव मानवना. आपल्यालें जालें ना म्हणून दुसऱ्यालें जावचें न्हय, अशी इत्सा करचीच कित्याक ?

" पळे पापीण कशें लजेता तें! आतांच सगळें सोपोवं नाका, थोडें फुडले फावटीं लजूंक दवर पाडपडिल्ल्या...."

" तुजें नाका आशिल्लेंच गुलू."

गलूचें शालूकडेन लक्षच नाशिल्लें.

" पोव बी थापून रंगयलां पळय खुमणें ताका भुलोवंक. तरी बरें, कोण भुलना चेंचुड्डाक." गुलू सामकें किंवांटयान अुलयतालें. शालूक ताच्या तोंडाकडेन पळोवं नज जालें.

" लग्न म्हळयार फुलतात...."

सोयरीं भायर सर म्हणसर गुलू थंयच बसून आशिल्लें. न्हवऱ्याच्या तोंडाक बारीकसाणेन पळोवन तें फिस्स करून हांसलें.

" फिसकटलें गो तें शालू."

शालू ओग्गी.

" न्हवऱ्याच्या तोंडार हांसोच ना. येदोळ भितर सरतना बरो हांसतालो. आतां

निराशेल्लेवरी जाला. आनी तिरीबाप्पा कसो पळय सुणो कसो लेंगें लेंगें करीत ताच्या फाटल्यान वता. जमचें ना तें हेय फावटीं."

हांसतच गुलू बाजेर येवन बसलें. दोळयांतल्यान दुकां यो म्हणसर हांसत रावलें. मागीर खरशेत ताणें तोंड पुसलें आनी स्सू करून थंयच आडवें जालें.

मोटे आशेन रावतलीं तिरीबाप्पागेरचीं. फुसकी आशा! म्हाका विचारात कितें जाप येतली ती. गुलू धादोसकायेन हांसलें. मागीर ताका एकदम शालूची याद जाली. फट्ट करून तें उठलें. लोकांगेर हे असले आक्त जावन गेले म्हणटकीर शालूचे तकलेंत लग्नाचे विचार घुंवंक लागतात, असो गुलूक दुबाव आसा.

शालू पुस्तक वाचतालें. गुलून बारीकसाणेन ताच्या तोंडाकडेन पळयलें.

"जाणा मगो शालू, नितू पिशें! नितूच कित्याक, सगल्यो आंकवार चलयो पिशो... लग्न जावंक सोदतात! लग्न जावप म्हळयार त्रास....नाका आशिल्ल्यो कटकटी...नाका आशिल्ले व्याप! म्हाका जाल्यार लग्न म्हळयार आंगार कांटो येता..." गुलून आंग शिरशिरायलें. "....लग्न जालें ना तेंच बरें. कशीं सुशेगाद आसात पळय आमी... कितें?" शालूक कोंपरान धोंगशीत ताणें विचाल्लें.

पुस्तक सकयल दवरून शालून ताचेकडेन पळयलें. खरेंच अशें दिसता काय गुलूक? इतलें निबर जालें ताचें मन? गुलूच्या तोंडा वयल्यान ताका कांयच कळ्ळें ना. घडये चाळीस जावन वतकीर मनशाचो सभाव बदलता आसूं ये. म्हाका मात आजूनय लग्न जावचें शें दिसता. जालें ना म्हणून खंत भोगता. येद्दिशीं काल-पयरचीं पोरां, 'बाई म्हजें लग्न, लग्नाक यो,' म्हणून आमंत्रणां दिवंक येतात तेन्ना भितर खंय तरी त्रास जातात. शालून हुस्कार सोडलो. खंत काडली म्हणून लग्न जाता? त्यापरस गुलूलें बरें आपलें. लग्न जालें ना तेंच बरें म्हणटा तें. ना खेद ना खंत...शालून हुस्कार सोडून परत पुस्तक वाचूंक घेतलें.

चारच दिसांनी तिरीबाप्पालें चेडूं दूदपेणे घेवन आयलें. गुलूनच दार काडलें.

"कसले गो?"

"आमचे नितूबायचें लग्न थल्लें."

"कितें?...." गुलूच्या पांयांतल्यान चडून आयिल्ले भशेन जालें. कोणागेर दितात, कितें, कात विचारपाचें ताका भानच उल्लें ना.

चेडूं गेलें तशें तणतणत तें भितर आयलें.

" नितू पडलें पुता त्रासांत.... "

" कितें जालें गो ? हांगच्यानय नकार आयलो ? " शालून विचाल्लें.

" शेः ! लग्न थाल्लें ताचें. " दुदपेंडे शालू मुखार उडयत गुलून म्हळें.

" खरेंच ? " दुदपेंडो तोंडांत उडोवन शालू पेपर तपासूंक लागलें.

" खोशेन फुल्ल्यांत आसतलीं सगलीं. पिशीं ! दोन दीस राव. शेंवतू आकाल्या जयाभशेन ना जाल्यार बाबूमामाल्या सुलूभशेन रडत कुळारा येतकीर कळटलें. मागीर पळोवया तोंडां एकेकल्याचीं. " खोशी जाल्ले भशेन गुलू हांसूंक लागलें. पोट फुटसर हांसत रावलें. ताच्या वांटयाचो दुदपेंडो तसोच उल्लो.

रातचें हातुणार पडून कितलो वेळ जालो, तरी गुलूक न्हीदच येना जाली. " त्रासांत पडलें गो तें पोर... " ताणें शालूक म्हळें; पुण शालू सुस्त न्हिदिल्लें. गुलू कुशी परतीत चिंतत रावलें. रावूं नज जालें तशें तें अळंग उठलें. आवाज करी नासतना भितल्ले कुडींत गेलें. दिवो पेटोवन ताणें मेजा खणांतल्यो चाव्यो काडल्यो आनी कोनशाक दवरिल्लो ट्रंक ल्हवूच उकतो केलो. दांबरा गुळयांचो वास कूडभर पातळ्ळो.

उशा चिरयो, तुवाले, चादरी हांणी ट्रंक उपट्ट भरिल्लो. गुलून ताचे वयल्यान हात भोवंडायलो आनी वयल्योच दोन चिरयो भायर काडल्यो. ' SWEET DREAMS... ' वीस वर्सां फाटीं आपणें कश्ट घेवन भरिल्लीं तीं अक्षरां ताचे नदरेंत गेलीं. अळंग हातान ताणें तीं सांसपिलीं. पळयतां पळयतां ताचे दोळे भरून आयले. आनी उशा चिरयो काळजा कडेन घट्ट धरून तें भितल्ले भितर घुसमटत रडूंक लागलें....

❦ ❦

# १७. मोगरे कळे....निळे निळे !

" ...हो गुलाब ममी."

पपू पिराये मानान बरीं चित्रां काडटा. बरीं रंगयता आनी सुकचे पयलींच दाखोवंक हाडटा.

" ...वा! सुंदर मरे...!"

" ...हीं शेंवतीं."

" बरीं हळडुवींच काडल्यांत आं..."

" ...आनी हे मोगरे कळे..."

" निळे ?"

" हय. निळे निळेच मोगरे कळे!"

" पपू, मोगरे कळे धवे आसतात."

" पुण धवे बरे दिसनात ममी."

" बरे दिसले ना जाल्यारय मोगरे कळे धवेच पपू..."

" आसूं. म्हजे मोगरे कळे निळे...सुंदर सुंदर!"

" पिसो तूं..."

च्या पिवन जयंतान चिक्र सकयल दवल्लें.

" हेमा, हांव क्लबांत चल्लों. जेवंक पावचों ना. वेळ जातलो."

कसली तरी याद जाल्लेभशेन पपू उठलो.

" डॅडी, तुका आनी ममीक हांवें येदोळ बाजारांत पळयिल्लीं. ममी बरी तांबडीच साडी न्हेशिल्ली.

" आमी बाजारांत वचूंकच नात."

जयंताच्या कपलाक बारीकशी आंठी.

" ना कशीं तर ? हांवें पळयल्लीं."

" पपू, म्हजेकडेन तांबडी साडीच ना."

" तशें जाल्यार तुज्या वांगडा आशिल्ली ती कोण डॅडी ?"

" तुका सांगलें, हांव बाजारांत वचूंक ना. "

जयंतालो आवाज चडलो.

" पुण हांवें तुका सारको पळयला डॅडी . . . मोटारीचें दार उगडून तूं भितर बसलो. हांवें तुका आमचे स्कूल–बसींतल्यान हात हालयलो, डॅडी म्हणून उलो माल्लो; पुण तुवें म्हाका पळयलेंच ना. "

" पपू, हांवें सांगलें हांव बाजारांत वचूंक ना. तुवें आनीक कोणाकूय पळयला जातलो. "

" ना डॅडी. आमची मोटार म्हाका वळखूंक येना ? नंबर लेगीत पळयला हांवें... "

जयंत पपूचेर असो केन्ना तापना.

हांवें ताजेकडेन पळयलें; पुण ताणें नदर चुकयली.

कोण आशिल्ली काय ताच्या वांगडा... ?

आशिल्लीय जाल्यार इतलें काचाबूल जावन तापपाचें कारण ?...

" ... खरेंच डॅडी, तूंच तो. हांवें सारको पळयला— "

पपूच्या पोल्यार सणसणीत थापट पडलें.

जयंत थंयच्यान उठून गेलो.

हांवें पपूक म्हे-यांत घेतलो.

ताज्या पोल्याची पापी घेवन ताजीं दुकां पुसलीं.

" आपलें तेंच खरें म्हणचें न्हय पपू... "

" पुण ममी, हांवें खरेंच डॅडीक बाजारांत पळयला... "

पपूचें रडप थामना.

" तुवें आनी कोणाकूय पळयला जातलो . . . "

" ना ममी. डॅडीकच पळयला. तिजी मात फाट आशिल्ली. आमची मोटार म्हाका वळखूंक येना ? नंबर लेगीत वाचला हांवें . . . "

पपू मुसमुसत रावलो.

हांव ताका पोशेत बसलें.

घडये हांव हें सगळें विसरून वतलें आशिल्लें; पुण थोडया वेळान फोन वाजलो.

" हेमा . . . "

जयंत उलयतालो.

" ... नाटकाच्यो दोन तिकेटी काडल्यात; तूं तयार राव... "

म्हाका नाटकां पळोवपाची खूब आवड; पुणं हालीं नाटकां पळोवंक जयंताक वेळ नासता.

आज मात ' वेळ जातलो ' म्हणून सांगून गेल्या मनशाक नाटकाक वचूंक उसरपत मेळ्ळी ?

कित्याक जयंत... ? कित्याक ?...

तांबडी साडी सांवट कशी म्हज्या मनार पातळ्ळी.

थेटराकडेन वतना जयंत सदांपरस चड उलयतालो आनी हांसतालो.

हांव मोनें जाल्लें.

कोण आशिल्ली तुज्या वांगडा जयंत... ?

पपून कोणाक पळयिल्ली ?...

कित्याक फट उलयलो तूं ?...

कितें लिपोवन दवरूंक सोदता तूं ?..

उतरां म्हज्या ओंठार ल्हारां जावन आपटालीं;

पुण हांव उलयलें ना.

म्हजी नदर घडये कितेंय विचारीत आशिल्ली;

पुण जयंत नदर चुकयतालो.

दुसऱ्या दिसा जयंत बेगीन घरा आयलो.

व्हडल्यान उलो मारीत कुडींत आयलो.

" हेमू, पळय हांवें कितें हाडलां... "

ताकतिकेन कागद पिनून ताणें काशींतली साडी भायर काडली...

...म्हजे आवडीच्या रंगाची...

... पाचवीचार !

पुण म्हजे नदरेमुखार नाचली तांबडी साडी...

" चल, ही साडी न्हेसून भायर सर. "

म्हज्या केंसांर अळंग ओंठ तेंकोवन तो शिळोणी घालीत भायर गेलो.

... हें कितें चल्लां जयंत ... ?

कित्याक हें सगलें ?...
हेमू म्हणून तुवें उलो माल्ल्यार कितलो तेंप जालो !
नाटकां, फिरप, सगलें सगलें हांव विसरून गेलां म्हळ्यार जाता...
पुण आतां अकस्मात हें सगलें सगलें परतें कित्याक सुरू जालां ?
कित्याखातीर ही लांच म्हाका ?...
दुसरें कितें विसरचें म्हणून ... ?
Don't bribe me please, जयंत ...
तुका अशी गरज पडचीच कित्याक ?

तुज्या असल्या वागण्यान ती तांबडी साडी विसरतलें म्हळ्यार लेगीत हांव विसरूंक पावना. ० ०

काल पार्टेक मिसेस राय मेळ्ळी.
तुजो हात म्हज्या खांदार आशिल्लो.
सगलो वेळ तूं म्हज्या वांगडा आशिल्लो.
'हेमू, डार्लींग' म्हळेबगर उलय नाशिल्लो.
मिसेस राय म्हणूंक लागली,
"You have got a very loving husband."
"...'Cause I have got a very lovable wife."
तुवें हांसून म्हळें आनी म्हजेकडेन पळयलें.
हांवय हांसलें.
शो... फकत शो...! दुसऱ्यांक दाखोवपाखातीर... फटोवपाखातीर...
दुसऱ्यांक, काय आपल्याच मनाक!...
घरा परततना तुवें म्हज्या हातार हात दवल्लो.
म्हजो हात काडून घेवचो सो म्हाका दिसलो...
...पुण हांवें काडलो ना.
घडये ते तांबडे साडयेंतले चलयेचे आनी तुजे कसलेच संबंद नासत...
घडये आसतय...

पुण ज्या अर्थी म्हाका ते कळचे न्हय म्हणून तूं इतलो यत्न करता, त्याअर्थी म्हाका दिसता, you still care for me !

शिवाय पपू आसा.
ताजे खातीरय म्हाका ती तांबडी साडी विसरून वचूंक जाय . . .

आमी परतलीं तेन्ना पपू न्हिदून पडिल्लो.
ताज्या मुदयाळया केंसांतल्यान हात भोंवडायत हांव ताज्या हातुणार बसलें.
' . . . खरेंच ममी, हांवें डॅडीक बाजारांत पळयल्लो . . . '
' . . . तिजी मात फाट आशिल्ली . . . '
' . . . आमची गाडी म्हाका वळखूंक येना ? नंबर लेगीत वाचला हांवें . . . '
. . . पपू रे, तुवें पळयलो तो डॅडी नासतलो. आमचे गाडयेसारकीच दुसरी कोणालीय गाडी आसतली . . .
तुवें पळयलो तो डॅडी न्हयच . . . तो आनीक कोणूय आसतलो . . .
. . . आसूंकच जाय . . .
पपूचेर पांगरूण घालून हांव उठलें.
दाराकडेन वतना म्हाका तागेली चित्रांची चोपडी दिसली.
' . . . धवे मोगरे कळे बरे दिसनात ममी . . . '
' . . . पुण बरे दिसले ना जाल्यारय मोगरे कळे धवेच . . . '
म्हजे दोळे बेठेच भरून आयले.
न्हिदिल्ल्या पपूम्हऱ्यांत वचून हांवें ताच्या पोल्यार ओंठ तेंकयले आनी अळंग ताज्या कानांत सांगलें,
निळे मोगरे कळे आसतात पपू . . .
. . . आसूंकच जाय . . . आसूंकच जाय . . . !

❦ ❦

## १८. सुकण्या पिला रे....

आयो भायर पडोन दोन दीस जाल्ले. तिच्या उगडासान म्हाका परथोन परथोन रडोंक येतालें. बाप्पा सगलो वोगोत कपलार हात धरोन कोनशाक बसोन रावतालो. तेका पळयतर म्हाका आयोचो चडच उगडास जातालो. सद्दीं रातीची आयो म्हाका येंगेंत घेवन न्हिदताली. ह्यो दोन राती सुरंगें म्हाका आपले खोपींत घेवन गेलेलें. तेचे येंगेंत हांव पील कसो घोंटेल्लों. पुण आयज बाप्पान म्हाजें हातुण खोपींतच घातलें. सुरंगें म्हाका व्हरोंक येतकीर तेणें म्हटलें, "न्हिदों तेका हेंगाच; म्हाका एकल्याक सगली खोंप खावोंच्याक येता"

म्हाका सुरंग्यासरीं वैचें कशें दिसतालें; पुण हांव ओगीच रावलों. रातचो एकलोच हातुणार न्हिदलों आनी म्हाका परथोन रडोंक येयलें. काळखांत हात लांब करोन हांयें बेठेंच हेवशेन तेवशेन सांसपून पळयलें. आयो नासली. बाप्पान तरी म्हाका घट येंगेंत धरचें हे आशेन हांयें बाप्पाक उलो मारोंक तोंड उगडलें; पुण बाप्पा रडटा कसो म्हाका आवाज येयलो. तेकाय आयोचो उगडास येता जातलो हें चिंतून म्हाका हुमसो हुमसोन रडोंक येयलें. "आयो गे ऽऽ" अशें म्हणोन हांयें हामेर फोडलो आनी बाप्पाच्या हातुणार घालोन घेतलें. तेणे म्हाका घट धल्लो. हांयें तेका येंग माल्ली. तेचीं दुकां म्हाज्या ओल्या पोल्यार गळोंक लागलीं. तो म्हाका पोशेत रावलो. आयो पोशेताली तसो....



दुसऱ्या दिसा मावशी येयली. येयना फुडें म्हाका येंगेंत घेवोन रडोंक लागली तचे कुशींत तोंड लिपोवन हांवूय रडोंक लागलों. मावशेच्या कापडाक फुलांचो कसो बरो वास येतालो. आयोच्या कापडाक सद्दीं धुंवराचो वास येतालो. पुण म्हाका धुंवराचो वासच चड बरो सो दिसलो. मावशेच्या कापडाकूय धुंवराचो वासयेवंक जायो आसलो अशें म्हाजे तकलेंत येयलें.

आपल्याक येळार सांगोन धाडलें ना म्हणोन मावशी बाप्पाचेर जायती रागार जाली. आयोचो उगडास काडोन काडोन तिणे तोंड तांबडें करोन घेतलें. मावशी

मातूय आयो भशेन दिसना. म्हाजी आयो काळी आसली. मावशी मात गोरीच.

दंपरां मावशेन बाप्पाक म्हटलें," रघल्याक घेवन वैतां. हेंगा तेचें सारकें जावचें ना."

बाप्पा ओग्गी रावलो.

" तूं कामाक वैतकीर रघलो एकलो जातलो. तेच्या जेवणा-खाणाचें कशें ?"

बाप्पान म्हाजेकडेन पळयलें.

" तेका धाडलो जाल्यार म्हाज्यान एकल्याक दीस काडोंक जायत ?"

" तूं दादलो; कामार वैतगीर सगलें इसरतलो. हो पोर मात तरासांत पडटलो."

हांव दोगांयच्याय तोंडांक पळयत वसोन रावलों. म्हाका वैचेंय कशें दिसतालें आनी रावोचेंय कशें दिसतालें. निमाणे बाप्पान म्हाजीं दोन खोमसां, काल्सांवां पोंतयेंत भल्लीं आनी म्हटलें,

" रघल्या, तूं मावशे वांगडा वस."

तेणें वस म्हण्टर म्हाका वैचें न्हू कशें दिसलें. बाप्पा म्हाजी जायतीं अपुरबाय करतालो. म्हाका घेवन तो जायते फावटीं सांकवार नुस्तं गरोवंक वैतालो. मागीर आमी हाडलेलें नुसतें आयो उज्यार बरी भाजताली. शेनवारा तिठयार व्हडलो बाजार भरतालो. थंयसर बाप्पा राजू, सूम बी इकूंक बसतालो. हांवूय तेच्या वांगडा बसतालों. वत वयर चडोंक लागलें म्हण्टर बाप्पा सत्री फुलयतालो आनी आमी तेच्या पोंदा झेतान बसताले. बाप्पा थंय म्हाका चणे, भिकणां बी घेवन दितालो.

आयजय शेनवार आसलो. पुण बाप्पा बाजारांत वोसोंक ना. आयो वसत सावन बाप्पा येगळोच सो जालो. खोंपूय येगळीच दिसता. म्हाका सामकें घुसमटोंक जाता.

" बाप्पा, तूंय यो रे..."

" पिसो ! तूं वस पयलीं..."

" तूं केन्ना येतलो ?"

" येतलों–"

" केन्ना रे ?..."

" यतां एक दीस"

" रोकडोच यो आं..."

बाप्पान कांय जाप केली ना.

" रोकडोच येतलो मरे ? " हांयें परथोन इचाल्लें. तेणें मान हालयली.

मावशेचें बोट धरोन हांव खोंपींतलो भायर सल्लों. बाप्पा उठोन दारांत येयलो. जुवांवाले गादये फुडें पावले, तरी हांयें वळोन वळोन फाटीं पळयलें. बाप्पा थंयसरूच उबो आसलो. उत्तमालो पसरो जातर मागीर खोंप नदरेक पडना जाली. बाप्पाय दिसना जालो. मावशेचें बोट सोडोन परथोन बाप्पासरीं धांव मारची कशी म्हाका दिसली. हांयें मावशेचें बोट सोडलें लेगीत; पुण मावशेनच म्हाजो हात घट धल्लो.

" रघल्या, तूं शाणो भुरगो; हय मरे ? "

हांयें मान हालयली. मोन्यानी तिचेवांगडा चलत रावलों.

" बशींत बसोन वैचें मरे आमी ? "

" बशींत बसोन ? "

" हय. "

बाप्पा, आयो आनी हांव एक फावट जात्रेक गेलेलीं. तेन्ना बशींतल्यानच गेलेलीं. आयज परथोन बशींतल्यान मोव शिटार बसोंक मेळटलें म्हणोन हांव खोशी जालों आनी मावशेचें बोट घट धल्लें.

० ०

मावशेलें घर आमचे खोंपी परस व्हड आसलें. धयाफुल्ल चुन्याचें. ते रातीं इतलो पावस पडलो म्हटल्यार मात लेगीत पोंवलें ना. आमचे खोंपींत जायते कडेन पोंवतालें. सगल्याक आयदना दवरी म्हणसर आयोक वाज येतालो. चडच पोंवंक लागल्यार बाप्पा वयर चडोन सारकें करतालो आनी आयो ना जाल्यार हांव चिमणेचो उजवाड दाखोवन ' हांगा पोंवता, थंय पोंवता ' म्हणोन सांगतालों.

आयजय पोंवलें जाल्यार बाप्पाक दिवो कोण दाखयतलो ? मावशेचे येंगेंत न्हिदले कडेन हें म्हाजे तकलेंत येयलें.

" मावशे..." हांयें उलो माल्लो.

" न्हिदे वोग्गी " मावशेन म्हाका आनीक घट धल्लो आनी थापटूंक लागली. तिच्या कापडाचो परमळ म्हाज्या नाकांत भल्लो. आयोचे कुशीन न्हिदतर

धुंवराचो वास येतालो बरो ऽ! सुरंग्याल्या कापडाकूय तसोच वास येता. सामको आयोच्या कापडाक येतालो तसोच. तो वास चिंतीत हांव मावशेचे कुशींत रिगलों.

० ०

मावशेन म्हाका थंयसल्ले शाळेंत घातलो. म्हाजी पयलींची शाळा हेचे परस बरी आसली. शाळे फुडें वडारूख आसलो. तेच्या मुळांक धरोन आमी हेवशेन तेवशेन झेलताले. माकड कशे वयर चडटाले. ना म्हटल्यार हे शाळेंत वैतना वाटेर चिंचेरूख आसलो. घे ऽ ऽ म्हणोन चिंचेबोटां पुंजावंक मेळटालीं. बोल्स भरोन घेताना म्हाका शिरीचो आनी बेंदिताचो उगडास येतालो.

आमचे खोंपी लागसारा व्हाळ आसलेलो. आमी जायते फावटीं व्हाळार वैताले. बुचूक, बुचूक करोन बुचकळयो मारून न्हाताले. मावशेले थंयसर व्हाळच नासलो. बांय मात आसली. मावशी सुर सुर करोन बांयच्यो कोळसुल्यो काडोन म्हाजे तकलेर ओती. सगळया आंगाक शाबू लायी. घरा हांव एकलो न्हातालों. आयोक हांयें केन्नाच म्हाका न्हाणोवंक दिलें ना. हांव कितें ल्हान आसलों तर! पुण मावशी म्हाजें आयकच नासली. म्हाका तिडक येताली.

'आठ वर्सांचो घोडो; पुण कावळया भशेन न्हाता. बरसो खंयचेकडलो!' अशें म्हणोन मावशी म्हाज्या आंगाक शाबू घशिटताली. फेणेर दोळयांत वसोन म्हाजे दोळे लेगीत चरचुरताले. मावशेक किंवांटयान बुड्डे काडचेशें म्हाका दिसतालें; पुण हांव काडी नासलों. आयोक मात हांयें जायते फावटीं बुड्डिलीं.

बाप्पा वांगडा केन्ना केन्ना हांव न्हंयचेर वैतालों. तेन्ना आमी दोगूय गुणे घेवन एकामेकांची फाट घांसताले. तो उगडास येतर म्हाका बाप्पासरीं वैचें कशें दिसतालें आनी मावशी म्हजे ओले केंस पुसोंक लागली म्हणटर दोळे धांपोन हांव तेंच चिंतीत रावतालों.

० ०

मावशेगेर भुरगीं नासलीं. मावशी, मावसो आनी मावशाली आवय इतलींच जाणां थंयसर रावतालीं. शेजारा लेगीत म्हाज्या वांगडचीं भुरगीं कोणच नासलीं. व्हडलीं आसलीं तीं म्हाका खेळोंक घे नासलीं. हांव सामको बेजार जातालों. मागीर मावशी हातांतलें काम दवरून म्हाज्या वांगडा खेळोंक येताली. मावशेक गड्डयांनी खेळोंक येनासलें. पांच गुंडयांनीं मात ती बेस बरी खेळटाली. पिट्ट पिट्ट

करोन गुंडे रूस्ताली. मावशीकडेन घें म्हणोन गजरे आसले. गडें काय फाडें खेळोंक मव्हा येशी. हांवें रडी केल्यार मावशीक समजच नासली. सगले गजरे म्हाज्या वांटयाक येयले म्हणटर ती म्हाका येंगेंत घेताली आनी 'मोटो हुशार मरे तूं!' अशें म्हणोन हांसताली.

हांव शाळेंत वैतना मावशी आंगणांत येवन उबी रावताली.

"रघल्या, सारको वस रे... "

"आं गे मावशे." चिंचेबोटां ओडीन म्हाजीं पावलां फुडें पडटालीं. मावशी घराफुडलो रस्तो नीट्ट गेला. मागीर मोडणार एक आंब्यारुख आसा. थंयसर पावतर हांव सदीं फाटल्यान पळयतालों आनी मावशीक हात हालोवन धांव मारतालों ती वट चिंचेपोंदा. हांवें हात हालय म्हणसर मावशी आंगणांतच रावताली. एक फावट हांव इसल्लों जाल्यार मावशी सामकी बेजार जाली. शाळेंतसून घरा येतर म्हणोंक लागली–

"रघल्या, आयज तुवें फाटल्यान पळयलेंच ना."

"केन्ना गे मावशे!"

"शाळेंत वैतना."

"इसल्लों."

"कशो इसल्लो रे? तुका म्हाजी मायाच ना पापया. म्हाजो मात तुजेर सगलो जीव!".... मावशीचे दोळे दुकांनी भल्ले. म्हाका वायट दिसलें. फाटल्यान पळयलें ना जाल्यार मावशीक इतलें वायट कित्याक दिसलें काय म्हणोन हांव चिंतोंक लागलों. पुण त्या दिसाच्यान आंब्यारुख कडेन पावतर हांव उगडासान फाटल्यान पळोवंक लागलों.

मावशी म्हाका रातीची काणी सांगताली. ते रातीं तिणे म्हाका सुकण्या पिलाची काणी सांगली–

"एक आसलें सुकण्या पील. सामकें कुकुलें! एक दीस तेची आवय मेली. पील घोंटेरांत एकसुरें उल्लें. सुकणे पिलाची एक मावशी आसली. तिणे मायेन तेका आपल्या पांखामोंदा घेतलें. तेका ऊब दिली. खावोंक घातलें.... "

हांवें मावशीक इचाल्लें– "मावशे गे, त्या सुकण्या पिलाचे मावशीक आनीक पिलां नासलीं!"

" ना रे. ती पाड पडलेली कर्मकट्टी !"

" मागीर....?"

" पिलाची मावशी पिलाक ल्हानाची व्हड करोंक लागली. तेचेर मावशेचो सगलो जीव आसलो. तिका तें आपलेंच पील कशें दिस. मावशेन तेका उडोंक शिकयलें. पिलाक पांखां फुटलीं. तें झेतान उडोंक लागलें. मावशी खोशेन फुल्ली. एक दीस पील घोंटेरांतल्यान भायर सल्लें. उडोन उडोन पैस गेलें. घोंटेरांत मावशी वाट पळयतर रावली. पुण पील परथोन येयलेंच ना. तिका तें इसरोन गेलें. मावशी मात पिलाक इसल्ली ना. ती तेची वाट पळयत रावताली. म्हणटाली–

' सुकण्या पिला रे म्हाज्या
केन्ना येतोलो ?
मोग तुजेर आसा म्हाजो
तूं मात इसल्लो !.... '

....आनी पिलाचो उगडास काडीत घोंटेरांत रडत बसताली. "

काणी सांगतना मावशीच रडोंक लागली. ती रडटा म्हणोन म्हाकाय रडोंक येयलें. मावशेन म्हाका कुशीन घेतलो आनी थापटीत ल्हव आवाजान ती गावोंक लागली–

" सुकण्या पिला रे म्हाज्या.... "

० ०

आमची समायी परीक्षा जावन गेली तरी बाप्पा एक फावट लेगीत मावशेगेर येयलो ना. म्हाका तेचो, आयोचो खूब उगडास येतालो. आयतराक मावशा वांगडा हांव केन्नाय स्टँडार वैतालों. तेन्ना खंयचेय बशींतल्यान बाप्पा देंवता काय म्हणोन आशेन पळयतालों; पुण बाप्पा येयलोच ना. 'रोकडोच यो' म्हटलेलो तेका हांयें. जायती वाट पळयली आनी एक दीस बाप्पा येयलो. शाळेक सुटी आसली. हांव एकलोच आंगणांत गड्डयांनी खेळटालों. फुडयांत कोण तरी उबो रावलो. वयर पळयत जाल्यार बाप्पा ! हांयें गड्डे शेंवटून उडयले आनी बाप्पाचे कमरेक येंग माल्ली.

" मावशे गे, बाप्पा येयला..."

बाप्पान म्हाका घट्ट धल्लो. म्हाजें तोंड खोशेन फुल्लें. मावशी भायर येयली.

च्या पियेतना बाप्पान म्हटलें, " रघल्याक व्हरोंक येयलां."

मावशेच्या हातांतलें सूप ढब्ब करोन सकयल पडलें; तितूंतले तांदूळ सगल्याक शिंवल्ले. मावशी सामकीच ! सूप लेगीत सारकें धरोंक येयना तिका.

" तूं कामाक वैतलो. रघलो एकलो उरतलो. कशें जातलें तेचें ? "

" तो एकलो उरचो ना. "

" ना कसो तर ? "

" हांयें दुसरें लगीन केलें. " बाप्पान ल्हवूच सांगलें.

" कितें ? मोगरूक वसोन स म्हयने लेगीत जाले नात आनी तुयें...."

" कितें करतलो ? संसारांतले दीस काडोंच्या जाये न्हू ? धांदल जाताली. आनी रघल्याक तरी कितलो तेंप हांगा दवरतलों ? "

मावशी तांबडीच जाली.

" रघल्याचें नांव काडों नाका. तेका थंय व्हरोन सवती आवयच्या तोंडाक दिवंक सोदता ? हांव तेका धाडपी न्हू."

मावशी तापोंक लागली. हांव दोगांयच्याय तोंडांक पळोवंक लागलों. सवती आवय ? मावशेन म्हाका सवती आवयच्यो जायत्यो खबरो सांगलेल्यो. सगल्यो सवती आवयो वाइट आसतात हें हांव जाणा आसलों. बाप्पान म्हाकाय सवती आवय हाडली म्हणोन म्हाका रडोंक येवंक लागलें आनी आयोचो उगडास जावन हिमटेर हिमटयो येवंक लागल्यो.

" रघल्याक सवती आवयचो तरास जावचो ना, तें तेची मायाच करतलें. "

" तें तूं म्हाका सांगों नाका. तुका कशें कळ्ळें पयलींच ? "

" शेजराच रावतालें तें आमच्या. रघल्याचेर जीव आसा तेचो. "

" कोण तें ? "

" सुरंगें...."

सुरंगें ? म्हाजे दोळे लिकलिकले. आंवय ! सुरंगें म्हणोन सवती आवय जाता ? तें कितलें बरें ! तेचें येंगेंत न्हिदलेलों तेन्ना म्हाका आयोचेच येंगेंत न्हिदलेलों कशें दिसलेलें. हांव खुक् करोन हांसलों. पिट्ट करोन उडकी मारोन बाप्पा म्हाऱ्यांत गेलों.

" बाप्पा, हांव येतां. "

बाप्पा हांसलो. म्हाज्या केंसार हात भोवंडावंक लागलो. मावशी मोन्यानी रिकामें सूप घेवोन भितर गेली.

" मावशे, म्हाजो बुशकोट खंय, कल्सांव खंय.... ? " अशें म्हणत हांवें तिचे फाटल्यान धांव माल्ली.

मावशी रांदचे कुडींत उबी आसली. तिचें नाक बी तांबडेंच जाल्लें.

" रघल्या, तूं खरेंच वैता ? "

खरेंच म्हणचें ? मावशी पिशीच ! कितें इचारता तेंच कळना. हांवें मान हालयली.

" तुका हांगा रावोचें शें दिसना ? "

हांगा म्हाका बरें दिसतालें; पुण बाप्पा वागडा चड बरें दिसतालें. हांवें मावशेक तशें सांगलें.

" हांवूच पिशी ! " अशें म्हणोन मावशेन सुपांत आनीक तांदूळ ओतले.

" मावशे, भायर तांदूळ शिंवल्लेले आसात ते तशेच आसात. "

" आं ? हय, तांदूळ शिंवल्ल्यात ! "

" भरोन हाडों हांव ? "

" नाका रघल्या,म्हाजेकडेन शिंपडले ते. हांवूच भरोन हाडटां." अशें म्हणोन मावशी भायर गेली.

दंपरां जेवन बी जातर मावशेन म्हाजीं आंगाचीं पोतयेंत भल्लीं. म्हाजे आवडीचीं पिपीरमिटां हाडोन म्हाज्या बोलसांत घाल्तलीं. चार लाडू गुटलावन दिले.

" येतलो मरे केन्नाय ? "

हांवें मान हालयली. बाप्पान खोमीस घालचे पयलींच पांयांत जोतें घालोन हांव आंगणांत पावलों. मावशेन म्हाका घट्ट येंगेंत धल्लो; म्हाज्या पोल्याची पापी घेतली. म्हाका लज जाली. बाप्पान पळयलें जातलें म्हणोन हांव तांबडोच जालों.

बाप्पाचो हात धरोन हांव चलोंक लागलों.

"–बाप्पा, व्हाळाक आजून म्हणसर उदीक आसा मरे ? "

"–बाप्पा, आमी सांकवार नुसतें गरोवंक वैचें मरे? "

"–सुरंगें आतां आमगेरच रावतलें ? " म्हाका जायतें जाणा जावचेलें आसलें. बाप्पा हांसोन म्हाका जाप दितालो. बेंदिताक आनी शिरीक जायत्यो गजाली

सांगचेल्यो आसल्यो. बोल्सांतलीं चिंचेबोटां दिवचेलीं आसलीं. घरा पावचेली म्हाका उमळशीक लागलेली.

खोशेन हांव बशींत चडलों. बस सुरु जाली. बाप्पा वांगडा उलयतां उलयतां हांवें बोलसांत हात घातलो. हाताक मावशेन दिलेलीं पिपीरमिटां लागलीं आनी म्हाका सह्ह करून उगडास जालो...

...आंब्या-रुखा कडेन पावतर फाटल्यान पळोवन मावशेक हात हालोवंक हांव इसरूनच गेल्लों—सामकोच इसरून गेल्लों....



# जिणेच्या संगीताचे सूर काडपी कथा लेखिका

कोंकणी कथेंत आपली अशी खाशेली सुवात निर्मिल्ल्यो सौ. मीना सुरेश काकोडकार (आदल्यो- कु. मीना दु. गायतोंडे) हांचो हो पयलोच कथा संग्रह म्हणून सांगल्यार कोणाचो विस्वास बसचो ना. कथांच्या सर्तींमदीं सदांच बक्षिसां मेळोवन आनी नेमाळ्यांनी एकापरस बरी दुसरी अशो साबार कथा उजवाडावन ताणीं कोंकणी कथेचेर मोलादीक प्रभाव घाला आनी एके वेगळेच तरेच्या कथांची सृश्ट वाचप्यांक दाखयल्या.



सौ. मीनाबायल्या कथांचीं पात्रां आमचे भोंवतणी वावुरतलीं जितीं मनशां. ह्या मनशांल्यो संवसारीक विवंचना, तांचीं सुखां- दुःखां, तांचे हावेस, तांच्यो उमेदी, तांचें आगळेपण, तांचे सभाव आनी व्यक्तित्व मीनाबाय वेगळ्या- वेगळ्या कोनांतल्यान चित्रायतात. वाचप्यांमुखार खिणांत नवी आकृती दाखोवपी 'कॅलेडोस्कोप'च त्यो धरतात. कथा वाचतना वाचपी तिरायताचे भावनेन वाची ना. तो त्या कथांमदीं एकरूप जाता. कित्याक तर त्यो कथा आनी तातूंतलीं पात्रां हांचें आनी वाचप्याचें एक नाशिल्लें नातें ताका होलमता आनी कथा वाचून सोंपतः तेन्ना ताका लेखिकेचे शैलीची, बारीकसाणेची लक्तुबाय दिसता. शिंयाच्या दिसांनी सैमाचेर दाटिल्लो धुक्याचो पड्डो जसो वताचीं किर्णां अचळय कुशीक काडून लागशिल्ल्या निसर्गाची भव्यता आनी दिव्यता आमच्या मुखार उकती करतात, तेच भशेन मीनाबाय आमच्या भोंवतणच्या मनशांल्या संवसाराचेर दाटिल्ल्या धुक्याचेर आपले नकसूद प्रतिभेचीं किर्णां घालून करतात.

...राजांलें वैभव सोंपलें; पुण तांच्या आसऱ्याक आशिल्ल्या कलाकारांचो संवसार अजून तग धरून आसा... मीनाबायली कथाय अशीच- फक्त कोंकणी साइत्यांतच न्हय तर कथा साइत्यांत सासणाची उरतली. बंगाली साइत्यांत शरदबाबून संवसारीक जिणेचेर कथा रचून बायलांच्यो व्यथा उतरांनी मांडल्यो; कोंकणी संवसारांतल्यो कथा मीनाबायन चित्रायल्यात- त्यो व्यथा उकतायतातच; पुण त्याचबरोबर नकसूद भाशेंत कुशळ कलाकाराचे फिशालकायेन काळजाचे सतारीच्यो तारो हालोवन तांतूतल्यान जिणेच्या संगिताचे सूर भायर काडटात.

---